# कणक्सां

(मोटव्यो काणयो)



विन्सी क्वाड्रूस

स्नोज प्रकाशन, राय

# कणसां

(मोटव्यो काणयो)

बरोवपी :

**विन्सी क्वाद्रूस**

पयली आवृत्ती :

**जून 2011**



उजवाडावपी :

**स्नोज प्रकाशन**

'स्नोज कृपा'

आर्लेम, राय

साश्ट - गोंय

मुखचित्र :

**विली गोएश**

पणजी - गोंय

अक्षर जुळणी :

**स्वराज डीटीपी**

फोंडें - गोंय

छापणावळ :

**सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम्स**

खोर्लीं - गोंय

**मोल : रु. 200/-**

## मनांतले आंवडे ...

फाटल्या तीस-चाळीस वसांत कोंकणी साहित्यांत बरीच प्रगती जाल्ली पळोवंक मेळटा. हे प्रगतीक लागून समाजांतय बदल जाल्ल्याचें जाणवता. साहित्याच्या प्रवाहांत आपणाकूच ओंपून दिल्ल्या गोंयकार साहित्यकारांनी भारतीय सांहित्यांत नदरेंत भरपा सारकें योगदान दिलां आनी कोंकणी साहित्य हेर खंयचेय भाशे कडेन तुळा करपा इतलें प्रभावी आसा म्हूण सिद्द केलां ही अभिमानाची गजाल.

शंबर सवायशें वर्सां आदीं कोंकणी भास साहित्याच्या मळार तियात्राच्या रुपान दिसूंक लागली. ते आदीं पुर्तुगेजांनी कोंकणीक काबार करपाचें कारस्थान रचिल्लें, पूण धर्म प्रसाराक लागून कोंकणी शिवाय तांचे कडेन पर्याय नासलो. देखून कोंकणी भास उलोवपा इतली तरी मर्यादीत दवरचीच पडली. इतलें आसूनय मुंबय आनी हेर प्रांतांत स्थायीक जाल्ल्या गोंयकारांनी प्रसार माध्यमां वरवीं कोंकणी लोकां मेरेन केळयली. क्रिस्तांव घराबो हे सारकी कादंबरी शंबर वर्सां फाटीं लोकांच्या हातांत पडली. मागीरच्या काळांत तियात्र, कथा कविता आनी रोमांशी छापून आयिल्ल्यान कोंकणी मनीस साहित्या पसून वंचीत उरलो ना. गोंय मुक्त जाय मेरेन एके भशेन कोंकणीची रोमी लिपी अग्रेसर आसली.

गोंय मुक्ती उपरांत शणै गोंयबाबाच्या विचारांनी मूळ घेतलें आनी सवका सवका करून देवनागरींत साहित्य रचना जावंक लागली. कथा कविता फुलूंक लागली. नवे नवे लोक साहित्याच्या मळार पर्जळूंक लागले. संघ प्रदेश आशिल्ल्या गोंयाक राज्याचो दर्जो दिवपाक कोंकणी राज्यभास जावप गरजेचें आसलें. त्या वेळार गोंयची राज्यभास मराठी जावंची म्हूण खूब जाण झगडले, रगतां व्हांवयलीं. मराठी गोंयची राज्यभास जाली जाल्यार गोंय महाराष्ट्रांत विलीन जावपा पसून कोणा कडेन आडावंक जावचें नासलें हें नीज गोंयकारांक कळून आयलें. हे आदीं ओपीनियन पोला वेळार

दाखोवन दिल्लें आमी महाराष्ट्रांत विलीन जावंक सोदनात म्हूण. पूण ह्या मराठी धार्जिण्य लोकांक आनीक एक संद आयिल्ली गोंय महाराष्ट्रांत घालूंक, तिवूय गोंयकारांनी फाफडून उडयली. सगळे कोंकणी साहित्यकार आनी कोंकणी मोगी एकठांय येवन गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळोवन दिलो आनी कोंकणी भाशेक गोंयची राजभास म्हूण मान्यताय घेतली. हातूंत सगळ्या कोंकणी साहित्यकारांनी साहित्य चळवळीक भाशीक चळवळीचें रुप दिलें. कोंकणी भास आक्रमक आनी पराक्रमी भास जाली. ह्या लढ्यांत फकत लेख आनी कवितांचोच न्हय तर कथेचोय उद्धार जालो. राज्यभास चळवळीन कोंकणीचे कार्यकर्ते घडयलेच, तेच बराबर नव्या साहित्यकारांनी जल्म घेतलो. म्हज्याय उगमाचो होच काळ. 1983 वर्सा कवितेंतल्यान सुरवात जाल्ली म्हजी साहित्यीक वाटचाल 1990 वर्सा पयलो काणयां झेलो काडून प्रस्थापीत जाली. हो काणयां झेलो जरी देवनागरी लिपींत आसलो तरी तातूंत आस्पाविल्ल्यो काणयो रोमी आनी देवनागरी ह्या दोनूय लिपयांनी आदीं छापून आयिल्ल्यो.

1987 वर्सा राज्यभास कायदो पास जालो आनी तातूंत फकत देवनागरी लिपीक मान्यताय मेळ्ळी, तेन्ना रोमी लिपींत बरोवपी फाटीं पडपाक लागले ही नोंद करपा सारकी गजाल. वर्सां वतात तशे ते सांडतय गेले. रोमी लिपींतल्या बरपाक गळटी लागली ती सांवरलीच ना. आमी, जांकां देवनागरी लिपींत बरोवंक कळटालें, ते सुगूर उरले. रोमी लिपींत पुस्तकां उजवाडावपाचीं कमी जालीं आनी देवनागरींत मात पुस्तकांचो पावस पडत रावलो.

अकस्मात दाल्गाद कोंकणी अकादमीची एक मागणी सरकारान मानून घेतली आनी तिका सरकारी अनुदान फावो जालें. देखून तांणी बरोवप्यांक बरें प्रोत्साहन दिलें. ताका लागून फाटल्या दोन तीन वर्सांत रोमी लिपींतल्यान साबार पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. तातूंतच म्हजीं सुमार 7-8 नवीं पुस्तकां लोकां मुखार आयलीं. मदीं 'कुरपणो' हें देवनागरी लिपींत दुसरें पुस्तक आनी ह्या वर्साक 'जादूचें पेटूल' ही भुरग्यांची कादंबरी देवनागरींत उजवाडाक आयली. दाल्गाद कोंकणी अकादमीच्या धोरणाक लागून म्हजे सारके जायते जाण मुखार येवंक लागले. ही गजाल कोण किंकोंत करूंक शकनात. देवनागरी साहित्या इतलीच तांक रोमी लिपींतल्या साहित्याक येवंक लागल्या आनी म्हाका खात्री आसा रोमी लिपींतलें साहित्य दर्जेदार आनी पुरस्कार प्राप्त साहित्य जातलेंच.

हे फाटभुंयचेर म्हजी काणी फुलूंक लागली. काणी ही स्वतंत्र आसची आनी काणयेक रुप दिवपी ताचे परसूय स्वतंत्र आसचो अशें म्हजें मत. काणी घडयतना, काणयेची मांडावळ करतना जें तंत्र लागता, तें तंत्र आधुनीक साहित्यकाराचें आसचें आनी ते काणयेंतल्यान जो प्रवाह निर्माण जातलो तो समाजाक उपेगी थारचो ही म्हजी भावना. काणी वाचपी काणयेचो उपेग करून घेता वा ना हाचेर हांव भाश्य करिना, पूण जेन्ना एका समाजांत एक गजाल घडटा, कारस्थान घडटा वा घडणी घडटा तेन्ना कोणूय साहित्यकार ताची दखल घेना जाल्यार ही दुख्खाची गजाल. हातूंतल्यान एक बरी काणी, कविता वा लेख जावं येतालो आनी साहित्याचे नदरेन ती गजाल, कारस्थान जावं घडणी हेर लोकां मेरेन पावंक शकताली, त्या लोकांचें मार्गदर्शन जावं येतालें, हें म्हजें मानप.

अशे भावनेंतल्यान हांवें म्हज्या काणयांक रुप दिलां आनी त्यो हांव तुमचे मुखार दवरतां. तसो हो म्हजो पयलो काणयां झेलो न्हय आनी ह्यो नव्योच काणयो न्हय, म्हजे जायते काणयां झेले उजवाडाक आयल्यात आनी जायत्यो काणयो अजूनय झेल्यांनीं आसपावपाच्यो आसात.

हांव कोंकणीचे देवनागरी आनी रोमी लिपींत बरयतां. आयजवेर हांवें म्हजें बरप रोमी लिपींतल्यान देवनागरींत जावं देवनागरी लिपींतलें रोमी लिपींत हाडूंक नासलें. जायत्या जाणांनी म्हाका विचारलें 'तुजें बरप तूं लिपयांतर कित्याक करिना? एके लिपयेंतलें बरप ते लिपी इतलें सिमीत उरता आनी तुज्या दुसरे लिपयेंतल्या वाचप्यांक तूं वंचीत दवरता.' खर्चाचे नदरेन हाचेर विचार केलो. एकूच पुस्तक दोन लिपींतल्यान छापलें जाल्यार तीं खपतलीं? ह्या विचारांत आसतना दाल्गाद कोंकणी अकादमीन म्हाका एक बरी सवलत दिली. म्हजें बरप रोमी लिपींतल्यान येता तितलें पुस्तक रुपान छापूंक अनुदान भासयलें. हे खातीर आसा तितलें बरप छापून हाडपाच्या बोवाळांत लिपयांतर करपाची गजाल विसरूनच गेलों. मात ह्या दोन वर्सांत रोमी लिपयेंतल्यान म्हजीं कितलिशींच पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. हीं पुस्तकां सेंट्रल लायब्ररी आनी शिक्षण खात्यान घेतलीं पूण गोवा कोंकणी अकादमीन घेवंक नात म्हूण खंत जाली. तांचें म्हणणें, एक कडेन अनुदान मेळ्ळें म्हणटकच दुसरे कडेन पालोव मेळना. हें कितल्या प्रमाणांत योग्य तें खबर ना.

ह्यो दोन गजाली लक्षांत घेवन आतां हांवें थारयलां कोणाचोच पालोव

वा अनुदान घेनासतना देवनागरी लिपींत पुस्तकां छापप. म्हजीं पुस्तकां उजवाडावंक निर्माण जाल्ले स्नोज प्रकाशन संस्थेन म्हाका पुराय आदार भासयला. ह्या फाटबळार म्हजें बरप लिपयांतर करूंक हांवें पावल घालां. हाचो पयलो अविश्कार म्हूण हांवें भुरग्यां खातीर बरयिल्ली कादंबरी दोनूय लिपयांनी छापल्या, आनी ह्या पुस्तकांत हाचें आदीं रोमी लिपींत छापिल्ल्यो वेंचीक काणयो घालून कणसां हो काणयां झेलो हांव तुमच्या हातांत दवरतां.

तुमकां ह्यो काणयो आवडटल्योच, तरी म्हज्या बरपांत कसलीय सुदारणा जावंक जाय अशें तुमकां दिसता जाल्यार तुमच्या सुचोवण्यांक येवकार आसा. हे घटकेक कांय नांवां हांव मुजरत घेवंक सोदतां. कोंकणी कार्यकर्तो म्हूण म्हजी दखल घेवन मुखार येवपाक म्हाका हात दिवपी उदयबाब भेंब्रे, साहित्याच्या मळार म्हज्या बरोवपाची दखल घेवपी पुंडलीकबाब नायक, हेमाबाय नायक, दामोदरबाब मावजो आनी तोमाझिनोबाब कार्दोज, म्हज्या तरणाटेपणाक सदांच उर्बा दिवपी पुर्णानंदबाब च्यारी आनी प्रेमानंदबाब लोटलीकार हांकां म्हजे खेरीत दिनवास. तशेंच विलीबाब गोएश, संजयबाब बोरकार, प्रदीपबाब पाटील आनी महाबळेश्वरबाब सैल हांचे सयत हें पुस्तक तुमचे मेरेन हाडपाक म्हाका आदार दितल्यांक हांव काळजाचे खोलायेक सावन देव बरें करूं म्हणटां आनी कोंकणी सरस्वतीच्या आंगणांत हो म्हजो बारीकसो वावर सादर करतां. तुमी ताचो आस्वाद घेवंचो.

-विन्सी क्वाद्रूस

# म्हजीं दोन उतरां

बाब विन्सी क्वाद्रूस तरेकवार मनशांच्या जात्रेंत पांय तुटसर भोंवलो आनी ताणें जोडले साबार तरेचे अणभव. ताका मनशां विशींची बारीकसाण इतली आसा, तो तांकां मनाकाळजा सावन, कुडी बोडा सावन वळखता. हेंच ताच्या साहित्याचें व्हडपण. तो मनशां पारखिता. मनशां वळखता आनी तांचेच वरवीं काणयो घडोवन हाडटा. विन्सी खंयच आसना. आसतात जितीं जिवीं हाडामासांची मनशां. तीं जशीं समोरा समोर वाचप्या कडेन उलयतात, आपली उर्बा आपलीं दुख्खां सांगतात, खोशयेंत वांटेकारी करून घेतात. दर एका काणयेंतलें पात्र एक प्रस्न घेवन जियेता. जाप मागता, न्हय बरोवप्या कडेन तर वाचप्या कडेन. पूण ते प्रस्नय इतले सोंपे नात. आत्मविस्वास हे कथेंत बापूय आनी पुता मदीं एक मोनें झगडें आसा. वायट व्यसनान इबाडूंक लागिल्ल्या पुताक बापूय थातरून बऱ्या वाटेर हाडूंक पळयता. हे कथेक बरोवपी मोगाच्या, करुणेच्या तशेंच मानसीक, तत्वगिन्यानीक पांवड्यार व्हरता. मोव, भावनीक देग ताका आसा. आयच्या ताणतणावाच्या काळांत मनीस रोखडोच फुटून वचूंक पावता. पूण हे कथेंतलो शांत चिंतनाचो बापूय डायगो बऱ्या विचारी मनशाची बरी देख. आमच्या काळांत आमी मनशां दुर्मीळ जायत चल्ल्यांत. बाब विन्सीची तोखणाय करूंक फावो अशें हें उजू व्यक्तीमत्व उबें केलें म्हूण.

वास्तववाद म्हणल्यार साहित्यांतलें प्रामाणीकपण. तेंच जिविताचें सत आनी सोबीतकाय. विन्सी कथेंतल्यान सदांच वास्तवीक पांवड्यार रावंक सोदता आनी आमकां सतसत सांगता. केन्नाय तीं सत्यां पळोवन तकली घुंवता. कलाकार पाकूश द गोवा जिवीतभर खूब संघर्श करून कश्ट, दगदगे सोंसून एक व्हड पुरस्कार जोडटा. पूण पुरस्कार घेवचे खोशयेच्या, आनंदाच्या

खिणाकच तो मरून वता. जिवीतभरच्या तपश्चर्येचें फळ हेंच काय म्हूण चिंतून मन चुरचुरता.

मनशाचीं मनां पिशीं आसतात, भावार्ती आसतात. केन्ना केन्ना काळजाच्या तळाक आफडून गेल्ल्या मोगाची ओलसाण घेवन जियेतात. पूण काळ फटकिरो आसता. तो चड फावट मनशाक फटोवंकच रावता. 'ओलें मन' हे कथेंतलो साल्वादोर असोच फटवला. वांगडाच ताचे चुरचुरेय दिसतात आनी ताच्या पिशेपणाची काकुळट दिसता.

विन्सी आपले कथेंतल्यान एक सुरमेळ सादता, ताच्या चडशा कथांतल्यान क्रिस्तांव आनी हिन्दू दोनूय धर्मांचीं पात्रां येतात. पूण अजाप म्हणल्यार हिन्दू पात्रांय ताच्या अणभवा भायलीं अशीं दिसनात. तीं काणयांतल्यान सहज वावुरतात, एकरुप जातात. शेवटा खंयचोय मनीस मनीस म्हूण एक सारखोच आसता. ताणें हांगा एक बरी समजिकायेची कळाशी सादल्या आनी तो तातूंत सफलय जाला. ही ताची सेक्युलर नदर भोव मोलाची. साहित्यिकांनी अश्योच वंयो मोडच्यो आसतात. सर्वांमदीं भोंवचें आसता. ना तर ताच्या साहित्याकच मर्यादा पडटात.

-महाबळेश्वर सैल

**GRATITUDE**

**To**

**Mr. R K Jaipuria**

**Chairman**



Owns businesses ranging from Beverages & Fast Food Restaurants, Ice Creams, Dairy Products, Education, Breweries, Healthcare & Hospitality across the Universe

**Varun Beverages Limited**

(11 Pepsi Plants)

**Devyani International Limited**

(Pizza Huts, KFC, Costa Coffee & Disney Artist Outlets)

**Devyani Food Industries Limited**

(Cream Bell Ice-Cream)

**Cryobank International, India**

(Stem Cell Banking)

**Modern Montessori International Ltd.**

**Delhi Public Schools**

(Prestigious Educational Hubs)

**Inbev India Industries Pvt. Ltd.**

(World Renowned Beers)

*** VINCY QUADROS ***

# अर्पण...

गोवा बॉटलिंग कंपनी लिमिटेड (आदली)
वरूण बेव्हरेजीस (इंटरनॅशनल) लिमिटेड
हांच्या सगळ्या सोंपून गेल्ल्या कामदारांक हें म्हजें पुस्तक हांव अर्पण करतां.

-विन्सी क्वाद्रूस

# मांडावळ

*'हांव सदांच म्हणटालों*
*हें घर तुजे देखरेखी खाला बरें भशेन*
*चलता आनी हांवें तातूंत लक्ष घलपाची*
*गरज ना म्हूण.' डायगोन आपले घरकान्नी*
*वयलो विस्वास प्रगट केलो.*

*'कितें जालें? हांव खंय चुकलें?' ताचे फुड्यांत*
*येत तिणें विचारलें.*

*'विलोना, आमच्या घरांत देवाचें उतर वावुरता.*
*आनी ह्या देवशिरांतीन चलपी मनशाचो एकलोच पूत*
*बेजापसालदार वागता म्हूण म्हाका लोक सांगूंक*
*लागल्यात. आयज एका हॉटेलांतल्यान म्हाका*
*फोन आयलो. आमच्या पुतान थंय म्हज्या*
*नांवान कितलेंशेंच बिल करून*
*दवरलां खंय.'*

1

# आत्मविस्वास

'हॅलो!' आपल्या ऑफिसांत वचूंक भायर सरिल्ल्या डायगोन रिंग जातांच फोन उखल्लो.

'हांव निखील देशमूख, रीगल हॉटेलाचो *फायनान्स कंट्रोलर.*' दुसरे वटेन सावन ताका जाप आयली.

'सांग इतल्या सकाळीं फोन करूंक कितें जालें?' डायगोन कारण विचारलें.

'तुज्या ऑफिसांत फोन करपाचो आसलों. पूण तुज्या फामाद आशिल्ल्या नांवाक लागून थंय तुमच्या नांवाचें पेंपारें वाजचें न्हय म्हूण हांगा फोन केलो.' ताणें नम्रतायेन सांगलें.

'बरें, सांग कितें सांगूंक सोदता तें.'

'पळय मीस्टर डायगो, तुजो पूत जोनाथनाच्या नांवार आमच्या हॉटेलांत खूब बिल जालां.'

'हांव ते सत मानपाक तयार ना.'

'तुज्यान हांगा येवन तपासूं येता.'

## 2

'तितलो वेळ म्हजे कडेन ना.'

'तुज्या नांवाक लागून आमी ताका सवलत दिल्ली.'

'*एक्सक्यूज मी मीस्टर देशमूख.* म्हज्या नांवांचेर बिल करूंक तुमी म्हजी परवानगी घेवंक नासली. आनी एक वायट सवलत म्हज्या नांवार तुमच्यान कशी दिवं येता?' डायगो मातसो तापलो.

'ताणें तुजें नांव सांगलें आनी आमच्या धनयान थोडो वेळ पळोवपाक विनंती केली. ते तुमकां बरे वळखतात.'

'ते खातीर तुमकां दिनवास. पूण तो म्हजो पूत म्हूण ताणें केल्लें अनैतीक काम हांवें मानून घेवचें?'

'तुज्या पुता विशीं तूं अशें उलयता?' देशमूखान अजाप उक्तायलें.

'बरें तें कोणूय तोखेता, वायट ताका धिक्कारता.'

'आमी ताका कायदेशीर नोटिस दिवंक शकतात.' देशमूखान कायद्याचो आदार घेतलो.

'तसो तुमकां अधिकार ना. कित्याक पयलीं म्हणल्यार तुमी ताका उदार दिवंक नाका आसलें. दुसरें म्हणल्यार चड बिल जालां म्हूण म्हाका सांगीपसून तुमी रावंक नाका आसलें. तुमकां आमचें ऑफिस खबर आसा. थंय तुमच्यान बिल धाडूं येतालें.' डायगो परत शांत उलयलो.

'कितें करूंक जाय तें आमी आमचें पळोवन घेतात मीस्टर डायगो आनी *थँक्स फॉर यूअर कॉ-ऑपरेशन.*' तो समजून घेना तें पळोवन देशमूखान कितें करपाचें तें थारायलें.

'*वेट ए मिनट मीस्टर देशमूख. आय वील सी दॅट यूअर बिल वील बी सॅटल्ड येज सून येज इट रिचीस माय ऑफीस* आनी हे मुखार, *नो क्रेडीट एन्ड नो कम्युनिकेशन.*' डायगोन मारतें घेतलें.

'*थँक यू मीस्टर डायगो.*' देशमूखान ताचे आभार मानले.

डायगो ग्रुप ऑफ कंपनीस हाचो मालक डायगो सिल्वेरा त्या हॉटेलाच्या मनशाचें उलोवप आयकून बरोच थटकलो, अजाप जालो. हाचें पयलीं आनीक कोणें कोणें ताका पुता विशीं सांगिल्लें पूण ताणें

3

गंभीरतायेन घेवंक नासले. आयज ताका ताचेर विचार करचो पडलो. तो ऑफिसांत वचचे बदला थंयच बसलो आनी आपल्या पुता विशीं लोक कितें सांगताले ताचेर नियाळ करूंक लागलो.

'आयज कितें जालें? ऑफिसांत वचना?' तो बसला तें पळोवन विलोना, ताचे घरकान्नीन ताका विचारलें.

'हांव सदांच म्हणटालों हें घर तुजे देखरेखी खाला बरे भशेन चलता आनी हांवें तातूंत लक्ष घलपाची गरज ना म्हूण.' डायगोन आपले घरकान्नी वयलो विस्वास प्रगट केलो.

'कितें जालें? हांव खंय चुकलें?' ताचे फुड्यांत येत तिणें विचारलें.

'विलोना, आमच्या घरांत देवाचें उतर वावुरता. आनी ह्या देवभिरांतीन चलपी मनशाचो एकलोच पूत बेजापसालदार वागता म्हूण म्हाका लोक सांगूंक लागल्यात. आयज एका हॉटेलांतल्यान म्हाका फोन आयलो. आमच्या पुतान थंय म्हज्या नांवान कितलेंशेंच बिल करून दवरलां खंय.' डायगोन आपलें व्हडपण घाणाक लागलां हाची खंत उक्तायली.

'खरेंच? हांव ताका विचारतां.'

'समजाय ताका, नांव आशिल्लें कुटूंब आमचें.' आपले घरकान्नीक सांगलें आनी तो ऑफिसांत वचूंक भायर सरलो.

ताचें मन आयज कशेंच थाऱ्यार नासलें. आपल्या पुताचेर आपणें केन्नाच लक्ष दिवंक नाशिल्ल्याची ताका खंत जाली. आपले घरकान्नीचेर भरवंसो दवरून जाय तेन्ना पयशे दिले, मागता तें दिलें. हाचें फळ अशें मेळत म्हूण ताणें धरूंक नासलें. आपलो मोग ताचेर ओतयलो, प्रत्यक्ष न्हय पूण भावनांनी. आपूण एक बापूय म्हूण खंय तरी उणो पडला हाची ताका जाणीव जाली, खूब वायट दिसलें.

आपल्या ऑफिसांत पावतांच ताणें आपल्या सेक्रेटरीक आपयलें आनी एक चीट बरोवन घेतली. ती चीट एका पाकिटांत घालून *अकावंट्स* खात्याक धाडून दिली. हॉटेल रीगलाचें बिल येत जाल्यार कळाव करिनासतना फारीक कर म्हूण ते चिटयेर ताणें बरयिल्लें.

सेक्रेटरी फाटोफाट तोवूय ऑफिसांतल्यान भायर सरलो. गाडयेंत

बसलो आनी आपल्याचे वागणुकेचेर नियाळ करूंक लागलो. थोड्या वेळाक तो विसरलो आपूण एक धंदेकार म्हूण. बापायपणाची जबाबदारी तो मनांत घोळोवंक लागलो. गाडयेंतल्यान वता वता पुता बराबर ल्हानपणांत सारिल्ले खुशाल दीस ताका याद जावंक लागले. एका खिणाक तो हांसलो.

त्या दिसाक ते दोगूय स्विमिंग पूलांत न्हातना पूत अकस्मात बुचकळूंक लागलो तेन्ना डायगोन ताचे पॅन्टीक धरून ताका वयर काडलो. उदकांतल्यान तो भायर आयलोच पूण वयर पावतकच पुताची पॅन्टी पिंजून डायगोच्या हातांत आसली. तो बुचकळटालो ताका उबारलो म्हूण डायगोचें कौतूक करचे बदला, पुताचे पिंजिल्ले पॅन्टीक पळोवन सगळेच हांसूक लागले. तेन्ना ताकाय हांसूंक आयिल्लें.

गाडी मंद गतीन चलताली. ताचे पांय अचकीत ब्रेकाचेर गेले. तो गांवचे इगर्जे कडेन पाविल्लो. ताणें गाडी कुशीक घेतली आनी गाडयेंतल्यान देंवलो. इगर्जेच्या दारांत वचून उबो जालो. इगर्ज बंद आसली. तो पाद्रीच्या रावपा-घरा वाटेन गेलो आनी थंय आशिल्ल्या पवित्र संस्काराच्या कपेलांत भितर सरलो. उणेच एक वर भर तो दिमीयेर पडून रावलो. थंय आनीक कोणूच नासलो. आपल्या लागीं जाल्ले चुकीचें ताणें भोगसणें मागलें वा आपल्या पुताच्या बऱ्या फुडारा विशीं मागलें हें ताकाच कळूंक ना पूण ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवलीं. ते दुकांनी भरिल्ले दोळे ताणें खुर्सार खिळायिल्ल्या जेजूचेर थिर केले आनी एक मागणें केलें. ताच्या पुताचो पिसुडटो फुडार ताचे नदरे मुखार नाचूंक लागलो. आपल्या हातांतल्यान निसरून वचपी वेळाक सांबाळूंक आपणाक घटाय दी म्हणत तो थंयच्यान भायर सरलो.

घरा कडेन पावता म्हणल्यार दनपार जाल्ली. जोनाथनाक आयज सुटी आसली. देखून तो घराच आसलो. सगळीं जेवूंक बसलीं. डायगोन एक नदर आपल्या पुताचेर मारली. ताका दिसलें आपली सगळी तिडक ताचेर काडची आनी ताच्या कर्तुबां विशीं पाठ घेवंचो. पूण पुताचो निशपाप चेहरो पळोवन तोंडाक उतरांच सुटना जालीं. ताणें ग्लासांतलें

उदक पियेवपाचो यत्न केलो. एक घोंट मारलो पूण तें उदक गळ्या सकयल देंवना जालें. शिताची उंडी मारपाक ताचे हातूच उखलना जाले. नदर मात जोनाथनाचेर थीर आसली. आपल्या बापायच्यो भावना जोनाथनाक मात लेगीत कळनासल्यो. तो जेवपाक गुल्ल आसलो. विलोना तांकां नियाळीत आसली. नकळटाच डायगोच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळपाक लागलीं. घडये हें दोगांकूय खबर नासलें.

'डायगो! तूं रडटा? कितें जालें?' विलोना कडेन डायगोची परिस्थिती पळोवंक जायना जाली. ती कदेला वेल्यान उठून ताच्या फुड्यांत गेली. तो तरिकूय ज़ोनाथनाक पळयत आसलो आनी जोनाथन संवसाराचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्ले प्रमाण जेवीत आसलो. विलोनान ल्हवूच डायगोच्या खांदार हात दवरलो. ताणें वळून पळयलें. ताचीं दुकां अजूनय थांबूंक नासलीं. विलोनान आपल्या साडयेच्या पालवान ताचें तोंड पुसलें आनी ताका खांकेंत घेतलो. आपले घरकान्नीच्या पोशांत तो हुमट्यांनी रडूंक लागलो. तेन्ना मात जोनाथनाची नदर ताचेर पडली.

'पापा, असो कित्याक रडटा? कितें जालें मामा?' जोनाथन उठून उबो जालो.

'म्हाकाच खबर ना कितें जालें तें. आयज पयलेच फावट हांवें ताका असो रडटा तो पळयलो.' विलोनान अजाप उक्तावन सांगलें.

'कितें जालें पापा?' जोनाथनान डायगो फुड्यांत गेलो. आपल्या पुताक लागीं पळोवन डायगो उठलो आनी ताका घट्ट आपले वेंगेंत घेतलो.

'हांवें ह्या संवसारांत कोणाचेंच वायट करूंक ना. म्हजे कंपनींतल्या कामदारांक लेगीत हांव फावो ते परस चड दितां. हांव सदांच तांकां दयाळ नदरेन पळयतां. ते म्हजे भशेन मनीस म्हूण हांव तांकां लेखतां. देवाचे आज्ञे प्रमाणें हांव म्हजें जिवीत जियेतां. देखून ते म्हाका मानतात आनी चुकीचें पावल मारूंक वचचे पयलीं म्हजे कडेन येवन भासाभास करतात. पूण म्हज्या पुता, तुवें म्हजे कडेन आपले विशीं केन्नाच आपली गजाल करूंक ना. तूं पयस पयस रावलो. म्हजें खंय चुकता जाल्यार

म्हाका सांगूंक ना. हांवें कितें वांकडे केलें जाल्यार म्हाका विचारूंक ना. देखून हांव समजलों तूं बऱ्या रस्त्यान चलता आनी एक दीस आमचें नांव वयर काडटलो म्हूण. पूण आयज एकाच दिसाक म्हाका तुजे विशीं जायतें समजलें. तूं म्हाका सांगशी हातूंत कितलें सत आसा तें?' डायगोन आपल्या पुता कडेन मोगान सफाय मागली.

जोनाथन आपल्या बापायलीं उतरां आयकून एके वटेन भियेलो, थटकलो आनी ताचे वेंगेंतल्यान सुटून मातसो पयस गेलो. मान पोंदाक घालून उबो रावपा बगर ताचे कडेन आनीक दुसरो पर्याय नासलो. डायगोक समजलें खऱ्यांनीच आपलो पूत भटकला म्हूण. जेवण तशेंच सोडून तो भितर गेलो. ताचे फाटोफाट विलोनाय गेली. जोनाथन कितलोसोच वेळ थंयच उबो रावन आपल्या बापायन जेवण सोडिल्ले बशयेक पळयत उरलो.

रातच्या जेवणा वेळार परत सगळीं एकठांय जालीं. डायगो मेजार येवचे आदींच जोनाथन बसून आसलो. डायगो येतांच तो उठून उबो रावलो.

'पापा, तुका हांवें पयलेच फावट रडटना पळयलो. म्हाका खूब वायट दिसलें. तरी हांवें मनाक लावन घेवंक नासलें. सांजेर हांव सदचे भशेन भायर गेल्लों तेन्ना परत परत तुजें मुखामळ म्हजे नदरे मुखार येवंक लागलें. तुज्या गाला वेल्यान देंवपी दुकां म्हाका कसलेंच वांकडे काम करूंक दिना जालीं. हांव, मातसो विसव घेतलों म्हूण हॉटेलांत गेलों पूण थंयसरूय म्हाका कितेंच पियेवपाक लेगीन नाका दिसलें. परत्या पांयांनी हांव घरा परतलों. म्हज्या जिवाक खूब त्रास जाले पूण ते सोंसून घेवपाची खंयची तरी शक्त म्हजे भितर सरली. पापा, म्हाका दिसता हांवें तुज्या ओगेपणाचो आनी मेकळ्या सभावाचो खूब फायदो घेतलो. तुज्यो भावना हांवें वळखूंक नात. हांव चुकलों पापा, तूं म्हाका माफ कर.' जोनाथन सगळो वेळ मान पोंदाक घालूनच उलयलो.

'तूं हें सत उलयता म्हज्या पुता?' डायगोन ताची मान वयर केली.

'हय पापा, तुजीं उतरां न्हय पूण तुजीं दुकां म्हाका जायतें सांगून

गेलीं. खऱ्यांनीच म्हाका माफ कर पापा.' जोनाथनान ताचे हात धरले.

'बाबा, तशें जाल्यार माफी म्हजे कडेन मागूं नाका. माफी तुजेच कडेन माग. कित्याक हांवें तुका गुन्यांवकार थारवंक ना. तुवेंच तुका गुन्यांवकार थारयला.'

'हांव यत्न करतलों पापा.'

'तरी तें तितलें सोंपें न्हय. मनशाक एक फावट व्यसनाचो वसो लागलो वा जिवितांत वायट गूण भितर सरले जाल्यार ते सोंपेपणी वचनात. आनी वायट गजाली मनशांत चड घर करून रावतात. आमी दिसा दीसपट्टीं कितले अशे मनीस पळयतात जे पयशे आसून भिकाऱ्या प्रमाण वागतात. देवाक भियेवन पसून देंवचाराचीं कामां करतात. बरें वायट समजून पसून फकत वायटूच कामां करतात आनी आपल्या बराबर आपल्या घराब्याचें नांव इबाडटात.' डायगोन आपल्या पुताक थोडो उपदेश दिलो.

'बरे करणेची दिशा एक फावट सांपडली जाल्यार त्या मनशाचो आत्मविस्वासूच ताका थिरावंक शकता आनी म्हाका दिसता तो आत्मविस्वास म्हज्यांत किल्लला पापा.' जोनाथनान आपले भितर निर्माण जाल्ली ज्योत मुखार घाली.

'जायत घडये म्हज्या दुकांनी तुका तो आत्मविस्वास मेळोवन दिला. देवान तुजी राखण करूं.' डायगोन ताका आशिर्वाद दिलो आनी मेजावेलो ग्लास काडून मगांतलें उदक रकोवन घेतलें. एक मोगाळ नदर जोनाथनाचेर घाली आनी मंद हांसो दिवन जेवंक लागलो. बापूय पुताचो मोग पळोवन विलोनाच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.



# 8

'एक सांगूं
साल्वादोर. तुज्या सहवासांत
फाटल्या तीन म्हयन्यांत हांवें वेगळीच
खुशालकाय अणभवली. एक भशेन तुज्या
सहवासाची म्हाका वळख जाली. तूं म्हाका जायते
फावटी कितलो तेंकून आसतालो आनी आमी
एकामेकाक आपटून वतालीं. त्या वेळार म्हजें आंग-
आंग थरथरतालें. पूण अभ्यासाक लागून हांव म्हज्या
मनाक मारून घेतालें. कितलेशेच फावटी आमी
एकामेकाक पळयत रावतालीं, तेन्ना तुजी नदर म्हाका
पोसवण दिताली. म्हाका कितेंय समजना तेन्ना तूं म्हजेर
तापतालो आनी तुज्या घरांतलीं सगळीं येवन तुकाच
तापयतालीं, तूं म्हाका 'सॉरी' म्हणटालो, तेन्ना
म्हजें काळीज रडटालें. हांव नकळो कितें
म्हणपाचें तें पूण म्हजे कुडींत जीव आसा
आनी म्हज्याय काळजा-मनांत
भावना आसात.'

9

# ओलें मन

पांच वर्सांनी साल्वादोर कुवेटाची वियाज मारून गोंयांत परतलो. आपलें सगळें सामान गाडयेचे डिकींत घालून एक बॅग ताणें आपल्या हातांत धरलें आनी गाडयेंत बसलो. हें बॅग ताणें खास करून साबिना खातीर भरून हाडिल्लें. गाडी दाबोळी विमानतळा सावन मडगांवचे दिकेन रस्त्या वयल्यान धांवूंक लागली.

पांच वर्सां कशीं गेलीं तें साल्वादोराक कळ्ळेंच ना. गाडयेंतूच रावन ताणें आपलें 'बायनाकूलर' काडलें आनी भायर पळोवंक लागलो. क्विनी नगरा कडल्यान जुवारी आनी मांडवी न्हंयेच्या खदूळ उदकान तांबडो जाल्लो अरबी दर्या ताचे नदरेक गेलो. इबाडिल्लें पर्यावरण नदरेक पडलें. झाडां माडांचो नाश पळोवन ताका तिडक मारली. कांय कडेन सुदारप जाल्लें जाल्यार कांय कडेन घट्टण जाल्लें. गोंयची ही परिस्थिती पळोवन साल्वादोराचें काळीज दुखलें. तो पर्यावरण मोगी आसलो. गोंयांत आसतना इबाडिल्लें पर्यावरण पळोवन ताका सदांच हुस्को जातालो.

# 10

जाता तितले बेगीन घरा पावून साबिनाक पळोवपाची ताका इत्सा जाल्ली. कुवेटांत आसतना दोन तीन फावटी फोना वयल्यान ताची खबर घेतिल्ली. पूण ताच्या बापायच्या अचकीत मरणाक लागून ताका तांचें पुर्वजांचें घर सोडचें पडलें आनी तीं दुसरे कडेन रावूंक गेलीं. म्हूण एक भशेन तांचे मदलो पुलूच तुटून गेल्लो. आदलें शेजारी साबिना आतां पयसुल्लें कशें जाल्लें. तांची इश्टागतूय पयसाविल्ली. तरी पूण साल्वादोराच्या मनांत साबिनान घर केल्लें. जाता तितले बेगीन तो साबिनाक मेळूंक सोदतालो, पळोवंक सादतालो. ताका साबिनाचे पयले भेटेची याद आयली. गाडी मडगांवचे दिकेन नेटान धांवताली.

एका व्हडल्या उक्त्या लग्न-वसऱ्यांत मिंगेलाचो लग्न सुवाळो चलतालो. सगळीं संगिताच्या नादार आपले उमेदीर आसलीं. कोण नाचतालीं जाल्यार कोण ओगीच आपले हात हालयतालीं. थोडे बियरीचे ग्लास घेवन चकाटां मारताले, जाल्यार कोण बरे नाचप्याक तोखेताले. साबिना, मिंगेलाची बापूल भयण मात एकलेंच एका कोनशाक बसून एक सारकें भायले वटेन पळयतालें. तें किते तरी सोदतालें असो कोणाकूय दुबाव येवंक फावो.

साल्वादोर, गांवचो एक बरो तरणाटो म्हूण ताका वळखताले. तो साबिनाचो शेजारी. दोन तीन फावटी आपल्या बराबर नाचूंक यो म्हूण साबिनाक आपोवंक गेल्लो पूण तें वचूंक नासलें. अचकीत ताच्या फुड्यांत दोग चले येवन उबे रावले. तें तांकां वळखनासलें. घडये ते व्हंकले वटेन आयिल्ले आसत.

'बरेच नखरे करता मरे हें चेडूं. येना गो नाचूंक?' एकल्यान फोर्सान जाप काडली.

'हांव मातसो वेळ नाचयतां तुका. चल या गो.' दुसऱ्यान सांगलें.

संगिताचो आवाज चालूच आसलो. साबिनान तांचेर एक नदर घाली आनी परत आपलेच वटेन पळयत रावलें. एकल्यान ताचो हात धरलो. साबिनान ताचो हात शेवटून मारलो आनी तिखट नदरेन ताका पळयत रावलें.

# 11

'बरेंच उसळटा मरे सुंगटा भशेन.'

'तुमी बेश्टेच म्हजे वाटेक येनाकात, पयलींच सांगतां.' साबिनान तांकां शिटकावणी दिली.

'आरे, तें येना म्हणटा जाल्यार तुमी ताका कित्याक बेजार करतात?' व्हंकलेचो भाव क्लिफ तांच्या फुड्यांत येयत उलयलो. 'चलात हांव तुमकां आनीक कोण तरी चेडूं दितां नाचूंक. सॉरी साबिना.' म्हणीत क्लिफान ताका हात हालयलो आनी तांकां घेवन मुखार गेलो.

थोड्या वेळान नाचून घामाघूम जावन साल्वादोर परत ताच्या फुड्यांत आयलो.

'कितें जालें साबिना, अशें ओगीच कित्याक बसलां? तुज्या बापूल भावाचें लग्न आनी तूं अशें कोनशाक बसून आसा? तुवें ज़ावन आमकां उमेदीर दवरपाचे.' साल्वादोरान ताका चाळोवपाच्या हेतून म्हणलें.

'तूं म्हाका मातसो घरा व्हरून पावयता?' साबिनाचो वेगळोच प्रस्न मुखार आयलो.

'घरा? सोंपलें गो लग्न? आनी जेवपाक बी नाका?'

'ना. म्हाका जेवण बी कांय नाका. म्हाका घरा वचूंक जाय.' तें हट्टाक पेटलें.

'कोणें खास नाचूंक बी येता म्हूण सांगिल्लें?' साल्वादोरान ताका चाळोवपाचो यत्न केलो.

'त्यो जाणवायो तुका कित्याक जाय? तूं म्हाका घरा कडेन सोडटा काय ना तें सांग.' तें तिडकलें आनी ताका रागान पळयत रावलें.

'पूण हांव....'

'म्हाका विस्वास आसा रे तुजेर.'

'ओगी राव. चल, व्हरून जाल्यार व्हरून पावयतां.' साल्वादोरान नमतें घेतलें.

तीं दोगांय तशींच वसऱ्या भायर सरलीं. साल्वादोरान आपली मोटरसायकल काडली आनी सुरू करपाक कोणें तरी ताका उलो मारलो.

'हाचें आनी कितें जालां?' साल्वादोरान तोंडांतूच म्हणलें. कोण

एकलो धांवून आयलो.

'सांबाळून वचून यो बेगीन.' तो क्लिफ आसलो. लग्नाच्या दिसांनी दोन तीन फावटी साल्वादोर आनी क्लिफाची भेट जाल्ली. साल्वादोरान ताका हांसो दिलो.

'लग्न अर्द्यारच सोडून घरा वचूंक कारण कितें साबिना?' वता वता साल्वादोरान ताका समजून घेवपाचो यत्न केलो. ताका लागून ताचोय मूड इबाडिल्लो. पूण तें कांय उलयलें ना. साल्वादोरानूय मुखार कितेंच विचारपाचें टाळ्ळें.

'साल्वादोर,' घरा कडेन पावून मोटरसायकली वयल्यान देंवतना साबिनान अचकीत साल्वादोराचो हात धरलो. घरांतलीं सगळीं लग्नाक गेल्लीं, तरी घराची भायली लायट पेटून आसली. 'तूं जाणां, म्हजें मन कशेंच शिकपाचेर लागना.'

'म्हणल्यार?'

'णव्वेक एक वर्स नापास जावन ह्या वर्सा कशें तरी धावेक पावलां. मम्मी-डॅडी शीक शीक म्हूण बोवाळ मारतात. आनीक तीन म्हयन्यांनी परिक्षा. अजून प्रिलिम्साची तयारी जावंक ना. शिकपाचेर मनूच वचना जाल्यार शिकतलें कशें?' साबिनान आपलें मन मेकळें केलें.

'कोणाच्या मोगांत बी पडलां काय कितें गो?' साल्वादोर आपल्या सभावाचेर गेलो.

'च्ये...' तें मातशें लजलें

'जाल्यार म्हज्यान तुका कसलो आदार करूंक जाता?'

'हांवें आयकलां तूं आमच्या वाड्या वयलो एक हुशार भुरगो म्हूण. धावेचे परिक्षेक तुवें आमचे शाळेंत फस्ट रँक घेतिल्लो खंय. तूं ट्युशन्स कित्याक दिना?

'ट्युशन? तो मायकल दिता न्हय गो?'

'शी बाबा! हांव वचचें ना ताच्या फुड्यांत. तो चेडवांक तिरशे नदरेन पळयता.'

'तें तुका कोणें सांगलें? तूं केन्ना गेल्लें?'

'आमच्या वर्गांतलें तें सुनिता सांगतालें. एक दीस ताच्या कुल्याक खंय ताणें चिमटो काडलो.'

'ओह! पूण आतांच्या भुरग्यांचे पासियेंस काडूंक म्हज्यान जावचें ना. शिवाय म्हाका नवीं नवीं झाडां लावंक भोंवचे पडटा. वेळ खंय आसा?'

'आपणाक जाय जाल्यार कसोय वेळ काडूंक जाता.'

'वेळा बराबर पासियेंस कोण काडटलो?'

'म्हजे खातीर इल्लेंशें पासियेंस काडूंक शकना? म्हाका दिसता कोणें तरी दाखयलें जाल्यार घडये हांव दोन उतरां शिकतलें.'

'पूण हांव तुका कसो शिकयतलों? हांव दीसभर नोकरेक आसतां.'

'नोकरे वयल्यान येतकच सांजेर म्हाका मातसो अभ्यास दाखोवंक जायना तुज्यान? सांजचें हांव तुज्या घरा कडेन येतां.'

'घरा कडेन येता? बरें तर हांव विचार करतां.'

'आतां जिवाक बरें दिसलें.'

'हेच खातीर तूं इतलें सिंतीर आसलें?'

'हय. परिक्षेचो अभ्यास करिनासतना जर हांव नापास जालें जाल्यार ह्या गांवांत भोंवपाक तोंड आसा म्हाका? एक फावट नापास जावन आयकलें तें पुरो. सगळ्यांनी उलयलें म्हाका. म्हूण चिंतूनच ह्या दिसांनी जेवण लेगीत चलना. आतां तुजे कडेन उलोवन जिवांत जीव आयलो. तूं म्हाका शिकयतलो न्हय साल्वादोर?' ताचो हात आपल्या हातांत घेयत साबिनान विचारलें. साल्वादोर मुमुरकोच हांसलो आनी ताणें ताका शिकोवपाचें मानून घेतलें.

'चल आमी परत लग्नाक या. आतां जाल्यार हांव तुजे बराबर मन सोडून नाचतलें.' साबिना बिनदास्त जालें. साल्वादोराकूय घडये ताचीं भुरगेंपणां आवडलीं आसतलीं.

तीं दोगांय परत लग्नाच्या वसऱ्यांत पावलीं.

'आरे, खंय भोंवडावन हाडलें ताका?' तीं येतांच क्लिफान प्रस्न केलो. तो तांचेरूच नदर दवरून आसलो. संगीत थांबिल्लें. 'तुमकां

मिंगेल विचारतालो मरे.'

'पिशें तें. घरा पावय म्हणलें म्हूण घरा व्हेलें. घरा कडेन पावतांच परत या म्हूण सांगूंक लागलें.' इतल्यान 'एमसी'न संगिताचो बरो नंबर मारूंक लायलो आनी सगळ्यांक आपआपल्या सांगात्यांक घेवन नाचूंक आमंत्रण दिलें. साल्वादोर साबिनाक घेवन नाचूंक लागलो. तें मन सोडून नाचलें. आतां मात ताचें मुखामळ खुशाल आसलें. तेच खुशालकायेंत ताणें लग्नाचो बरो आस्वाद घेतलो.

लग्न सोंपून घरा पावता म्हणल्यार रातचीं बारा वरां जावन गेल्लीं. कितल्या तेंपान साबिनाक सुस्त न्हीद लागली. ताचें मन उमेदीर आसलें. मनांतल्या मनांत ताणें शिकपाचो निर्णय घेतिल्लो. कशेय भशेन ह्या वर्सा ताका पास जावपाचें आसलें.

'मम्मी, तूं सांगता ते भशेन म्हज्यान कशेंच शिकूंक जायना. देखून हांवें थारयलां साल्वादोरा म्हऱ्यांत सांजेर मातसो वेळ शिकूंक बसूंक.' उठचे उठून साबिनान आपले मम्मीक आपली मांडावळ सांगली. ती च्याव करपाच्या बोवाळांत आसली.

'साल्वादोरा म्हऱ्यांत? तो केन्ना सावन ट्युशन दिवंक लागलो तर?' साल्वादोराचे नांव आयकून ताची मम्मी अजाप जाली.

'ना मम्मी. तो ट्युशन दिवंक लागूंक ना. पूण ताणें म्हाका शिकयतां म्हणलां.'

'वाडिल्लें चेडूं मुगो तूं. ताच्या फुड्यांत गेल्यार लोक तुज्यो खबरी करचेनात?'

'शिकूंक गेल्यार पसून लोक खबरी करतात? आतां हीं इतलीं भुरगीं ट्युशनाक वतात, त्या सगळ्या भुरग्यांच्यो लोक खबरी करतात? कितें मम्मी तूं, तुजे धुवेकच असो थोमणो मारता?' साबिना मातशें बेजार जालें.

'आतां परिक्षेक कितले दीस उरल्यात गो? चल साल्वादोरा म्हऱ्यांत जाल्यार साल्वादोरा म्हऱ्यांत. पूण धावेक पास जा. नाजाल्यार तुजें तूं सांबाळ.' मम्मीन शिटकावणी दिली.

'तेच खातीर हांवें ताच्या म्हऱ्यांत वचूंक चिंतलां.'

दुसऱ्या दिसा सावन साबिना साल्वादोरा म्हऱ्यांत शिकूंक वचूंक लागलें. नोकरे वयल्यान येतकच साल्वादोर सुमार दोन तीन वरां ताका अभ्यासाक घेवन बसूंक लागलो. साल्वादोराची घरचीं एकदम बरीं मनशां. तें आपणागेर येता म्हूण तांकां कसलीच आडखळ जाली ना. कित्याक साल्वादोराची भयण सलोमी धावेक आसलें आनी तें ताका लागून तांगेर यो-वच करतालें. साबिना शिकूंक मातशें ढ आसलें पूण रुपान बरें दिसतालें आनी सभावानूय बरें आसलें. तांणी ताका आपल्या घरांत येवकार दिलो, बरें सहकार्य दिलें. साबिना बराबर सलोमीय अभ्यास करूंक बसूंक लागलें. अभ्यासाक सांगात मेळ्ळो आनी साबिनाक आदार जालो. केन्ना केन्ना साल्वादोराक येवंक उशीर जातालो तेन्ना तीं दोगांय मेळून आपले भितरूच अभ्यास करतालीं.

अशे तरेन साबिना अभ्यासांत इतलें गुल्ल जाल्लें की तें प्रिलिम्स परिक्षेंत सगळ्या विशयांत पूण काठार पास जालें. ताणें केन्ना धरूंकच नासलें आपूण पुराय वर्साचो अभ्यास करून पास जातलें म्हूण, चड करून कोंकणी विशयांत. प्रिलिम्स परिक्षे उपरांत पडिल्ले सुटयेंत ताणें मन लावन अभ्यास केलो. सकाळीं सगळो वेळ तें घरा कडेन अभ्यास करतालें आनी कितें समजना तें वेगळे कडेन बरोवन दवरतालें. आपल्यो अडचणी पयलीं साल्वादोरा कडल्यान समजून घेतालें आनी मागीर मुखा वयल्या अभ्यासाक लागतालें. ताका लागून साल्वादोराकूय बरें जातालें. परिक्षेचे दीस लागीं पावतात तशें साल्वादोरान तांकां चडूच वेळ दिलो. दोन तीन फावटी नोकरेक रजा घालून ताणें तांचो अभ्यास पळयलो. ह्याच बोवाळांत ताची भयणूय आदल्या परस बरे तरेन शिकूंक लागली. धावेच्यो परिक्षा जाल्यो आनी निकालाची वाट पळयत आसतना साल्वादोर आनी साबिनाची इश्टागत जाली. साबिना मदीं मदीं तांगेर येतालें आनी वतालें. आतां म्हणल्यार तें तांचे '*फॅमिली फ्रेन्ड* ' जाल्लें.

निमाणो, धावेच्या निकालाचो दीस उदेलो. साबिनाचे हड्डें

धडधडपाक लागलें. कालचे रातीक ताका न्हीद पडूंक नासली. मनांतल्या मनांत कितलेशेच फावटी ताणें देवाक उलो मारलो. तें साल्वादोराच्या फोनाक रावतालें. ताणें ताका सांगिल्लें आपूण 'इंटरनॅटा' वयल्यान निकाल पळयता म्हूण. सकाळीं ताच्या पोटांत च्याव लेगीत गेली ना. एके वटेन नापास जायत म्हूण भिरांत आसली. परिक्षा बरयतना गणीत पेपराक तें गोंदळांत पडिल्लें ताका लागून भियेल्लें. पूण साल्वादोरान ताका सगळो धीर दिल्लो. सलोमीनय ताका उर्बा दिल्ली.

फोनाची बेल वाजली आनी साबिना धांवून फोना कडेन गेलें.

'कितें जालें साल्वादोर? हांव पास न्हय?' दुसरे वटेन कोण उलयता तें पळयनासतना साबिना उलयलें.

'हांव बिर्ला सन लायफ इन्सुरन्स कंपनींतल्यान उलयतां. तुमकां एक गिफ्ट लागलां तें तुमी आमच्या ऑफिसांत येवन व्हरात.'

'पाड पडूं तुजें.' म्हणीत साबिनान फोन दवरलो. तितल्यान परत फोन वाजलो. साबिनान फोन घेतलो. '*काँग्रेच्युलेशन* साबिना. तूं पयल्या वर्गांत पास जालें आनी तुका 71% गूण मेळ्ळ्यात, आनी इतलेंच न्हय तर कोंकणी विशयांत तुका 91% गूण मेळ्ळ्यात.' साल्वादोराचीं उतरां आयकून साबिनाच्या तोंडांतलें उतरच सुटना जालें. 'हॅलो साबिना, साबिना?' साबिनाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावूंक लागलीं.

'*थँक* यू साल्वादोर. हें सगळें तुकाच लागून घडलें.'

'हांवें कंप्युटर कॉपी काडल्या, ती हांव सांजेर घेवन येतां.'

'आनी सलोमीचो निकाल?'

'तेंवूय पयल्या वर्गांत पास जालें.'

'देवाचे व्हड उपकार.'

साबिना एकलेंच घरा कडेन साल्वादोराची वाट पळयत आशिल्लें. ताची मम्मी बाजारांत गेल्ली. साल्वादोर येता आसतना निकाल आनी पेढे घेवन सरळ साबिनागेर गेलो. आपलो निकाल पळोवन साबिना एकदम खुशाल जालें. '*थँक यू साल्वादोर.*' परत एक फावट म्हणीत ताणें ताका घट्ट वेंग मारली. साल्वादोर खरेंच अजाप जालो. ताणें

चिंतूंकच नासलें साबिना अशी आपली प्रतिक्रिया दाखयतलें म्हूण. ताणें ताका बेगीबेगीन सोडोवन घेतलें. कोणूय पळयत जाल्यार...?

'फाल्यां हायस्कूलांत वचून *मार्कलिस्ट* घेवन येवंक जाय.'

'सलोमी आनी हांव वचून घेवन येतात.'

'परवां कॉलेजींत प्रवेश घेवंक वचूंक तयार राव. हांवें रजा घेतल्या. सलोमीक आनी तुका सायन्स कॉलेजींत घालपाचो विचार जाला.'

'पूण म्हाका सायन्स शिकूंक नाका. आर्टस करून हांव टीचर जावंक सोदतां.'

'काल मेरेन तुका कसलोच निर्णय घेवंक कळनासलो, आनी आयज... वाह!'

साबिना आनी सलोमी आपलो निकाल पळोवन खूब खुशाल आसलीं. दोगांय मेळून साल्वादोराचे गूण गायतालीं. खरें पळोवंक गेल्यार ताकाच लागून तीं इतल्या बऱ्या गुणांनी पास जाल्लीं. आतां कॉलेजीक वचून बरें शिकपाचो ताणीं निर्णय घेतिल्लो. ते प्रमाणे साल्वादोरान पयलीं सलोमीचो सायन्स कॉलेजींत प्रवेश मेळयलो आनी ताका घरा धाडलें. उपरांत साबिनाक घेवन दुसरे कॉलेजींत आर्टस स्ट्रीमींत प्रवेश मेळोवंक गेलो. साबिनाचे गूण पळोवन प्रवेश मेळोवंक चड कश्ट पडले नात. तांचें काम रोखडेंच जालें.

'साबिना, फाटल्या तीन म्हयन्यांत तुवें म्हजो सुसेग पेड्ड्यार केलो. म्हजे जिणेचेर परिणाम केलो. आतां म्हजो जीव सुस्त जाला.' प्रवेश मेळोवन परततना साल्वादोरान आपल्यो भावना उक्तायल्यो. 'चल आतां एक बरीशी च्याव मारून या.' तीं दोगांय लागींच आशिल्ल्या एका हॉटेलांत भितर सरलीं.

'जाणा साबिना, तुवें म्हज्या मनांत आनी काळजांत जागो केला. हांवें तुजो फायदो काडलो म्हणटलें म्हूण हांवें म्हजी भावना तुजे कडेन केन्नाच उक्ती करूंक ना. देखून तुज्या जिवितांत तूं एक व्हड मनीस जावन बरी टिचर जावपा खातीर शुभेत्सा दितां.' साल्वादोर आपल्या मनांतलें उलयलो.

'तुवें म्हजे खातीर जें कितें केलां तें हांव केन्नाच विसरचें ना.'

'आनीक हांव विसरूंक शकतां? पयले फावटी हांवें इतले त्रास काडल्यात. मनांत नासतना लेगीत तुका शिकयलां. सलोमी आपणाक शिकूंक म्हजे फाटीक लागिल्लें. ताचें आयकूंक ना हांवें. तुज्या उतराक कसो बळी पडलो तेंच समजना.'

'एक सांगू साल्वादोर, तुज्या सहवासान फाटल्या तीन म्हयन्यांत हांवें वेगळीच खुशालकाय अणभवली. एक भशेन तुज्या सहवासाची म्हाका वळख जाली. तुजे विशीं केन्नाय आयकतालें पूण ह्या तीन म्हयन्यांत तुजो ताळो म्हजे भितर उलयतालो. तूं म्हाका जायते फावटी कितलो तेंकून आसतालो आनी आमी एकामेकाक आपटून वतालीं. त्या वेळार म्हजें आंग-आंग थरथरतालें, पूण अभ्यासाक लागून हांव म्हज्या मनाक मारून घेतालें. कितलेशेच फावटी आमी एकामेकाक पळयत रावतालीं, तेन्ना तुजी नदर म्हाका पोसवण दिताली. म्हाका कितेंय समजना तेन्ना तूं म्हजेर तापतालो आनी तुज्या घरांतलीं सगळीं येवन तुका तापयतालीं, तूं म्हाका 'सॉरी' म्हणटालो, तेन्ना म्हजें काळीज रडटालें. हांव नकळों कितें म्हणपाचें तें, पूण म्हजे कुडींत जीव आसा आनी म्हज्या काळजा-मनांत भावना आसात.'

'हाचो अर्थ कितें?' ताचें उलोवप आयकून साल्वादोर घुस्पलो आनी ताका पळोवंकूच उरलो.

'पुस्तकांतल्या अणभवा प्रमाणे हो मोग जावन आसा.' ताणें आपलें पुस्तकी गिन्यान सांगलें.

'पूण ही तुजी मोग करपाची पिराय न्हय. पिशें खंयचें.' साल्वादोर हांसलो.

'तुवें तुज्यो भावना उक्तायल्यात, त्योच भावना हांवें उक्तायल्यात. कितें तें तूं चींत. पूण म्हाका टिचर जाय मेरेन शिकूंक जाय. म्हजे खातीर तूं...'

'साबिना, मोग म्हणल्यार भुरग्यांचो खेळ न्हय. तूं पिरायेन व्हड जालां खरें पूण तूं पयलीं तुजें शिकप पूर्ण कर, मागीरूच ह्या गजाली

विशीं चींत.'

'आनीक तूं म्हाका शिकोवचो ना?'

'ना.'

'तशें जाल्यार हांव कॉलेजीक वचचें ना.' ताणें आपलें तोंड वांकडे करीत म्हणलें.

'कसलीं पिशेंपणा उलयता?' तुवेंच सांगलां न्हय आपणाक शिकूंक जाय म्हूण?'

'तूं म्हाका शिकोवचो ना जाल्यार हांव कॉलेजीक वचचें ना हें पक्कें.'

'पळय, हांव तुका सांगूंकच विसरलों. म्हाका कुवेट वचपाची व्हिसा आयल्या आनी थोड्या दिसां भितर हांव कुवेट वतलों. मागीर तुजो अभ्यास कसो पळयतलों? पांच वर्सांची वियाज मारपाची म्हाका संद मेळटा.'

'पांच वर्सांची वियाज? आनी म्हजें कितें जातलें?' ताका एक प्रकारची पोकळी दिसूंक लागली.

'पांच वर्सां अशींच वतलीं साबिना, तूं बरें भशेन शीक.' ताणें सहज सांगलें.

'बरें. तूं कुवेट वता न्हय? तशें जाल्यार एकदम बरें जालें. आमचोय कोण भायल्या गांवांत ना. म्हाका फॉरेन वस्तू हाडटलो न्हय? म्हाका फॉरेन चेर आनी साबू खूब आवडटात.'

'तुका जाय तें म्हाका सांग, सगळें हाडून दितां.'

'*थँक यू सो मच* साल्वादोर.' म्हणीत ताणें ताच्या हाताचो उमो घेतलो.

त्याच खिणाक गाडी ताच्या घरा कडेन येवन थांबली. साबिनाची याद म्हणल्यार एक चलचित्र कशें ताच्या दोळ्यां मुखार आसलें. साल्वादोराक पळोवन ताचीं घरचीं एकदम खुशाल जालीं. ताणें सामान देंवयलें आनी गाडी गेली.

सांजेर च्या पियेवन जातकच साल्वादोरान साबिना खातीर हाडिल्ल्या

सामानाचें बॅग घेतलें आनी 'आपले भयणीक उलो मारलो. 'सलोमी, चल आमी साबिनागेर वचून येवया. ताका थोडें सामान हाडलां तें दिवंक जाय. तुका घर खबर आसा न्हय?' सलोमी रोखडेंच तयार जालें. ताणें आपली मोटरसायकल काडली आनी सलोमी ताका वाट सांगीत साबिनाच्या घरा कडेन पावलीं.

'साल्वादोर कसो आसा? तूं आयला तें पळोवन एकदम बरें दिसलें.' साबिना साल्वादोराक आपल्यागेर आयला तें पळोवन खुशाल जालें.

'तूं कशें आसां?'

'हांव एकदम बरें आसां.'

'हें घे तुजे खातीर हाडलां हांवें.' ताणें बॅग मुखार काडलें.

'*थँक यू साल्वादोर.*' साबिनान बॅग घेतलें आनी मेजार दवरलें. इतल्यान ताचो मोबायल वाजलो. '*एक्सक्युज मी* साल्वादोर, सलोमी बसात न्हय.' ताणें मोबायल ऑन केलो आनी तें उलोवंक लागलें.

'ना ना, तूं आनीक कोणाक सोदूंक वचूं नाका. साल्वादोर पावलो गोंयांत... हय, हय. तोच उबारतलो साउद. तो म्हजो बरो इश्ट... ना... ना, ताचे इतलो बरो म्हाका दुसरो कोण वळखना...' साबिना उलयत आसलें. साल्वादोर एक फावट ताच्या तोंडाक जाल्यार एक फावट सलोमीच्या तोंडाक पळयत उरलो.

'उबारतलो न्हय म्हज्या काजराची साउद?' साबिनान साल्वादोराक विचारलें.

'तुज्या काजाराची साउद?' साल्वादोर सगळोच घुस्पलो.

'सॉरी, सॉरी. हांवें तुका सांगूंकच ना. हांव क्लिफा कडेन लग्न जातां. क्लिफ मिंगेलाचो मेव्हणो...' म्हणीत तें ताच्या फुड्यांत बसलें. ताच्या तोंडार प्रफुल्ल हांसो आसलो.

'आगो साबिना, तूं आजूनय हांगाच आसा? क्लिफ रावता मुगो तुका?' साबिनाची मम्मी भितर येता येता उलयली.

'वतां, वतां मम्मी... बरें साल्वादोर, सलोमी, काजाराक सांगूक

येतलें हांव तुमच्या घरा कडेन. बाय. साउदीची खबर विसरशी.' तें गेलें.

'हांव तुमकां च्या करून हाडटां आं.' म्हणीत साबिनाची मम्मी भितर गेली. साल्वादोरान कसलीच प्रतिक्रिया दाखयली ना. तो पळयतूच उरलो. ताणें हाडिल्लें बॅग साबिनान उगडून पसून पळयलें ना. ताणें एक नदर सलोमीचेर घाली.

'तुवेंनूय म्हाका कित्याक कळोवंक ना साबिनाची गजाल?' साल्वादोराच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. सलोमीन ल्हवूच आपल्या भावाक आपले खांकेंत घेतलो. तेन्ना मात साल्वादोराचीं दुकां घसघशींत देंवलीं. एक नदर साबिनाक हाडिल्ल्या बॅगाचेर घाली आनी आपल्या ओल्या मनाक थाकाय दीयत सलोमीक घेवन तो भायर सरलो.



*'हांव एक सरकारी कामदार. फोडून काडपाच्यो गजाली म्हाका सोबतात? म्हाकाय जायते फावटी दिसता ताका मोडून उडोवचो. पूण हांव तशें करूंक शकना. ह्या इल्ल्याश्या तेंमाक लागून तुमी ताका मोडून उडयतले आनी तुमी वतले, पूण तो सदांच म्हज्या दोळ्यां मुखार आसतलो. हांव कशे तरेन समाधानी जातलों की हो आपल्याच गुन्यांवान असो जाला म्हूण. म्हज्या घराचें काम काबार जातकच हांव हांगा रावूंक येतलों. तेन्ना तो म्हाका सदांच मोडिल्लो दिसतलो. तूंच सांग, मनाक शांती आसतली?'*

# उदारपण

'खूब दिसांनी याद जाली मरे ज्योवितो.' आपल्या घरांत बरोच आदलो एक इश्ट ज्योवितो भितर सरता तें पळोवन फ्रँकीन म्हणलें.

'आयच्या ह्या कलयुगांत आपलें काम आसा तेन्नाच दुसऱ्याची याद जाता न्हय? आदले भशेन गजाली करूंक खंय वेळ आसा?' ज्योवितोन म्हणलें.

'जावं आयलो तरी. कोणाकूय जाल्यार उपकारतात आमी राजकारणांत वावुरपी मनीस.'

'हय तर.  तुमचे असल्या मनशांचो फायदो काडूंकच जाय.'

'सांग कित्याक आयिल्लो?' ताका बसपाक दीयत फ्रँकीन म्हणलें.

'जाणा फ्रँकी, नवें घर काडपाक हात घालपाचो असलों, अजून प्लानूच पास जायना मरे. कितें करपाचें कांय समजना.' ज्योवितोन आपली अडचण मुखार घाली.

'कित्या खातीर प्लान पास जायना तें विचारूंक ना?'

'तो संजू म्हाका सारकोच सतयता.'

'कोण, तुजो शेजारी संजू?'

'हय. तोच तो.'

'हांव वळखतां न्हय ताका?'

'हय रे. तूं ताका दोन फावटी तरी भेटला.'

'मागीर, तो कितें पिसो जाला रे? तुजे कडेन बरो उलयता आनी ताकाच न्हय रे ती बस वेवंक बँकेंतल्यान रीण काडूंक तूं गॅरेंटर राविल्लो तो?'

'हय.'

'मागीर, इतलो बदमास कसो जालो तो?'

'आतां ताचें रीण फारीक जालां. बस सुटली. म्हजी कित्याक गरज आसा ताका?'

'इतले बेगीन रीण कशें फारीक केलें ताणें? आमच्या गांवांत पिंटोन बस घेतल्या. बसीचे हफ्ते भरपा इतली बस चलना म्हूण बोवाळ मारता मरे तो. कितल्यो बशी जाल्यात खंय एकाच रस्त्यार. आमचे आर.टी.ओ. वचत ताका बस काडूंक प्रोत्साहन दितात, जाय त्या रस्त्याचेर परवानो दिवन. संजूची बस इतली बरी चलता तर? कोणाक फारयलो कितें रे ताणें बस बरी चलंकू?' फ्रँकीन अजाप उक्तायलें.

'बस खंय बरी चलता? ताची एकलीच भयण दुबय गेल्या आनी तिणें ताका पयशे धाडून तें रीण सगळें काबार केलां. रीण फारीक करपाचें टॅन्शन ना न्हय? तो आतां गरजे भायर म्हजे वाटेक लागला. पयर वचून परत एक फावट पंचायतींत कागाळ नोंद केल्या आनी ताची कॉपी *पीडब्लूडी* आनी *टावन अॅण्ड कंट्री प्लॅनिंगाक* दिल्या. तांणीं ताचेर सरळ शेरो घाला की म्हाका घर बांदूक परवानगी दिवची न्हय म्हूण.'

'नाच्च करून उडोवया? तुजे फाटल्यान कोण ना दिसला ताका? फोडून काडटलो म्हूण सांग ताका. कोणाच्या खुस्तार असो नाचता रे तो? खंयच्या मंत्र्याक धरला ताणें?' फ्रँकीन ताका धीर दिलो.

'हांव एक सरकारी कामदार. फोडून काडपाच्यो गजाली म्हाका सोबतात? म्हाकाय जायते फावटी दिसता ताका मोडून उडोवचो. पूण हांव तशें करूंक शकना. ह्या इल्ल्याश्या तेंमाक लागून तुमी ताका मोडून

उडयतले आनी तुमी वतले, पूण तो सदांच म्हज्या दोळ्यां मुखार आसतलो. हांव कशे तरेन समाधानी जातलों की हो आपल्याच गुन्यांवान असो जाला म्हूण. म्हज्या घराचें काम काबार जातकच हांव थंय रावूंक वतलों. तेन्ना तो म्हाका सदांच मोडिल्लो दिसतलो. तूंच सांग. मनाक शांती आसतली?' ज्योवितो आपल्या सभावा प्रमाणें उलयलो.

'वाह! कितें विचार रे तुजे? तूं संता भक्तांचे वळेरेंतलो काय कितें रे? कोण तरी तुजें वायट करूंक चिंत्ता आनी तूं ताचें बरें येवजिता. होच तुजो उदारपणाचो सभाव म्हाका आवडटा.'

'असोच सभाव दवरचो पडटा तो आतां.'

'बरें आसा. तूं एक काम कर. ताचे विशीं थोडी म्हायती आसा म्हाका. ते प्रमाण ताणें आपल्या घराचो बल्कांव कायदेशीर बांदूंक ना. ताचेर आतां तूं एक कागाळ नोंद कर. पंचायतीकय मातशी कमाक लागूं मरे. तेन्ना तरी सुदारता जाल्यार पळोवया.' फ्रँकीन ताका मांडणी दिली.

'तसो तो सुदारतलो?'

'कित्याक म्हणटा तूं अशें?'

'सांगतां. एक दीस हांवें संजूक सरळ विचारलें 'आरे बाबा, हांवें घर बांदल्यार तुका कसली अडचण जाता? कित्याक म्हूण तुवें म्हजेर कागाळ केल्या? शेजारी मरे आमी, एकामेकाक पावपाचे. बसून उलोवन काबार करया.' ताचेर ताणें म्हाका कितें सांगलें तें जाणां तूं? सांगूंक लागलो 'हें तूं कितें उलयता ज्योवितो? हांवें तुजे पांय धुवन उदक पियेवंक जाय मरे. तुकाच लागून हांव इतले वयर पावला.' आतां तूंच सांग फ्रँकी, ताचे कडल्यान आनीक कसली अपेक्षा करूं?'

'ताची कसलीय अशक्तताय खबर आसा तुका?' फ्रँकी परतून विचार करूंक लागलो.

'ताचेर विचार करतालों हांव.'

'कित्या खातीर म्हूण ही भितरले भितर दुस्मानकाय? कितें *आयडीया* आसा तुका?'

'एक गजाल म्हाका बेशटीच मनाक खाता. ताचे कडेन आतां पयशे

जाल्यात. देखून तो गांवांत आतां जागृत मनीस जाला. जायते लोक ताका आपलो फुडारी कसो मानतात. हांव सारकें नकळों पूण कोण कोण उलयतात, ताचेर कुड्ड्या देवांचो हात आसा म्हूण. हें म्हाका पासून एक दीस जाणवलें जेन्ना गांवच्या एका लग्न सुवाळ्याक ताका साउद उबारपाक व्हेल्लो आनी हांवूय थंय हाजीर आसलों. ताणें साउद उबारपाक सुरवात केलीच ती एका रडगाण्यान. मागीर नाका जाल्लें उलयलो. तो जें उलयलो तें आयकून सगळ्यांकूच बेजार आयलो. म्हाका मारली तिडक. हांवें मातसो आवाज मोटो करून व्हंकलेच्या बापायक विचारलें, हीं असलीं पिशेपणां आयकूंक आमकां हांगा आपयल्यात काय म्हूण. घडये म्हजें चुकलें आसत, पूण तो लुगार नासलो तसले भाशेंत उलोवपाचो. तेन्ना सावन म्हजेर मातसो कोंत्र आसा काय दिसता म्हाका.' ज्योवितोन फाटली घडणी फ्रँकी मुखार दवरली.

'तशें जाल्यार हांव पळयतां म्हजे कडेन कितें करूंक जाता तें. तूं चल आनी दोन दीस सुसेग घे. हांव म्हजे वतीन यत्न करतां.' फ्रँकीचे आभार मानून ज्योवितो भायर सरलो.

फ्रँकी तसो बरोच *पावरफूल* मनीस. प्रत्यक्ष रितीन केन्नाच वेंचणुकेंत देंवलो ना. पूण ज्या मनशा फाटल्यान रावलो तो वेंचून आयलो. ताका मांडावळ करपाची बरीच हिकमत आसली. ताचेरूच ते राजकी मनीस प्रभावीत जाताले आनी ताका लागीं दवरताले. आयज तो एका मंत्र्याचो खास मनीस म्हूण वावुरता. ज्योवितोचो बरोच आदलो इश्ट. देखून तो तांगेर येवपी आनी वचपी. तेन्नाच संजूकय तो वळखतालो.

फ्रँकीन आपल्या इश्टा खातीर काम सुरू केलें. आपल्या एका मनशाक धाडून संजू विशीं बरीच म्हायती एकठांय केली.

संजूविशीं खबर अशी - ताचो आजो आपल्या भुरगेपणार एका चेडवाच्या मोगान पडलो. ताका हांगा थंय घेवन भोंवलो. ताचे बराबर बरीच मजा मारली आनी मजेच्या फळाची जबाबदारी घेवच्या वेळार, ताका सोडून दिवंक सोदी, पूण गांवच्या लोकांनी एकठांय येवन तांचें फोर्सान लग्न केलें. तांकां एक भुरगो जल्मलो. उपरांत ताचीं आनिकूय

प्रकरणां उत्काडार आयलीं. तो दुयेंत पडलो. हें दुयेंस म्हणल्यार एड्स आसलें. बरोच कश्टून तो मेलो. आवयन भुरग्याक व्हड केलो.

बापूय-पुताचें रगत वेगळें थारता? भुरग्यानूय बापायभशेनूच केलें. तोवूय चेडवां फाटल्यान लागलो. एक दीस एका चेडवाचे पयशे मेळटात म्हूण ताका घेवन जयपुराक भोवंक गेलो आनी ताच्या मोगांत पडलो. मोगान पडून चेडूं गुरवार जालें. ह्या काळांतच तो ताका सोडून दिवंक वतालो. ताकाय चेडवाच्या घरच्यांनी धरून तांचें लग्न केलें. ताचे पसून जल्मल्लो हो संजू. संजूचो बापूय आपल्या बापाय भशेनूच अंतरलो. मागीर लोक उलयताले ताकाय एड्साचे दुयेंस जाल्लें म्हूण.

आतां ताका फकत एक भयण आसा. चाळीस वर्सां जावन गेलीं पूण अजूनय लग्न जावंक ना. घडये आपल्या कुटुंबाचो इतिहास पळोवन दोगांय लग्न जावंक नात आसतलीं. तें दुबय गेल्यार पांच-स वर्सां जालीं आनी अजूनय परतूंक ना.

आतां संजू आपलो वेळ पासार करूंक ज्योवितोक सतयता वा खरेंच त्रास करूंक सतयता म्हूण सोदून काडूंक मार्ग नासलो. दोन तीन फावटी सरपंचाक मेळून ताणें ज्योवितोचेर तोंडी कागाळ केल्ली. पूण पंचायत अधिकारी जाणा आसले ज्योवितो सरकारी कामदार म्हूण. देखून ते ज्योवितोचेर कारवाय करिनासले. हें कळटकच संजून लेखी कागाळ दिली. अशी खोलायेन खबर फ्रँकीच्या मनशान एकठांय केली.

हो सगळो इतिहास अभ्यास केले उपरांत फ्रँकीक दिसलें ज्योवितोक खऱ्यांनीच आदार करपाची गरज आसा म्हूण. संजूचे कागाळेंत कांयच दम नासलो. ताणें आपलें बळगें वापरून ज्योवितोची फायल पास करून घेतली.

ज्योवितोच्या घराचें काम सुरू जालें. हें पळोवन संजू अजाप जालो. 'कशी ताची फायल पास जावंक शकता?' ह्या प्रस्नान ताका घेरायलो. ताणें खबर काडली आनी रोकडीच दुसरी कागाळ बरयली की ताचें घर रस्त्याचो 'सेटबॅक' सोडून ना म्हूण. सरपंचान ज्योवितोक आपोवन हाडलो आनी काम बंद दवरूंक सांगलें. संजूक परतून हांसूंक

आयलें.

तशें पळोवंक गेल्यार संजूचें घर रस्त्या पसून कितलें पयस आसलें? ज्योवितोन संजूच्या घराचेर परत कागाळ केली आनी तातूंत ताचो बल्कांव बेकायदेशीर बांदला हाचेर कारवाय करूंक मागणी केली.

सेक्रेटरीन ज्योवितोक आपोवन व्हेलो. तांचे मदीं वाद जालो. सेक्रेटरी कितेंच आयकुपाक तयार ना तें पळोवन ज्योवितोक ताची तिडक मारली.

'तुमी म्हाका परतून चिटूच बरोवन दाखयात, हांव तुमचीं पाळां मुळां वयर कडिना जाल्यार पळयात.' त्याच वेळार ज्योवितोन सेक्रेटरीक आव्हान केलें

ज्योवितोचो हो अवतार पळोवन सेक्रेटरी आनी सरपंच पेंचात पडले. कितें करपाचें? दोनूय वटेनी *प्रेशर*. ज्योवितोन आपल्या घराचें काम बंद दवरूंक ना. काम अदीक नेटान केलें. चड कामदार घालून ताणें तीन म्हयन्यां भितर घर उबें केलें. भायल्यान प्लास्टर केलो आनी लायटीचें वायरिंग करूंक सुरू केलें.

हें पळोवन संजू बरोच बेजार जालो. पंचायतींत पासयो मारूंक लागलो. ज्योवितोचें काम कशेंच आडवनासलें. ताका समजना जालें कितें करपाचें तें. ताणें परत एक पत्र पंचायत संचालकाक बरयलें आनी पंचायतीचेर चेपण हाडपाचो यत्न केलो.

एके वटेन सरकारी कामदार आनी दुसरे वटेन मातसो पयशांचो फोर्स आशिल्लो मनीस. एक झूज कशें चलूंक लागलें. तातूंत चिड्डूंक लागले ते सरपंच आनी सेक्रेटरी. ज्योवितोचें घर निमाण्या पांवड्यार पावलें.

'ज्योवितो, आतां तरी अर्ज कर घराक नंबर घेवंक. लायटीचें वायरिंग करून सोंपत आयलां. फाल्यां प्लंबिंगाचें काम करूंक मनीस येतलो. तांचे खातीर कितलो वेळ लागतलो म्हूण खबर ना. बेगीन जावंक नाका तें?' ज्योवितोचे घरकान्नीन ताका समजायलो.

'डॅडी, हो रूम म्हजे खातीर आं.' धाकल्या फियोनान एक वटेन

बोट दाखोवन म्हणलें.

'तशें जाल्यार तो रुम म्हाका. हांव थंय स्पेशल लायटी घालूंक लायतां. म्हाका म्हजे खाटी कडेन दोन लायटी घालूंक जाय. खाटी कडेन लायटी आसल्यार रातचो अभ्यास करूंक बरें जाता.' व्हडल्या स्टेनलीन आपलो प्लॅन सांगलो.

'पळयलें न्हय, भुरगीं कितलीं आशेन आसात तीं. घर केन्ना जातलें काय म्हण भुरगीं वाट पळोवन आसात.' घरकान्नीक भुरग्यांची अपुरबाय दिसली.

'बरें चल, घर नंबरा खातीर हांव आयजूच पंचायतींत वचून अर्ज दिवन येतां.' म्हणीत तो मेजा फुड्यांत गेलो आनी अर्ज बरोवंक लागलो.

अर्ज दिवन आठ दिसांनी ताणें चवकशी केली. घराक अजून नंबर मेळूंक नासलो. पंचायत कचेरेंत कोणूच सारकें सांगूंक तयार नासले. ज्योवितो बेजार जालो आनी सरळ सरपंचाचे कचेरेंत गेलो. सरपंच बसून आसलो.

'यो, यो, ज्योवितो. पळय, तुजे आड कागाळी आसात त्यो हांव समजतां. पुण तूं म्हाका सांग, म्हजे आड ज्यो कागाळी आसात तांकां आमी कशें तोंड दिवपाचें?' ज्योवितोचें रागिश्ट मुखामळ पळोवन सरपंचान ताका येवकार दीत आपली अडचण मांडली.

'तुमचेर कागाळी हांवें करूंक नात. तुमचें तुमी पळोवन घेयात. तूं म्हाका एकूच सांग. म्हज्या घराक नंबर दिता वा ना?' ज्योवितोचो राग चडपाक लागलो.

'कालूच आमचे पंचायत बॉडीची बसका जाल्या आनी तुका नंबर दिवपाचेर भासाभास जाल्या.'

'कितें थारयलें तुमी बसकेंत? म्हाका नंबर दिवंचो न्हय म्हूण थारयलां?'

'हय. पूण...'

'कोणें विरोध केलो? म्हाका दाखय तुमचो बसकेचो अहवाल. हांव पळयतां कोणें विरोध केलो तो.'

'तुका तसो तो दाखोवंक मेळटा?'

'हांव एक सामकोच बोंडों अशें बी तूं समजता सरपंच? हांव ह्या गांवचो नागरीक ह्या नात्यान तुवें तो म्हाका दाखोवंक जाय. कायद्यान उलयता जाल्यार हावूंय कायद्यान उलयतां. म्हज्यान *आरटीआय* वतीन तुमचे बसकेचो अहवाल मागूंक जाता. आनीक जर हांव *आरटीआय* मार्फत आयलों जाल्यार मागीर मात तूं तुजें सांबाळ.' तो उठून उबो जालो.

'तूं म्हाका धमकी दिता ज्योवितो?' सरपंचूय आपल्या कदेला वेल्यान उठलो.

'बस बस सरपंच.' ज्योवितोन बसत म्हणलें. 'तुजे भशेन म्हाकाय उलोवंक येता. पूण हांव तशें उलोवचो ना. बरें सांगल्यार तुका समजना जाल्यार ही धमकीच अशी समज तूं.' वाद तेंगशेर वचपाचीं चिन्नां दिसूंक लागलीं.

'म्हज्यान तुजेर केस नोंद करूंक जाता.' सरपंच बसलो.

'कर मरे. फोना वेल्यान करतलो वा पुलिसेंत वचून करतलो? हांव फोन लावन दिवं? कोणा कडेन उलयतलो? हवालदारा कडेन वा इन्स्पेकटरा कडेन?' ज्योवितोय ओगी रावलो ना.

तांचे मदीं चलिल्लो वाद पळोवन सगळे कर्मचारी लागीं आयले आनी पळोवंक लागले. सेक्रेटरीय बेगी बेगीन धांवत आयलो.

'ज्योवितो, कित्याक घेवन बसता. दोन दीस राव. हांव मेळोवन दितां तुका नंबर'. सेक्रेटरीन ज्योवितोक समजावपाचो यत्न केलो. ताणें वाट काडूंक चिंतलें.

'मागीर तुज्या सरपंचाक सांग. हांवें लोकां कडल्यान लांच घेवन घर बांदूंक ना. बँकेंतल्यान रीण काडून घर बांदलां. केन्ना कोणाचें काम करूंक पयशे घेवंक नात. ताचो इतिहास सांगूं? ताणी कोणा कोणा कडेन पयशे घेवन कसलीं कसलीं कामां केल्यांत तीं सांगूं? कोणाचें घर सारकें करूंक, कोणाक परवानो दिवंक, कोणाचें...' ज्योवितोन तांचो हिशेब वयर काडलो.

'पुरो न्हय ज्योवितो. कित्याक ओगीच...' सेक्रेटरीन ताका ओगी रावंक सांगलें.

'तुज्या उतराक मान दिवन हांव ओगी रावतां. तुमचो नंबर केन्ना मेळटलो आनी हांव म्हज्या घराक लायट-उदक केन्ना हाडटलों? ह्या दोन दिसां भितर म्हाका नंबर मेळना जाल्यार तुमचें सांबाळात.' मेजार एक मूठ मारून ज्योवितो भायर सरून नीट चलत गेलो.

वाटेर ताका ताच्या वाड्या वयलो पंच वांगडी मेळ्ळो.

'सांतान, म्हज्या घराक नंबर दिवंक कोणें विरोध केलो रे?' ज्योवितोन ताका रागानूच विचारलें.

'तूं कांयच चिंतीनाका ज्योवितो, हांव पळयतां तें.' सांतानान ताचे कडेन वाद घालपाचें टाळ्ळें.

'तांकां सांग बरें ते थारयात म्हूण. इतलो तेंप हांव ओगी रावलां. आतां पास्कांच्या आयताराक म्हाका घरांत भितर सरूंक जाय.' ताणें सांतानाक शिटकावणी दिली आनी तो नेटान चलत रावलो.

दुसऱ्या दिसा कचेरेच्या कामा खातीर ज्योवितो पणजे गेल्लो आसतना ताका फ्रँकी मेळ्ळो.

'कितें जालें ज्योवितो, घराक नंबर बी मेळ्ळो मरे?' हांसत हांसत ताणें विचारलें.

'घराक नंबर खंयचो?'

'कितें जालें तर?'

'काल गेल्लों हांव पंचायतींत. तो सरपंच शापोतां सांगूंक लागलो. हांवूंच नकळों म्हाका खंयचो नेट आयलो तो, हांवेंय दोन शापोतां सांगलीं आनी आयलों.' ज्योवितोन कालची गजाल ताच्या कानार घाली.

'बरें केलें. तसल्यांक ओगी रावल्यार कामां जायनात. आतां निमाणें थारलां कितें?'

'फाल्यां म्हणल्यार नंबर दिता म्हणलां. ना जाल्यार हांवूय तांकां शिकयतां. म्हजेय पासियेंस सोंपत आयल्यात.' ज्योवितोन दांत पाजले.

'जालें पणजेचें काम? चल हांव मडगांव वतां.'

'चल या.'

फ्रँकीन आपली गाडी काडली आनी तो ताच्या बराबर गाडयेंत बसलो.

उलयतां उलयतां ते ज्योवितोच्या गांवांत पावले. गाडयेंतल्यान देंवतना ज्योवितोचो मोबायल वाजलो. ज्योवितो मोबायलाचेर उलयता आसतना फ्रँकीन आपल्या मोबायला वेल्यान कोणाक तरी फोन केलो. ज्योवितोन ताचेर लक्ष दिलें ना. ताणें ज्योवितोच्या खांदार हात घालो आनी दोगूय चलूंक लागले.

'चल फ्रँकी, हांगा एक सिंगल मारून या. हें म्हजे सांजेचें च्या मारपाचें ठिकाण.' फ्रँकीकय हांगासर मातसो वेळ घालूंक जाय आसलो. ते लागीं आशिल्ल्या च्यावेच्या हॉटेलांत भितर सरले. ताणी हांगा थंयच्यो गजाली केल्यो आनी च्याव घेवन भायर सरपाक पंचायतीचो शिपाय थंय पावलो.

'ज्योवितोबाब, तुका मातसो पंचायतींत बेगिनूच आपयला. तुका सोदीत सोदीत हांगा मेरेन पावलों.' शिपायान सांगलें.

'कितें जालें रे? संजून आनीक केस घाली वा घर मोडपाचो आदेश काडपाचो थाराव घेतला रे?'

'तें हांव नकळों रे बाबा. चल तूं मातसो बेगीन यो.' तो आपली सायकल घेवन गेलो.

'ही आनीक कितें भानगड फ्रँकी? तूं मातसो येता म्हजे बराबर?' ज्योवितो मुखार प्रस्न उबो जालो.

'चल.' फ्रँकी ताचे बराबर वचूंक तयार जालो.

ते दोगूय पंचायत घरांत पावले. सरपंच आनी सेक्रेटरी एकेच कडेन बसून आसले.

'ज्योवितो, तुजी फायल *क्लीयर* केल्या आनी तुज्या घराक नंबरूय दिला. फाल्यां उदका खातीर आनी लायटी खातीर अर्ज कर.' सेक्रेटरीन सांगलें.

'आयज चंद्र उदेलो आनी सुर्यान आपली दिका बदल्ली?' ज्योवितोक अजाप जालें.

'तुका फळां खावंक जाय वा फळांच्यो गुंटयो मेजूंक जाय?' सरपंचान विचारलें.

'आतां तुमकां देव बरें करूं म्हणूं वा तुमकां असलीच भास कळटा म्हणूं?' ज्योवितोन तोंड वांकडे करून विचारलें.

'तुवें केल्ल्या बोवाळाक लागून हें सगळें घडूंक ना. पंचायत मंत्र्याचो फोन आयिल्लो, तुजी फायल *क्लियर* कर म्हूण. ना जाल्यार तुका फाल्यां पसून रावचें पडटलें आसलें. तेन्नाय जाल्यार देवाक खबर कितें जातलें आसलें तें.' सेक्रेटरीचीं हीं उतरां आयकून ज्योवितो सगळोच घुस्पलो.

'म्हणल्यार?' ज्योवितोन एक नदर फ्रँकीचेर घाली. तो मुमुरखोच हांसलो. एक नदर सरपंचाचेर घालून फ्रँकी ज्योवितो म्हऱ्यांत आयलो.

'तुज्या उदारपणाक देवान जाप दिल्या ज्योवितो. आतां घर प्रवेशाची तयारी कर.' फ्रँकीन म्हणलें. तेन्ना मात फ्रँकीच्या कारनाम्याची लायट ज्योवितोचे तकलेंत पेटली.



'पयलीं हांव भुरगें
आसलें. म्हाका कांयच कळनासलें.
म्हाका खबरूय नासलें तीं वेगळीं आसात म्हूण.
वर्साचे बाराय म्हयने म्हाका आश्रामांतूच दवरतालीं.
एक दीस हांवें डॅडीक विचारलें, तुमी अशीं वेगवेगळीं
मेळूंक येतात, तीं एकठांय कित्याक येनात? ताचे कडेन
जाप नासली. होच प्रस्न हांवें मम्मीक विचारलो. तिचे
कडेनूय जाप नासली. तेन्ना म्हाका थोडें-थोडें समजूंक
लागलें. पूण खूब कळाव जाल्लो. तेन्नाच म्हजे
मम्मीन परत लग्न जावपाचो प्रस्ताव म्हजे
मुखार दवरलो.''

# स्वातंत्र्य

'आयज खंय गो मिना, बरें सजून नटून अशें?' मिना नवे कपडे घालून भायर सरता तें पळोवन ताचें रुम मेट सायरान विचारलें. तीं दोगांय कॉलेज शिक्तालीं आनी बोर्डिंग आश्रमाच्या हॉस्टेलांत रावतालीं.

'त्या दिसाक हांवें तुका सांगिल्लें तें तूं विसरलें दिसता. एका मनीस-जिवाक घुस्मटमारांतल्यान हांव स्वतंत्र करूंक वतां.' मिनान सायराच्या सयराणाचेर बडी मारली.

'आयज तो दीस?' सायरान याद करपाचो यत्न केलो.

'हय, भारत स्वतंत्र जाल्यार साठ वर्सां जावन गेलीं, पूण आमच्या राजकी मनशांनी आमच्या समाजाक पांगळो करून उडयला. आमची नदर मोटवी जाल्या आनी आमी आमचे पुरतेंच पळयतात. आमचे पुरतोच विचार करतात. दुसऱ्याचे जिणेंत वचून विचार करपाची शक्त आमच्यांत ना. दुसऱ्याक सूख दिवपाचें वा दुसऱ्याक सुखान पळोवपाची आमची नदरूच विरून गेल्या. हांव तें धाडस करूंक सोदतां. चल, येता जाल्यार बेगीन न्हेसून तयार जा. तुजे खातीर हांवें प्राचार्या कडल्यान आदींच परवानगी घेवन दवरल्या.' मिनान सांगलें.

'तुजे बराबर हांव परकें थारचें ना मुगो?' सायरा अनमनलें

'परकें कित्याक? तूं म्हजी जिवाभावाची इश्टीण.'

'खंयच्या मनशाक स्वातंत्र्य दिवंक वता तें तरी सांग न्हय. सामकेंच कुवाड्यांत दवरतलें म्हाका?'

'वाटेर सगळें सांगतां तुका. बेगीन यो पळोवया.'

थोड्या वेळान मिना आनी सायरा बस स्टॉपार पावलीं. बशीक खुबूच लोक लायनीक आसले. मातशें मुखार वचून ताणें दोन फुलांचे तुरे घेतले. ते वटेन नेटान धांवपी रिक्षाक मिनान हात केलो. ती थांबली. आपलें ठिकाण सांगीत मिना रिक्षांत चडलें. सायरान सांगात दिलो.

'आयज म्हजे मम्मीचें लग्न.' रिक्षा चलूंक लागताच मिनान अचकीत गजालीक सुरवात केली.

'कितें? मम्मीचें लग्न?' सायरा अजाप जालें.

'हय सायरा, म्हजी मम्मी आयज दुसरे फावट लग्न जाता.'

'हे पिरायेर तिचें लग्न... आयकूंकच कितेंशें दिसता.'

'म्हजी परवानगी आसा तिका लग्न जावंक.'

'तिकाच तूं स्वतंत्र करूंक सोदता?'

'हय. तिणें म्हजे खातीर आपलें जिवीत दुख्खांत दवरलें. सदांच म्हज्या विचारांत आपलो आनंद घालयत रावली. हांव तेरा वर्सांचें आसतना म्हजे मम्मीन म्हजे मुखार आपले जिणेचें पुस्तक उक्तें केल्लें. तिची दुखेस्त काणी म्हजे मुखार आसा. एक दीस ती म्हाका सांगूंक लागली -'तुज्या डॅडीन म्हाका पयस केल्यार आयज सुमार 8 वर्सां जालीं, पूण तुजे खातीर हांव अजूनय ताका विस्वासी आसां. ताणें पयसायतच हांव म्हज्या पापाच्या घरा गेलें, पूण हांव ताचेर वजें जावन रावूंक ना. म्हजें जिवीत सारूंक हांवें '*सॅल्फ हॅल्प ग्रुप*' स्थापन केलो. थंय म्हाका खूब येस मेळ्ळें. आयज हांव खूब तेंगशेर आसां. तुजे डॅडीन म्हजेर विसर घालो, म्हूण हांवें ताचेर विसर घालूंक ना. पूण हांव ताचेर निंबूनय नासलें. म्हज्या जिविताचीं पावलां मारतां मारतां विजय नांवाचो एक मनीस फाटलीं कितलींशींच वर्सां म्हज्या जिवितांत घर करूंक

सोदता. तुज्या डॅडीच्या विस्वासाक वेर वच्ची न्हय आनी तूं म्हजे नदरे पसून पयस जावचें न्हय ह्या दोन हेतूंनी हांवें विजयाक अजूनय म्हज्या जिवितांत लुगार दिवंक ना. तूं आतां वाडूंक लागलां. कोणूय घडये म्हाका हेर दादल्या बराबर पळोवन तुका प्रस्न करीत, तुजो डॅडी लेगीत. म्हाका दिसता हांवें केन्ना तरी तुजे डॅडीच्या बंधनांतल्यान मुक्त जावचें, हेर बायलो स्वतंत्र भोंवतात तशें हांवेंय भोंवचें, सूख भोगचें, पूण तूं म्हजे नदरे मुखार येतालें. देखून तुका विस्वासांत घेवनूच हांव तुका म्हज्या जिविताचें भागीदार करतां. हांव वेवसायांत आसा म्हणटकच दादल्यां कडेन मेळप उलोवप चालूच आसता. हांवें म्हज्या जिवितांत विजयाक हाडूं वा नाका? तुज्या उतराक हांव रावतां.'

'मम्मी, विजय कोण तें हांव नकळों, पूण तुजे जिणेंतलो एक व्हड प्रस्न म्हजे मुखार तुवें दवरला. म्हाका समजता तुजो घुस्मटमार. म्हज्यान जाता तितलो हांव यत्न करतलें तुका स्वतंत्र करूंक.' अशी जाप हांवें त्या वेळार म्हजे मम्मीक दिल्ली.' मिनान आपले आवयची याद सायरा मुखार दवरली.

'तुजे कडल्यान ती उतर घेवंक सोदताली आपलें लग्न जावंक आनी खरें म्हणल्यार तेन्नाच तुवें तिका लग्न जावंक दिवंक जाय आसलें. तूं इतलें सुवार्थी कशें जालें?' सायरान प्रस्न केलो.

'हांव सुवार्थी जावंक ना. म्हाका म्हज्या डॅडीची याद जाली. म्हाका ताचे कडेन उलोवंक जाय आसलें.'

'आयज तूं अठरा वर्सांचें जालां. इतलो काळ लागलो तुका आपलो निर्णय घेवंक?'

'इतलो काळ म्हाका लागूंक ना, मम्मीनूच हो काळ मागून घेतलो. तिका जाय आसलें म्हजो निर्णय स्वतंत्र आसचो. देखून एक दीस हांवें म्हजे डॅडीक लग्नाचे जिविता विशीं विचारलें. ताणें म्हाका आपली गजाल स्पश्ट सांगली. 'तुजी मम्मी वीस वर्सांची आसतना आमचें लग्न जाल्लें. आमी मोगान पडून न्हय पूण सोयरीगतीन लग्न जाल्लीं. तरी तिणें हिकमतीन म्हाका आपल्या मोगान वेंगायलो आनी आमी रोखडींच

एकामेकाच्या सहवासांत घुसलीं. तरणाटे घरकान्नी कडल्यान म्हज्या घराब्याच्यो जायत्यो अपेक्षा आसल्यो. थोडो तेंप आमचो घराबो हांसतो खेळतो आसलो. एका वर्सा मदीं तूं जल्मलें. आनी खरें म्हणल्यार तूंच तिचे जिणेक आडखळ थारलें. म्हज्या घरच्यांक पयलो चलो जाय आसलो. तुज्या जल्मान घरांत खूब वादविवाद जावंक लागले. हाचे, तिका त्रास जाले. सवका सवका हांवूय मातसो पयस गेलों. आमचे मदलो मोग सवका सवका पयस जावंक लागलो. तूं वाडूंक लागलें. घरच्यांनी चिंतलें तुका बोर्डिंगाक घालूंक. तिणें विरोध दाखयलो. तिणें खूब विनवणी केली तुका बोर्डिंगाक घालिनाकात म्हूण. पूण कोणेंच आयकलें ना. म्हाका तुजो मोग आसलो, पूण हांवूय कांय करूंक शकलों ना. तुका आश्रमांत बोर्डिंगाक घालें त्याच दिसा ती आपल्या घरा गेली. हांवें तिका हाडूंक वचपाचें केन्नाच येवजिलें ना.'

'खुबूच धारूण उतरलो तुजो डॅडी. धुवेचो मोग आसून आपले घरच्यां मुखार उक्तावंक शकना म्हणल्यार?.... मागीर तांचो घटस्फोट केन्ना जालो?'

'ना. तांचो घटस्फोट जालोच ना. डॅडीच्या घरच्यांनी पेपर तयार करून वकिलाक धाडिल्ले खंय, म्हजे मम्मीन ताका न्हयकार दिलो. ती घरकाराच्या सुखाक आशेताली. जेन्ना तिच्या जिवितांत म्हजे डॅडीचो मोग आसलो, कशी ती घटस्फोटाचेर सय करतली आसली? तिका भरवंसो आसलो एक दीस तरी तो तिका व्हरूंक येतलो. पूण तो आयलोच ना. दोन दीस आदीं तिणें घटस्फोटाचे पेपर कोर्टांत सादर केले आनी विजया कडेन ती लग्न जावंक मुखार सरली.'

'पूण तुवें कांयच यत्न करूंक ना तांचो एकवट परत घडोवन हाडूंक? तूं इतलें शिकिल्लें भुरगें. तुज्यान तांचें लग्नाचें जिवीत फळादीक करूंक जायनासलें?'

'पयलीं हांव भुरगें आसलें. म्हाका कांयच कळनासलें. म्हाका खबरूय नासलें तीं वेगळीं आसात म्हूण. वर्साचे बाराय म्हयने म्हाका आश्रमांतूच दवरतालीं. एक दीस हांवें डॅडीक विचारलें, तुमी अशीं

वेगवेगळीं मेळूंक येतात तीं एकठांय कित्याक येनात. ताचे कडेन जाप नासली. होच प्रस्न हांवें मम्मीक विचारलो. तिचे कडेनूय जाप नासली. तेन्ना म्हाका थोडें-थोडें समजूंक लागलें. पूण खूब कळाव जाल्लो. तेन्नाच म्हजे मम्मीन परत लग्न जावपाचो प्रस्ताव म्हजे मुखार दवरिल्लो.'

'लग्नाच्या सुखाक आशेवन तिणें हें पावल मारलें?'

'तिका लग्नाचें सूख भोगूंक नाका आसलें, पूण विजयाक सांगात आनी मोग दिवंक जाय आसलो. ताच्यो भावना आनी उत्फर्कें वेंगोवंक जाय आसले.'

'देखून तूं रोखडेंच तयार जालें?'

'ना. आमच्या आश्रमांतल्या कांय जाण्टया मनशां कडेन हांवें हाचेर भासाभास केली. एक दीस आमच्या प्राचार्या कडेन वेळ घेवन सगळी खबर सांगली. तांकां म्हजे दुखणें समजलें पूण चुरचुऱ्याक येवन तांणी म्हाका बोट दाखोवन म्हणलें 'तूं एक वयावयली चली. तुजी मम्मी लग्न जाता म्हणल्यार तुज्या फुडाराचेर परिणाम जावंक शकता.' ताचेर हांवें गंभीरतायेन विचार केलो आनी एक दीस मम्मीक सांगलें विजयाक मेळूंक जाय म्हूण. ती अजाप जाली.'

'मागीर, तिणें तुका विजयाक मेळूंक दिलें ना?'

'तिणें रोखडीच आमची भेट घडोवन हाडली. विजय एक सुंदर देखणो दादलो आसलो. एक व्हड वेवसायीक आनी समाजांत प्रतिशठीत मनीस. विजयान म्हाका सांगलें 'तुजी मम्मी सुंदर दिसता म्हूण हांव तिका भुलूंक ना. पयलेच नदरेन तिच्या रुपान ती म्हज्या काळजांत रिगली खरी, पूण तिणें आपली सगली परिस्थिती म्हाका सांगल्या. हांव एक आंकवार दादलो. वेवसायाक लागून आमची भेट जायत आसता. तिच्या मोगान म्हाका पिसो केला. तिची वागणूक आनी उलोवप म्हाका खूब भावता. तरी हांवें तिचेर केन्नाच जबरदस्ती करूंक ना. तिणें म्हाका सदांच तुजो हुस्को दाखयला, आनी मनीसपणाचे नदरेन हांवूय तें समजतां. देखून तिचे कडेनूच लग्न जावपाचो हांवें निश्चेव केला. ती म्हाका मेळना जाल्यार लेगीत उपकारता, हांव दुसरे अस्तुरेक म्हज्या

जिवितांत येवंक दिवचो ना. तूं जाणां आमची वळख कशी जाली ती? तिका अपघात जाल्लो आनी तिच्या आदाराक कोणूच नासलो. हांवें तिका हॉस्पिटलांत व्हेली, उपचार जाय मेरेन तिची सेवा केली. तिचो बापूय येता म्हणल्यार ती खूब भियेल्ली आसली. तिका फकत म्हजोच आदार आसलो. थंयच म्हजें काळीज तिणें चोरून व्हेलें.'

'कितलें नम्र ताचें उलोवप आनी सभाव? विजया भितरलो आत्मविस्वास म्हाका खंयच्या खंय करून गेलो. म्हाका दिशिल्लें घडये म्हजे मम्मीचे गिरेस्तकायेक तो भुल्ला म्हूण, पूण ताचे कडेन तिचे परस चड गिरेस्तकाय आसा, जाची तो पर्वा लेगीत करिना. तेन्ना म्हज्या मनांत मम्मी विशीं म्हजे विचार सदळ जायत गेले. आपलें जिवीत तिणें नम्रतायेन सांबाळ्ळें पूण स्वता भितर घुस्मटत रावली. होच घुस्मटमार सोंपून नव्या जिविताचे वाटेक हांवें तिका उर्बा दिली. हें सगळें हांवें अणभवलां आनी म्हजें मन मनीसपणाच्या दावखुलांत स्थीर जालां.'

सांगिल्ले सुवातेर मंदिरा कडेन पावून रिक्षा कितलोसोच वेळ थांबून आसली. मिनाची ती काणी घडये रिक्षा चलोवप्याच्या काळजाक हात घालून गेल्ली. तोय आयकत आसलो.

'आरे, आमी पावलीं मुगो, चल चल...' अकस्मात मिनाच्या लक्षांत आयलें. तीं गडबडीन देंवलीं. मिनान रिक्षावाल्याक पयशे दिले आनी ताचे उपकार मानले.

'तुजे विचार एकदम म्हान आसात बाय. तुजे मम्मीचो फुडार बरो जावं.' रिक्षावाल्यान ताका शुभेत्सा दिल्यो. तें मंद हांसलें.

बेगीबेगीन सायराचो हात धरून तीं मंदिरांत भितर सरलीं. सगळीं मिनाचीच वाट पळयतालीं. ताणें ताचे डॅडीकूय आमंत्रण दिल्लें. तो लेगीत केन्ना पावन सरिल्लो. मिना वचून आपले मम्मीक मेळ्ळें. ताणें तिका आपले वेंगेंत घेतली आनी तिचेर हांसती नदर घाली. खिणा भितर सात फेरे सुरू जाले. सगळे सोपस्कार पूर्ण करून तें नवेंच लग्न जाल्लें जोडपें मिना फुड्यांत येवन उबें रावलें. मिना तांचे पांय पडलें. हांसत्या मुखामळान दोगांकूय फुलांचे तुरे दिले. भायल्यान फुगोट्यो लासूंक

लागल्यो.

'मम्मी, तुका हांव सगळें सूख आनी खुशाल जिवीत आंवडेतां. म्हजे पासत तुवें आतां धास्ती काडपाची गरज ना. हांव व्हडलें जालां, स्वतंत्र विचार करूंक शकतां. भिष्मान (महाभारतांतलो) आपल्या बापायचें लग्न मत्सकन्ने कडेन करपाचें धाडस केल्लें, तेंच धाडस हांवें केलां. हांव तुका सगळ्या बंधनांतल्यान मुक्त करतां आनी स्वतंत्र जिवीत आनी हांसत्या खेळत्या फुडारा खातीर शुभेत्सा भेटयतां. इतलीं वर्सां तुवें म्हाका मोग दिलो, आमचे मदीं होच मोग सदांच जिवो उरूं. तुजे स्वतंत्र्य जिणे खातीर तुका परबीं.'

आनी तें आपले डॅडी वटेन वळ्ळें.

'डॅडी, तुवें म्हजे मम्मीची पर्वा केली ना. देखून हो आयचो दीस आमच्या नशिबांत आयलो. तूं एक व्हड मनीस पूण आयज तुजी मान सकयल आसा, तुवेंय आतां तुज्या फुडारा विशीं विचार करचो. तुमच्यांत आडखळून आशिल्लो धागो आयच्यान सांसणाचो ना जाला. तुकाय अधिकार आसा स्वतंत्र जियेवपाचो. आमच्या भारत मातेच्या पोटांतले किल्लले सगळेच जीव तिका नमन करिनात, पूण कांय जाण तिचे पासत जीव दिवंक तयार आसतात. ते तरेन तुमचे खातीर हांव म्हजें सगळें त्यागून तुकाय स्वतंत्र करतां. मम्मीच्या जिवितांत विजय आयलो ते तरेन तुज्याय जिवितांत कोण तरी अस्तुरी आयिल्ली जाल्यार...'

जें घडटा तें सगळ्यांक वेंगळेंच दिसतालें. मिनाच्या दोळ्यांतलीं दुकां तांचे पसून लिपूंक नासलीं. ताणें बेगीबेगीन आपले दोळे पुसले आनी सायराचो हात धरून धांवत सुटलें. लग्नाक हजीर जाल्ल्यो नदरो ताकाच पळयताल्यो. त्याच खिणाक खंय तरी पयस गरनेलाचो व्हडलो आवाज जालो. जायत घडये थंयसरूय कोणाक तरी स्वातंत्र्य मेळ्ळां.



*'जेन्ना हांव घरा पावलें,*
*तेन्ना घरचीं भुरग्याकूच घेवन नाचतालीं.*
*म्हजे विशीं कोणाच्योच भावना जागूंक नासल्यो.*
*म्हाका विसव घेवंक जाय हें कोणाच्याच लक्षांत*
*येनासलें. सुरवेक म्हाका ल्हान ल्हान कामां करपाक*
*लायलीं आनी आठ दीस जातात म्हणल्यार सगळें घर*
*म्हजेरूच पडलें. जेवण रांदपाचें धरून कपडे*
*धुवपाचें लेगीत म्हाकाच पळोवचें पडलें. तेन्ना*
*म्हज्या जिविताचे विंगास म्हाका सहन*
*जायना जाले.'*

# अस्तुरी दीस

शारांतल्या व्हडल्या मैदानार 'अस्तुरी दीस' समारंभाक एक खूब व्हड सभा चलताली. कितलो वेळ जालो मंत्री धरून कितलेशेच जाण उलोवन गेले. पूण तातूंतलो एकलोय मनीस अस्तुरेक खऱ्या अर्थान वळखुपी नासलो. माचयेर आशिल्ले सगळे जाण खंय ना खंय अस्तुरेचेर अत्याचार केल्ले मनीस आसले. तांचे बराबर आशिल्ल्यो अस्तुऱ्यो फकत अस्तुरेक आदार दिवपाचीं नाटकां करपी आसल्यो, मानग्याचीं दुकां गळोवपी आसल्यो.

'समाज सुदारणा... अस्तुरी सशक्तीकरण... अस्तुरी राखण... अस्तुरी मुक्ती... अस्तुरेचेर सामाजीक अन्याय... अस्तुरेचो छळ... च्ये! माळुंदा खंयचे कडलीं...' सुमित्राच्या तोंडांतल्यान नकळटां उतरां पुटपुटलीं. सुमित्राक अस्तुरी दिसाचे कार्यावळीक एक कदेल भरूंक हाडिल्ली.

'अशें कित्याक म्हणटां गो सुमित्रा?' कुशीन आशिल्ले एके अस्तुरेन तिका हटकिली.

'सोबता हांकां हें? ते उलयतात ते टेपरिकॉर्डर कशे. गरज ते गजालीक कोण कान हालयता आयच्या काळार? अस्तुरेचेर खरेंच खंय

अत्त्याचार जातात ते सांगात म्हूण सांग तांकां, ते स्वता अत्त्याचार करतात ताची गवाय दी म्हूण सांग तांकां. माचयेर येतात आनी व्हडलीं व्हडलीं भाशणां करतात. प्रत्यक्ष समाजांत कितें घडटा तें पडून गेलां तांकां? एक अस्तुरीच अस्तुरेचेर अत्त्याचार करता हें केदें व्हडलें पाप? दिसता हें कोणाक? अस्तुरी दीस पाळटात... एक अस्तुरीच दुसरे अस्तुरेक आत्महत्त्या करपाक प्रवृत्त करता तें आडावंक शकतात तीं? हो दादलो प्रधान समाज. देखून दादल्यांनी केल्ले अन्याय कांय प्रमाणांत सहन जातात. पूण अस्तुरेनूच अस्तुरेचेर केल्ले अन्याय म्हणल्यार...'

'हें सगळें जाणा जावनूच हांगा आयल्यांत न्हय आमी?' आनीक एके अस्तुरेन तोंड घालें.

'म्हजे बराबर येयात, हांव तुमकां एके अस्तुरेची जीण दाखयतां, मागीर तुमकां कळटलें अस्तुरेच्या खऱ्या जिविताक वालोर आसा वा हांच्या भाशणांक वालोर आसा तो.'

सुमित्राच्या उतरांनी तांचे भितर भासाभास जाली आनी कांय जाण येवपाक तयार जालीं.

'चलात...' सुमित्राच्या अधिकारान तांचेर जादू केलो. सुमित्रा उठली आनी चलपाक लागली. तिचे फाटोफाट आनीक कांय अस्तुऱ्यो चलपाक लागल्यो. कांय लोकांच्यो नदरो तांचेर थीर जाल्यो. जाल्यार दुसरे वटेन भाशणां चालूच आसलीं.

सुमित्रा 50-55 वर्सांची अस्तुरी. एक घायाळ, खंती अस्तुरी. तिणें आपल्या जिवितांत केन्नाच सूख म्हणटात तें भोगूंक ना. आयजवेर ती आपल्या सारक्या नाजूक, हुंवार ग्रस्त, गरजेवंत, निराधार अस्तुऱ्यांक आदार दिवपाक आपली जीण घालताली. तरी तिचो कोणाक उगडास येना. तिका कोण माचयेर व्हरपाक सोदिना कित्याक तिका 'ग्लॅमर' ना. तिच्या तोंडाक मिरयो पडल्यात, तिचे कडेन न्हेसपाक बरे कपडे नात, तिच्या सावळ्या रंगान तिका उजळ लोकां पसून पयस दवरल्या, पळोवंक म्हातारी कशी दिसता. तिणें आपलें तारुण्य लोकसेवेंत ओंपलां. अशी ही सुमित्रा आपले बराबर आयिल्ल्यांक घेवन एका झाडा मुळांत बसली

आनी आपले जिणेचें कथन करपाक लागली.

'म्हाका तुमी जायतीं जाणां वयल्यान वळखतात. आज भितरली वळख सांगतां. हांव एक मध्यम वर्गांतली अस्तुरी... ल्हानपण तशें खुशाल वचूंक ना. कश्टांनी वयर सरलें हांव. शिकपाचो हावेस आसून पसून मन मारून घरांतल्या कामांत आवयक आदार करचो पडलो. म्हजे आवयन म्हाका सोळा वर्सांचे पिरायेर लग्न करपाचें येवजिलें. म्हजी पिराय जावंक ना, म्हाका आनीक शिकपाचें आसा, म्हजे बराबरच्यो चलयो शिकतात तशें म्हाकाय शिकपाचें आसा म्हूण सांगून लेगीत आयकनासतना एका *एनआरआय*-च्या गळ्याक बांदलें. तो फकत लग्न जावपा खातीर थोड्याच दिसांची सुटी घेवन आयिल्लो. म्हजी आवय ताचे कडेन आशिल्ल्या पयशांक भुल्ली. म्हजें कंवळें मन तिणें मारून उडयलें. एके अस्तुरेन दुसरे अस्तुरेचेर केल्लो पयलो अन्याय हांवें म्हज्या जिवितांत अणभवलो.

लग्नाचे पयले रातीं, म्हज्या घरकारान म्हाका आपले खांकेत ओडून घेतलें आनी म्हज्या कपड्यांक हात घालो. हांव निशपाप. तो कितें करता तें म्हाका कांय समजना जालें. देखून हांवें ताका विरोध केलो. ताणें म्हजेर बळजबरी करपाचो यत्न केलो. तेन्ना हांव धांवत सासुमांय म्हऱ्यांत गेलें. म्हज्या घरकाराची करणी हांवें तिका सांगली. तिणें म्हाका सांत्वन दिवचे बदलाक म्हाकाच समजावपाचो यत्न केलो. म्हज्यो भावना समजून घेवचे बदलाक तिणें म्हाका लग्नाचे रिती रिवाज सांगले. हांव ताची अर्धांगिनी, ताका खुशाल दवरपाक जाय, थंय सावनूच संवसार सुरू जाता. लग्न जातकूच हेर विचार करपाचे आसनात, घरकाराचो अपमान करपाचो आसना असल्यो गजाली सांगून तिणें म्हाका परत ताच्या फुड्यांत धाडलें. म्हज्या घरकारान म्हजें जुवानपण समजून घेनासतना म्हज्या अंतरमनाच्यो भावना चिड्डून म्हजेर एक प्रकारचो बलात्कार केलो, जाची हांव कागाळ करूंक शकनाशिल्लें. एके अस्तुरेन दुसरे अस्तुरेचेर केल्लो दुसरो अन्याय हांवें म्हज्या जिवितांत अणभवलो.

अखेरेक म्हजो घरकारूच न्हय तो? ते रातीक ताका हांवें सोंसून घेतलो. शाळेंत शिकतना म्हजें वाचप खूब आसलें. एक दोन फावटी असले विशय म्हजे नदरेंतल्यान गेल्ले. ताचेर परत एक फावट नियाळ केलो आनी म्हज्या घरकारा कडेन हांव उलयलें. म्हजें जुवानपण आनी कंवळें मन समजावपाचो यत्न केलो.

'म्हाका तुजें कांय एक आयकुपाक नाका.' ताणें कडक उतरांनी सांगलें.

'तुका कसलोच कास्तीग जावचो ना. ना म्हूण तुवें म्हजे बराबर येवंक लेगीत नाका. आतां सरकारानूच कितले अशे बरे उपाय सोदून काडल्यात जे वरवीं आमकां जाय तेन्ना आमी भुरग्यांक जल्म दिवंक शकतात, आनी आमकां जाय जाल्यार जाय तितलो तेंप ताका पयस दवरूंक शकतात. खंयचो तरी एक उपाय आमी आपणावया आनी आमचें लग्नाचें जिवीत सुखान सारया.'

'तुजे बराबर सुखान रावूंक म्हाका नोकरेक परत कुवेट वचपाचें ना?'

'तुज्यान हांगाच खंयतरी नोकरी मेळोवंक जायना?'

'नोकरी आनी हांगा? पिशें बी जावंक ना मुगो तूं? नदर मारून पळय कितले जाण बेकार भोंवतात ते हांगा. आनी हांगा नोकरी केल्यार बरो पगार मेळटा?'

'जाल्यार तुवें निशपाप चंद्रिमाक कित्याक जागयलो? हांवें तुज्या उगडासानूच हांगा दीस काडपाचे? म्हज्यो भावना मारून उडोवपाच्यो?' म्हज्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.

'हें तुवें लग्ना आदीं चिंतूक जाय आसलें. तुका खबर नासली हांव *एनआरआय* म्हूण?'

हांवें मान पोंदाक घाली

'लग्न जातकच खंय ना खंय तरी त्याग करचोच पडटा.'

'तशें जाल्यार हो कुसवो फुलचे आदीं हांव नितळ जावंक सोदतां.' हांवें धिटाय दाखयली. ताणें म्हजेर तिखट नदर घाली.

# 47

‘हांव म्हजे आवय कडेन उलयतां.’ ताणें सांगलें.

ताणें आपले आवयक आपोवन हाडली आनी म्हजें म्हणणें तिचे मुखार दवरलें. कांयच समजून घेवप ना, विचार करप ना, तिणें पुराय घर माथ्यार घेतलें. थोड्या वेळा भितर ताच्या कुटुंबांतले कितलेशेच लोक म्हजे भोंवतणी एकठांय जाले. हांव तांकां पळयतूच उरलें. एके वटेन म्हज्या आंगांत भिरांत भरली.

‘हांव सांगतां तें आयक सुने, आमचो प्रल्हाद आतां परतो कुवेट वचपाचो जाला, तो परतून येवचे आदीं भुरगो रडूंक जाय. नाजाल्यार तुजें तूं सांबाळ.’ सासुमांयन हुकूम सोडलो. पांयां पोंदची जमीन हाल्ली. पोंदां गेल्ली म्हजी मान वयर सरलीच ना. आनीक एक फावट एके अस्तुरेन दुसरे अस्तुरेचेर केल्लो अन्याय हांवें अणभवलो.

म्हजे सासुमांयक जाय तशेंच जालें. एक वर्स सोंपचे पयलीं घरांत चल्यान आपलें रडणें दाखयलें. सगळीं खुशाल जालीं. हांव मात म्हजे जिणेच्यो वेदना सोंशीत भितरले भितर रडत उरलें. थोड्या तेंपान म्हजो घरकार आयलो. येतना ताणें आपल्या भुरग्याक जायतें कितें हाडलें. भुरग्याक पळोवन तो खुशाल जालो. एक दीस गांवच्या कितल्याशाच जाणांक आमंत्रण दिलें आनी व्हडलें जेवण केलें. म्हाका पळोवन जायत्या जाणांनी तोंडांत बोटां घालीं. थोड्यांक म्हजे चुरचुरे दिसले जाल्यार थोडे तिरशे नदरेन पळयताले. समाजाची तिखट नदर म्हाका सहन जाली ना. देखून नदर चोरून हांव जेवणाक आयिल्ल्यां मदीं सामील जालें.

लोक सवका सवका आपल्या घरा गेले, पूण हांव मात म्हजे भितरूच घुस्मटत उरलें. त्या उमेदीच्या नादार म्हज्या घरकारान परत एक फावट आपल्या कुटुंबाची आनीक एक बुन्याद घाली. तो परतून वचचे आदीं म्हज्या कुसव्याक पाळां फुटलीं आनी म्हजे जिणेच्यो व्यथा अदीकूच वाडल्यो. नाइलाजान मन मारून म्हाका मोनें जावचें पडलें. थोड्या दिसांनी तो कुवेट गेलो आनी हांव सामकेंच एकलें पडलें. सासुमांय आसली पूण ती आपल्या घरच्या कामांत गुल्ल रावताली.

गरजे पुरती उलयताली आनी मागतां तितलेंच दिताली.

हे खेपेक म्हाका चली जाली. घरांत परतून आनंदूच आनंद. हांव मात हॉस्पिटलांत तळमळटालें. म्हजे भलायकेचेर चडूच परिणाम जाल्लो. पूण तें कोणाक पडून गेल्लें? म्हजे आवयचोच म्हाका सांगात आसलो. देखून तीच म्हजो परामूस करताली, तीच म्हज्या फुडयांत रावताली. एक दिस तिचे हुजीर दोतोर बरोच गंभीर उलयलो.

'तुजे धुवेची भलायकी सांबाळून उरूंक जाय जाल्यार तिका खूब विसव दिवचो पडटलो. तूं एक आवय जावन पसून हें कळना म्हणल्यार...'

जेन्ना हांव घरा पावलें, तेन्ना घरचीं भुरग्याकूच घेवन नाचतालीं. म्हजे विशीं कोणाच्योच भावना जागूंक नासल्यो. म्हाका विसव घेवंक जाय हें कोणाच्याच लक्षांत येनासलें. सुरवेक म्हाका ल्हान ल्हान कामां करपाक लायलीं आनी आठ दीस जातात म्हणल्यार सगळें घर म्हजेरूच पडलें. जेवण रांदपाचें धरून कपडे धुवपाचे लेगीत म्हाकाच पळोवचें पडलें. तेन्ना म्हज्या जिविताचे विंगास म्हाका सहन जायना जाले. घुंवळ येवंक लागली म्हूण म्हजे सासुमांयक सांगलें.

'घरांत कोणाक तरी कामाक दवरल्यार बरें जातलें आसलें.' उलयतना एके वटेन भिरांत दिसताली.

'घरांत कामाक? मागीर तूं कितें करतलें?' म्हजें उलोवप आयकून ती तिडकली. म्हाका रागान पळोवंक लागली.

'म्हाका खूब त्रास जातात. ह्या बाळंटपणा उपरांत आंग सगळें अस्वस्थ जालां अशें.'

'काम करपाची इत्सा ना दिसता तुका. काय घरकार जोडटा तें दोळ्यांचेर आयलां गो?'

'तशें न्हय गे, खऱ्यांनीच हांव अस्कत जालां. एक एक फावट चलपाक लेगीत कुस्तार जाता. काल आनी मान्न्यांतूच सकयल पडटलें आसलें.'

'कांय जायना तुका, बरें घटमूट आसा तूं.'

हांव ओगी रावलें.

एके अस्तुरेच्चें दूख दुसरी अस्तुरीच समजूंक सोदिना जाल्यार कोणाक कितें सांगपाचें? देवाक होरावपा बगर म्हजे कडेन उपाय नासलो. एक दीस रडून रडून देवाऱ्यांत बसून देवाक मनोवपाचो यत्न केलो. आनी देवानूच म्हजेर कृपा केल्ले सारकी, कांय दिसां भितर घरकार घरा परतलो. घरकाराक हांवें म्हजी परिस्थिती सांगली. ताका दिसलें आपले आवयच्यो चाडयो करता म्हूण. तो म्हजेर विनाकारण चाळवलो. ताका हांवें समजायलो, पूण आवयच्या सांगण्यान तो कानकुसको जालो. हांव जितलें ताचे कडेन मोगान वागतालें, तेंच ताका आवडटालें. म्हज्या दुख्खाची ताका पर्वा नासली. म्हजे विशीं कितेंय सांगूंक वचत जाल्यार तो कितें तरी निमीत्त करून नाच्च जातालो.

हांव तिसरे फावटी गुरवार जालें. हें कळटा म्हणल्यार म्हजो घरकार कुवेट पावलो. म्हजे सासुमांयक हांवे म्हजे बराबर दोतोरागेर आपयली, पूण भुरग्यांचें निमीत्त सांगून ती घराच रावली आनी म्हाका म्हजे आवयक घेवन दोतोरा कडेन वचचें पडलें.

'हें पळय सुमित्रा, फाटले फावटी तुका हांवें तुजी परिस्थिती सांगिल्ली. तुवें आयकलें ना. आतां तूं तिसरे फावटी आवय जावंक... शी तुमकां कोणें सांगप? तरी निमाणें सांगतां हो पार्त तुवें जर बाळंटपणा मेरेन दवरलो जाल्यार घडये पार्त जावचे पयलींच तूं मरतलें.' दोतोरान सरळ शिटकावणी दिली.

'अशें कशें दोतोर?'

'तुज्यो पिशव्यो सामक्यो अस्कत जाल्ल्यो आसात. त्यो भुरग्याचें वजन सांबाळूंक पावच्यो नात. तुका शिटकावणी दिवपाचें काम हांवें केलां. मुखार तुजो निर्णय तुज्या हातांत.' दोतोरान तिडकून सांगलें.

तशेंच म्हजे आवयक घेवन हांव सासुमांय फुड्यांत तिका समजावपाचे हेतून आयलें.

'दोतोरान सांगलां हो पार्त म्हजी भलायकी इबाडटलो, देखून तो दवरचो न्हय म्हूण.'

'कित्याक गे बाये?' सासुमांयन बेंडार हात दवरीत विचारलें.

'म्हज्या बाळंटपणा वेळार हांव मरतलें असो दोतोराचो अदमास आसा.'

तूं कांयच भियेनाका. आमगेर जावंक नात गो भुरगीं? घरांत सुसेगाद वावर.' तिणें सगळें सहज घेतलें.

असल्या उलोवण्या मुखार आनीक कितें सांगपाचें उरता? कितें तें हांवेंच थारवपाचें आसलें. हांवें घरकाराक चीट बरोवन म्हजी परिस्थिती कळयली. ताका म्हजें पडूनच वचूंक नासलें. थोड्या दिसांनी ताची चीट आयली. ताणें सगळे आवयचेर घालून आपूण मेकळो जालो. देखून एक दीस हांवेंच एक गंभीर पावल मारलें.

घराची जमीन पुसपाचें काम करतना साबणाच्या उदकाचेर निसरून पडपाचें हांवें नाटक केलें. ह्या नाटकाची गरज आसली. म्हाका खूब त्रास जाले. पोटांत कळो आयल्यो. घरच्यांनी म्हाका दोतोरागेर व्हेलेंच पूण तपासतना तोंड वांकडे करून म्हाका फाट करून रावलीं. म्हज्या कुसव्याचो गर्भपात जाल्लो. तेन्ना सावन म्हजेर अत्त्याचार सुरू जाले. मागीर एक अस्तुरी जावं दुसरो कोण तरी अस्तुरेचेर अत्त्याचार करता जाल्यार पळोवपाची म्हजी मनस्थाच ना जाली. म्हजी जिणूच अत्त्याचारांत घुस्पून उरूंक लागली, थंय वेगळी नदर आनी खंयची येतली?

हांवें जायत्या जाणांचो आदार मागलो. कोणेंच म्हजे खातीर मजतीचो हात मुखार केलो ना. निमाणें हांव पुलीस चौकेर गेलें. थंय म्हजे कडेन लग्नाचो दाखलो मागलो. खंयच्यान हाडूं हांव? आमचें लग्न नोंद खंय जाल्लें? देवळांत व्हरून आमकां लग्नाचे बेडयेंत बांदिल्लीं. देवळांत लग्न जाल्ल्याचो दाखलो मेळ्ळोना. हे परिस्थितीचो फायदो घेत म्हज्या घरच्यांनी आमचें लग्नूच जावंक नाशिल्ल्याचें पुलिसांक सांगलें. दोग भुरगीं म्हज्या पदरांत आसात आनी हांव लग्न जावंक ना? हाचो पुरावो हांव कशें दिवं? भारतांत लग्न नोंदणी सक्तीची आशिल्ली जाल्यार म्हाका हे दीस पळोवंक पडचे नासले. गोंयांत ल़ग्न नोंदणी आसा पूण ती सक्तीची ना हाचो जायते जाण फायदो घेतात.

कितें तरी करूंकच जाय ह्या हेतून हांवें म्हजे हात पांय हालोवंक सुरू केले. गांवच्या राजकारण्यांक मेळ्ळें. तांणी सांगात दिलो ना. ते माचयेर रावन बोवाळ मारतात तसल्या मनशांक मेळ्ळें, कोणेंच आदार दिलो ना. कोणा कोणाच्या दारांत भोंवलें. म्हजे हाल आनी चुरचुरे पळोवन कोणें एकल्यान सल्लो दिलो हें काम वकिलूच करूंक शकता म्हूण. हांव खंयच्या वकिलाक वळखतालें? वकील नितीघरंत आसतात ही खबर आसली. देखून थंय धांव घेतली. एके बायल वकिलाक मेळ्ळें. म्हजें विशीं जें घडलें तें तिका विस्तारान सांगलें. म्हजी केस घेवंक तिणें न्हयकार दिलो. घडये म्हजे सासुमांयची कडक वागणूक तिका आदींच भियेवन गेली वा दुसरे एके गरजेवंत अस्तुरेक आदार दिवंक तिच्या मनांत नासलें वा जायत घडये तिचे कडेन चड केशी आसल्यो. तिणें म्हजी केस घेवंक ना. हांव खूब निराश जालें.

'*एक्सक्युज मी.*' थंय लागींच रावन एका तरणाट्या वकिलान म्हाका जाप केली. हांव पळोवंकूच उरलें.

'हांवें तुजें सगळें आयकलां. तूं म्हाका एक संद दिवशी तुजी केस लढोवंक?' ताणें म्हाका विनंती केली. 'हांव म्हज्या वकिलीचो अणभव वाडोवंक सोदतां. तुजे सारक्या गरजेवंतांक आदार करूंक सोदतां. म्हाका तुजी 'फी' लेगीत नाका.' ताणें स्पश्ट सांगलें. ताच्या मुखामळावेल्या भावनांक पळोवन हांवें पारखिलें तोच म्हाका आदार करूंक शकता म्हूण. हांवें ताका परवानगी दिली म्हजी केस लढोवंक. ताणें म्हाका आपले कचेरेंत आपोवन व्हेलें.

आपले गरजे प्रमाण ताणें म्हजे कडल्यान बारिकांतली बारीक म्हायती काडून घेतली आनी पयलीं पुलीस चौकेर वचून घोवाल्या कुटुंबाचेर केस नोंद केली. परतूय ते केस नोंद करूंक सोदिनासले. पूण त्या वकिलान कसले कसले कायदे सांगले आनी पुलिसांक ताचें आयकुचें पडलें. केस नोंद जाली. घोवाच्या कुटुंबाचेर खटलो दाखल केलो. पुराय कुटुंबाक कोर्टांत येवंचें पडलें. कुटुंबाचें झगडें न्यायघरांत पाविल्ल्यान म्हज्याच मनाक वायट दिसलें. पूण कितें करूं? म्हज्या भुरग्यांचो प्रस्न

आसलो. म्हजी पिराय जायनासतना लग्न जाल्लें हें म्हज्याच भुरग्यां वरवीं तांणी सिद्ध करून दाखयलें. जुविजान भुरग्यांक म्हजे सुवादीन केलीं आनी हांवें खटलो फाटीं घेतलो. घरकाराक गोंयांत हाडपाची पुलिसांची मांडणी आसली पूण हांवेंच तशें करूंक दिलें ना. ताका ताची चूक एक दीस कळून येतली ह्या भरवंशान हांवेंच मारतें घेतलें. म्हज्या आवय-बापायकूय जुविजाची तापसाणी पडली.

काळ सरलो पूण म्हज्या घरकाराक पश्चाताप लेगीत जालो ना. हांवें त्या वकिलाच्या आदारान सरकारी वसाहतींत एक घर मेळोवन घेतलें आनी आवयगेर रावचे बदला थंय रावलें. म्हजो घरकार कुवेट सावन आयलो पूण म्हजी खबर घेवपाक ताका वेळ नासलो. हांवें ताची खूब वाट पळयली. तो आयलोच ना. तेन्ना हांवेंच घटस्फोटाची मागणी केली. फाटलो सगळो इतिहास पळोवन न्यायालयान वेळ लायनासतना घटस्फोट मानून घेतलो. त्या तरणाट्या वकिलान म्हजे जिणेक दिशा दिली. म्हज्या भुरग्यांच्या फुडाराचेर हांवें लक्ष केंद्रीत केलें.

'आगो समित्रा, भारत सरकार *एनआरआय*-क लग्न जावपा खातीर कायदो करपाचो आसा म्हूण आयकल्लें, ताचें कितें जालें?' एके अस्तुरेन विचारलें.

'हय भारत सरकार *एनआरआय*-क लग्न जावंक जाय जाल्यार ताचे खातीर कायदो करपाची भास उलयता. कायदो मंत्रालय सगळ्यां राज्यांक अटी घालून एक नमुनो धाडूंक सोदता. ह्या नमुन्याचेर सगळे तरेची म्हायती जशें नांव, पुराय नामो सध्या रावता आनी जंय नोकरी करता थंयचो, *एनआरआय* आसत जाल्यार ताचो '*सोशल सेक्युरिटी नंबर, पासपोर्ट नंबर,* वळखपत्र वा *लेबर कार्ड नंबर* आसपाची गरज उक्तायता. हो कायदो जर पयलीं सावन आशिल्लो जाल्यार म्हज्या घरकारा असल्या *एनआरआय*-क गोंयांत येवन मनमानी करूंक मेळची नासली. पिराय जावचे पयलीं चलयांक लग्न करूंक बंदी आसतली आसली. हांवूय खंय तरी म्हज्या सपनांत....'

'हांवें आयकल्लें कायदो करपाची सगळी तयारी जाल्या म्हूण.'

आनीक एक अस्तुरेन म्हळें.

'हो कायदो केलोच म्हूण जाता? तो अंमलांत हाडूंक जाय. आयज हे *एनआरआय* कितल्या चलयां कडेन लग्न जातात तें खबरूच आसना. तांकां कोण तरी देवळांत व्हरता आनी भटाक साक्षी दवरून तांचे लग्न लावन दिता. कांय कडेन समुह लग्नां जातात, तांची आनी कोण गवाय दिता जाल्यार खबर ना. देखून हो कायदो सक्तीन लागू करूंक सगळ्या पंथाच्या धर्मीक सुवातींनी आनी भट, पाद्री, मुल्ला आनी हेर जे लग्नाच्यो विधी पुराय करतात तांकां विस्वासांत घेवन चालीक लावंक जाय. राष्ट्रीय पांवड्यार बसका घेतल्यो, कायदे पंडितांक हाडून कायदे बरोवन काडले, '*वुमन ॲण्ड चायल्ड डेव्हलॉपमेंट*' मंत्रालयान पास केलें जावं '*नॅशनल कमिशन फॉर वुमेन* ' हांणी मंजुरी दिली म्हूण जायना, कोणें प्रत्यक्ष भोगलां तांचे अणभव लक्षांत घेवन पावलां मारूंक जाय. तेन्नाच ह्या कायद्याचो फायदो जातलो. आयज म्हजी पिराय जायनासतना हांव जाण्टेपण भोगतां. जायतें कितें करपाची म्हाका इत्सा आसा पूण म्हज्यान तें घडना. देखून म्हज्या भुरग्यांक हांवें तयार केल्यांत.'

सुमित्राची भुरगीं थंय केन्ना येवन तिची शोकांतिका आयकतालीं तें तिकाच खबर ना. घडये पयलेच फावट तांणीं आपले आवयची कथा विस्तारान आयकल्ली. तिची नदर तांचेर पडली. तीं तिका तेंकून गेलीं.

'हीं म्हजीं दोग जाण भुरगीं. चली दोतोर जाला आनी चलो अभियंतो. दोगांयच्याय खुस्तार आमच्यांनी जायते पयशे एकठांय करूंक जाताले. पूण तांणीं तशें करूंक ना. म्हजे कश्ट आनी आपणाक वयर काडपाक घेतिल्ल्या त्रासांची तांणी वळख घेतली आनी जे परीं आपली आवय समाजांत वळवळ्ळी तशी दुसरी अस्तुरी वळवळची न्हय म्हूण तांणीं पेंगट बांदलां. पिराय जावचे पयलींच कोणाचीय चली लग्नाच्यो विधी पूर्ण करची ना म्हूण तांणी चलयां खातीर जागृत कार्यावळी राबयल्यात. खंयचीच अस्तुरी शोशणाक बळी पडची ना, घरकाराली गुलामगिरी करची ना, सासुमांयचो अत्याचार सोंसची ना हे खातीर घरा घरांनी

वचून सामाजीक वावर करतात. लग्न जातकच घोवान आनी बायलेन कशे तरेन आपलो संवसार शाबूत दवरूंक जाय हें शिकोवपाक 'सांगात' सारक्या संस्थेचो आदार घेतात.

'तुमी अजूनय सरकारी वसणुकेंतल्या घरांतच रावतात?' परतून एके अस्तुरेन विचारलें.

'आमी अजूनय ते सरकारी वसणुकेंतलें घर सोडूंक ना. तें निराधार अस्तुऱ्यांक आलाशिरो घर केलां. हींच म्हजीं भुरगीं तांची देखरेख करतात. हाचे बगर ह्या गांवच्या लोकांक तीं आदार करतात. गरजेवंतांक आपआपले परीन पावतात. पावसाचे बळी थारिल्ल्यांक मजत करतात, हुंवारांत सांपडिल्ल्यांक आलाशिरो दितात. इतलेंच न्हय तर आमच्या गांवची आनी हेर गांवची मांडावळ सांबाळटात आनी कोणूच वांकडो मनीस खंयसरूय भितर सरून गांवचें पाड घालचो ना हाची जतनाय घेतात. अशे तरेन म्हजीं भुरगीं समाज सेवा करतात.'

'ओह, तर हीं तुजीं भुरगीं...? आमच्या गांवांत एकदम बरो वावर करतात तीं.' शेजाराक बशिल्ले एके अस्तुरेन उद्‌गार काडले.

'ह्या तांच्या बऱ्या वावरा खातीर तांकां परबीं फावतात.' आनीक एकलेन म्हणलें आनी ताळी पेटली.

'म्हणून म्हणटां हांव, आसा कापाझदाद कोणाक आमच्या असल्या मनशांक व्हरून माचयेर उलोवंक लावंक? ना. कित्याक आमी राजकी मळार वावरनात, आमची जायरात करिनात आनी कोणाचें लेंबडे खायनात. आमच्या कार्या कडेन आमी प्रामाणीक आसात. देखून आमी पयस आसात. गरजेवंतांक देव पावता. त्याच देवाचें रुप आमी वांटून घेतात. तुमकां गरज आसा तेन्ना उलो दियात.' समित्रान सांगलें.

थोडो वेळ हाजीर आशिल्ल्या अस्तुऱ्यां मदीं सुमित्रा विशीं आपसांत उलोवप जालें.

'म्हजीं दोन उतरां आयकले बद्दल तुमकां देव बरें करूं.' आपले हात जोडून सुमित्रान तांचे उपकार मानले.

सुमित्राची व्यथा चलता आसतना कितलोसोच लोक थंय एकठांय

जाल्लो, पूण कोणाकूच तिचें उलोवप आयकून बेजार आयलो ना. ना म्हूण उठून वचपाची कापाझदाद जाली ना. सुमित्रा खातीर एक फावट सगळ्यांनी ताळयो मारल्यो. तिणें लेस घेवन आपलें तोंड पुसलें आनी एक मंद हांसो दीयत जाग्या वयल्यान उठली.

'अस्तुरी दीस जिंदाबाद.' तिणें घोशणा दिली. तिचे बराबर सगळ्यांनी परत एक फावट घोशणा दिली. सुमित्रा आपल्या भुरग्यां बराबर सुमित्रा आनंदान चलपाक लागली. खरें म्हणल्यार हांगाच सारको अस्तुरी दीस रंगून आयलो.



'तुवें पयशे दिवन
मतदारांक तयार केल्यात शे दिसता
तुका? सम्राटाच्या सोयऱ्याची गत तुवें
पळयल्या. तो येतलो मत दिवंक? न्युटनाची
घरकान्न घर सोडून गेली आपले आवयगेर. आनी
तिचे आवयचें घर हळदोण्यां. ती येतली मत
दिवंक? ज्या तरणाट्यांक आतां तुमी पयशे
दितात, ते खूब सोरो पियेतले आनी फाल्यां
खंय तरी पडून रावतले. ते येतले मत
दिवंक?''

# कोडू-दुडू

संवसारार काळोख पसरूंक लागिल्लो. सांजेची आठ वरां जावन गेल्लीं. फाल्यां विधानसभेची वेंचणूक आसली. जण एक उमेदवार आपआपलो हिशेब करताले. तांचे भोंवतणीं बरे बरे मनीस घुंवताले. कोण सल्लो दिताले जाल्यार कोण आपल्या उमेदवाराचीं जिखपा-हारपाची गणितां करताले. थोडे मात खावपा पियेवपांत गुल्ल आसले. पूण ह्या सगळ्या वातावरणाच्या पली कडेन जेरोन एका लायटीच्या खांब्या पोंदाक  एक वळेरी घेवन आपल्या पेनान ताचेर कितें तरी आपलीं गणितां करीत आसलो. ताचे वळेरेचेर जायतीं नांवां आसलीं आनी दर एका नांवा मुखार एक आंकडो आसलो.

'जालें मरे सगळ्यांचे दिवन?' जेरोनाचो सांगाती सम्राटान येवन विचारलें.

'जाले खंयचे? तो सलीम, न्युटन, पीटर, कायतान अजून येवंक नात.' जेरोनान सांगलें.

'आरे तुजे पयशे वांटून जातले केन्ना आनी तें काम करतले केन्ना?

पुराय गांव आमकां भोंवून कांडूंक जाय मरे. कांय मेळना जाल्यार ते भायर सरतात?' सम्राटान परतें विचारलें.

'कितलो वेळ तांची वाट पळोवं हांव? हांव वतां. आठ वरां जावन गेलीं.' जेरोनाक एके भशेन बेजार आयलो.

'नाका नाका, तांचे पयशे तूं दिवनूच वच. आयची पुराय रात सांबाळूंक जाय. आनीक आमदाराक कळत जाल्यार मागीर तुजी धडगत ना.'

'फाटले फावटी हांवें तशेंच केल्लें. कोण घेवन रावतलो हें झंजट! ते मेळटा तेन्ना दितां हांव. आमदाराल्या दुसऱ्या पी.ए.क येता म्हूण सांगलां हांवें.' जेरोनान ताकीद दाखयली.

'राव रे जेरोन, हांवें आयकलां तुवें आमदाराचो विरोधी जॉनसना कडल्यानूय पयशे हाडल्यात म्हूण.' सम्राटान जेरोनीच्या कानांत सांगलें.

'हांवें? कोणें सांगलां तुका?' सम्राटाचीं उतरां आयकून जेरोन गडबडलो.

'राजकी मनशां कडल्यान हाडिल्ले पयशे लिपून उरनात. तुजे विशीं म्हाजे कडेन खात्रेची खबर पावल्या.' सम्राटान ताचेर एक बॉम्बूच घालो.

'पंचायत वेंचणुकेंत असलें जायतें पळयलां हांवें.' जेरोन हांसलो.

'तूं समजूं नाका पंचायत वेंचणुकेक बशिल्लो देखून आपूण एक विद्वान म्हूण. आमीय जायत्यो वेंचणुको पळयल्यात. वेंचणुकेक बसूंक ना जाल्यार कितें जालें? पयशे तरी वांटल्यात न्हय? कोण कशे घेतात तें सगळें म्हाका खबर आसा.' सम्राट ताचे जाळें विणीत आसलो. पूण जेरोन तें कांयच न्हय आशिल्ले भशेन करतालो.

'कोणूय दिता तें घेवंक म्हाका कितें जालां?' जेरोनाक आपली चूक कळूंक लागली.

'आतां कसो आयलो लायनीचेर?'

'हांव मागूंक गेल्लों ताचे कडेन? ताणें म्हजे कडेन फोर्सान दिल्यात.'

'हे, वोगीच सांगूं नाका. तूं गेल्लो ताका मेळूंक. ताच्या घरा कडेन

न्हय पूण... तो लुगार लेगीत हांव जाणा. कशे पचयतात रे तुमी? इतले दुडू हे वटेन घेवन, इतल्यो वस्तू थंय सावन हाडप? घरांत बरेंच भरून दवरलां दिसता तुवें?'

'तुका कितें करपाचें आसा? तुजे कितें आसा तें तुज्या घरा कडेन पावतलें. चल आतां कामाक लागुया. ओगीच वेळ वगडावं नाका.' विशय बदलपाचे नदरेन जेरोनान सांगलें.

'फाल्यां वेंचणूक, तूं कोणाक मत घालतलो?'

'दुबाव नासतना चड पयशे दिता ताका.'

'आनीकय पयशे जाय तुका?' सम्राटान ताचेर हात दवरीत फकांडां कलीं.

'ही करणी तुजी बरी न्हय जेरोन. दोगांय जाणांचे न्हय पूण एकल्याचे लेगीत पयशे हाडून आपलो पंगड करून तूं जो धंदो करता ताचो शेवट तुका खबर आसा? देवाक लेगीत आवडची ना ही तुजी करणी.' इतलो वेळ जेरोन आनी सम्राटाची भासाभास कान दिवन आयकत आशिल्ल्या स्टेनलीन जेरोनाक शिटकावणी दिली. स्टेनलीय एका काळार तांचे बराबर भोंवपी.

'आरे चल रे. आमी करतात ती चोरी न्हय. उमेदवाराक वेंचून हाडूंक आमकां भोंवचें पडटा, कोणाक कितें दिवचें पडटा, गाडी भाड्यान हाडची पडटा. वेळ इबाडचो पडटा. कोण दितलो पयशे? फाल्यां वेंचणूक, एक किलोमिटर पयस मतदान करूंक लोक चलून वतले? गाडी धाडल्यारूच येतात ते भायर सरून. तूं कितलेशेच फावटी आसा मरे आमचे बराबर, तुका खबर ना मतदारांक कशे घरांतल्यान भायर काडचे पडटात ते? नकळो आशिल्ल्या भशेन करता मरे तूं.' जेरोनान आपलो हिशोब मुखार हाडलो.

'हांव तुमचे बराबर येतालों भोंवपाक मेळटा म्हूण. आतां म्हाका कळून आयलां तुमी हें सगळें कित्याक खातीर करतात तें.' स्टेनलीन दोगांकय पळयत म्हणलें.

'तुजे लागीं जाता असले काम करूंक? जिखून येतकच आसतलो

आमदारा फाटल्यान. आमच्याच मतांनी येतात मरे ते वेंचून?' जेरोनान आपलें खांदे रुंद केले.

'हो तुमचो भ्रम जावन आसा. मतदान करप म्हणल्यार एका पवित्र हक्काची अंमलबजावणी करप. आमचे भारत मातेन जण एकल्याक हो अधिकार दिला. हें जायत्या लोकांक खबर आसा. देखून जायते लोक तुमी गाडयो धाडून पसून तुमचे गाडयेर येनात, तें तुमी पळोवंक ना?' स्टेनली नितळ विचारांनीं तांचे दोळे उगडूंक सोदतालो.

'येनात ती तांची खुशी. आमकां उमेदवारान पयशे दिल्यात तांकां गाडी धाडूंक, आमी धाडटात. तें सगळें घेवन बसूंक आमकां खंय वेळ आसा?' सम्राटानय आपलें पेंपारें वाजयलें. ते समजुपाच्या मुडांत नासले.

'तुका दिसता तुमी गाडयो धाडल्यो नात जाल्यार ते घरांल्यान भायर सरचेनात आनी मतदान करचेनात म्हूण?' स्टेनलीन ताचे मुखार उबो जायत विचारलें.

'कितले जाण मत घालूंक वतले गाडी धाडिना जाल्यार? चल, तुज्या वाड्यांत नेमल्यात त्यो गाडयो आमी काडटात. पळोवया कितले जाण मतदान करूंक येतात ते? आमचें आव्हान स्विकारता तूं?' जेरोनान आपले दात पाजीत ताका धारेर धरलो.

'तुमी तशें करूनच पळयात. जे मतदान करूंक वतले ते कुसियेंसान आपलें मत घालतले. खऱ्यांनीच बरो आसा ताका वेंचून काडटले. तेन्नाच आमकां सगळ्यांक अधिकार उरतलो ताका विचारूंक, ताच्या वांकड्या कामाचो हिशेब घेवंक. त्या वेळार ताका हात फाफडूक मेळचे नात, ताणें आमकां जाप दिवंची पडटली.' स्टेनलीन मतांची किम्मत सांगली.

'कोणाक आसा कापाझदाद जाप विचारपाची?' जेरोनाक राग आयलो.

'तुमी वांटिल्ल्या पयशांनी ते जिखून येतात म्हूण कोणाक कापाझदाद जायना. तूं फुडाकार घे असलें बंद करपाक. तुजे कडेन आसात ते पयशे

काडून उज्याक लाय आनी पळय, हांव कापाझदाद दाखयतां ताका विचारपाची. ताणें विकते घेतिल्ल्या मतदाराक अधिकार खंय उरता ताचे कडेन प्रस्न करपाचो?' ठाम विस्वासान स्टेनलीन तांकां परतें आव्हान केलें.

'आसूं सोडून दी तें. आमी कित्याक आमचें माथें फोडुया?' सम्राटान विशय बदल्लो.

'हें फकत हांगा घडटा अशें ना, हें दर एक वेंचणुकेच्या लुगाराचेर घडटा. पूण आमच्याय वाड्यांत हें घडटा म्हूण आमकां लज दिसता. चड करून तुमचे सारके शिकिल्ले भुरगे असलीं कामां करतात म्हूण.' स्टेनलीन मान पोंदाक घाली.

'कितें दवरलां ह्या शिकपांत? *ग्रॅज्युएट* जावन पसून बेकार मरे? आनी बेकार दवरपी कोण? हेच न्हय वेंचून येतात ते? मागीर तांचे थोडे पयशे आमी खाले आनी थोडे लोकांक वांटले म्हूण कितें जाता?' जेरोनाक आतां जाल्यार खरेंच राग आयलो. ताचे पसत सरकारान जावं आमदारान कांयच करूंक नासलें.

'पूण तूं तांकां आनीक चोरूंक संदी दिता न्हय?' स्टेनलीनय रागान विचारलें.

'ह्या सम्राटाक पळय, शिकोवपाचो कोर्स करून पसून ताका नोकरी मेळना. घरा कडेन बोवाळ मारतात बेकार भोंवता म्हूण. कितें करतलो बाबडो? तुवें पळयलां एक फावट वेंचून येतकच ते आमदार मंत्री लोकां खातीर कितें करतात तें. मागीर पांच वर्सांनी परतून तांचीच भारी. आनीक एक फावट आमच्या फुड्यांत येतात लोकांक मतां मारूंक एकठांय करूंक, बसका घेवंक, हाका फटिंगपणां सांगूक, ताका फटिंगपणां सांगूक. तेन्ना तांचे पयशे घेतल्यार वायट जालें?' जेरोनान रागान आपलें सांगून सोडलें.

'ना जेरोन. कांयच वायट जावंक ना. हांव म्हणटां ते आमचें कसलेंच काम करिनात. पूण तांणी आपणाक मत घालपाक हे तरेन पयशे फारीक केल्यार ते आमचें काम कशें करतले? देखून तुका एक

कानमंत्र दितां. तांचे कडल्यान कितलेय पयशे घे पूण त्या पयशांनी मतां विकतीं घेवचे बदला कसलोय बरो वावर कर. ते गरिबांक वांट, अनाथआश्रमांक व्हरून दी.' स्टेनली दानाच्यो गजाली करूंक लागलो.

'मागीर हांव कितें वांकडे करता तर? असल्या पयशांनी हांवें घरा कडेन कितलें हाडून भरलां, तें म्हज्या फुडाराक न्हय? आयज राती कडेन तें सगळ्यां मेरेन पावतलें.'

'आतां बरें सांगलें तुंवें. तेच खातीर तुका सोदीत सोदीत हांव आयिल्लों. चलात तुमी दोगूय म्हजे बराबर येतात तुमकां हांव दाखयतां तुमचो फुडार.' स्टेनलीन कितें तरी वेगळेंच सांगलें. तें आयकून ते दोगूय अजाप जाले.

'आमचो फुडार तुजे कडेन आसा?' सम्राटान जाप घाली.

'तुजे बराबर गेल्यार आमचे काम कोण करतलो? ते भाटांतले तरणाटे म्हाका रावतात मरे. हांवें तांकां कितेंय घेवन येतां म्हूण सांगलां.' जेरोन वचूंक अनमनूंक लागलो.

'चड वेळ न्हय, रोखडेच वचात. तुमकां कळूंक बरें.' स्टेनलीन जेरोनाच्या हाताक धरलो आनी चलूंक लागलो.

स्टेनली तांकां घेवन बरोच मुखार आपल्या घरा वाटेन गेलो. वाटेर चड उलोवणीं जावंक नात पूण सम्राट आनी जेरोन मात कुचबूच करीत आसले. स्टेनली एका झाडा मुळांत रावलो. थंय एक मनीस बरोच सोरो पियेवन पडून आसलो.

'हो सम्राटाचो एक सोयरो.' स्टेनलीन त्या बेबद्याक बोट दाखयत म्हणलें.

'जेरोनबाब तूं खंय पावलो? कितलो वेळ जालो तुजी वाट पळयतां. म्हजे उरिल्ले पयशे... पयशे म्हाका जाय मरे. फाल्यां... फाल्यां आनीक... पियेवंक... जेरोन... आमदारान धाडिल्ले पयशे... दी मरे...' तो पडिल्लो आसतना बडबडत आसलो. तो शाबुदीर नासलो. तो जेरोनाच्या पयशांची वाट पळयतालो.

'ताचें नांव आसा न्हय तुज्या लिस्टार जेरोन? सम्राट चल ताका

मातशे घरा व्हर. लोकांची हीच दशा करूंक वांट्टात मरे तुमी पयशे? जेरोन आतां तुज्या घरा शेजराक कितें जाता तें दाखयतां तुका.' स्टेनलीन जेरोनाच्या खांदार हात घालो.

सम्राटाक लज जाली. तो आपल्या सोयऱ्याक घेवन वचूंक लागलो. स्टेनली आनी जेरोन आनीक मातशे मुखार गेले. जेरोनाच्या घरा कडेन पावचे आदीं थांबले.

'फाटले तीन दीस जाले न्युटन घरा कडेन मस्तीपणा करता तुजे कडल्यान हाडिल्ल्या पयशां नेटार. बायल भुरग्यां कडेन विनाकारण वाद घालता. आयज ताणें आपले बायलेचेर हात केलो. हें बरें दिसता तुका?' स्टेनलीन वाड्या वयल्या एका तरणाट्याची गत जेरोनाक सांगली.

'आतां सगळ्यांचे घेवन बसल्यार तुका दिसता कोण एकलो पूण मुखार वतलो म्हूण?'

'तुज्या घरा शेजाराक हें घडटा तें तुका खबर ना. कित्याक तूं घरांतल्यान केन्ना भायर सरता आनी केन्ना भितर सरता तें तुज्याच घरांत खबर आसना.'

'म्हजो एकल्याचो विचार करून हांव हें करतां? पयलें म्हणल्यार आमदाराक परत वेंचून हाडूंक आनी ते निमतान लोकांक कितें तरी मेळचें म्हूण.'

'तुवें पयशे दिवन मतदारांक तयार केल्यात शे दिसता तुका? सम्राटाच्या सोयऱ्याची गत तुवें पळयल्या. तो येतलो मत दिवंक? न्युटनाची घरकान्न घर सोडून गेली आपले आवयगेर. आनी तिचे आवयचे घर हळदोण्यां. ती येतली मत दिवंक? ज्या तरणाट्यांक आतां तुमी पयशे दितात, ते खूब सोरो पियेतले आनी फाल्यां खंय तरी पडून रावतले. ते येतले मत दिवंक?' स्टेनलीन वस्तुस्थिती मांडली.

इतल्यान जेरोनाचो मोबायल वाजलो. जेरोन घडबडलो.

'सर, सर, हां सर.... हय तें सगळें हांव पळयतां सर..... ना, ना. तूं चिंता.... बरें सर.... गूड नायट सर.... आमदाराचो फोन आसलो.' जेरोनान सांगलें.

'आतां तुका निमाणें दाखयतां. जेरोन यो, तुज्या घरा कडेन एक पासय काडूंक या.' स्टेनली ताका घेवन ताच्या घराचे दिकेन चलूंक लागलो.

ते ताच्या घरा कडेन पावकूंच नासले. तांच्या घरा कडेन बरीच गर्दी आसा ती पळोवन ते थंयच थांबले. कितें जालें तें जेरोनाक समजना जालें. जॉन्सन हुमऱ्यार उबो आसलो. जेरोनाचो व्हडलो पूत जॉन्सनाच्या मनशांक आदार करतालो. घरांतल्यो वस्तू ते लोकांक वांटीत आसले.

'आरे तुमी हें कितें करतात?' जेरोन धांवत मुखार गेलो. स्टेनली हांसत ताचे फाटल्यान गेलो.

'कांयच भियेनाका जेरोन.' जॉन्सन धावून जेरोना म्हऱ्यांत आयलो. 'हांवें तुका पयशे दिल्ले लोकांक वांटपाक आनी म्हाका मतां हाडपाक. वेळ काडून हांव पळोवंक आयिल्लों. तर म्हाका समजलें तुवें म्हजे पयशे लोकांक वांटचे बदला ह्यो बऱ्यो बऱ्यो वस्तू हाडून आपल्या घरांत दवरल्यात. खूब बरी गजाल केली तुवें. लोकांच्या फायद्याची गजाल ही. देखून हांवें चिंतलें लोकांचें तें लोकांक पयलीं दिवन उडोवंया. तूं हेर कामां करता म्हणल्यार ह्यो वस्तू लोकांक वांटूक तुका वेळ मेळचो ना म्हूण हांवेंच ताची सुरवात केली. आनीक म्हज्या हातांतल्यान वस्तू मेळ्ळ्यो म्हणटकच आनीक प्रचार करपाची गरज कसली आसा?' जॉन्सनान हांसत हांसत जेरोनाक सांगलें.

'पूण तें सगळें...' जेरोन पळोवंकूच उरलो.

'बेश्टोच उलोवन लोकां हुजीर नांव इबाडिनाका. घडटा तें मोन्यांनी पळय.' जेरोनाचें पुराय नाटक जॉन्सनाक समजल्लें. एकवटेन जॉन्सनाक ताची तिडक मारिल्ली. तरी तांचे मदीं कितें जाता तें लोकांक कांयच पडूंक नासलें. आपल्या हाताक मेळटा तें घेवन लोक वताले.

'पूण ह्यो तुवें दिल्ल्यो वस्तू न्हय.' जेरोन ताका समजावपाचो यत्न करतालो.

'कोणेंय दिल्ल्यो आसूं. लोकां खातीरूच हाडिल्ल्यो न्हय त्यो?'

'पापा, सगळें सोंपलें.' जेरोनाच्या पुतान तांचे म्हऱ्यांत धांवत येवन

सांगलें.

"बरें हांव वतां. मेजार रावतात तांकां सुमार 100 जाणांक *स्नॅक्स* आनी जेवणाची वेवस्था हांवें तुमच्या वाड्या खातीर केल्या. कमी पडलें जाल्यार सांग. फाल्यां मेळुया.' जॉन्सन आपल्या मोटारींत बसलो. कोण कोण ताचे फाटल्यान वचूंक लागले.

स्टेनलीन लांब सुस्कार सोडलो आनी तोंडार हांसो हाडून तोय चलपाक लागलो. जेरोन आपल्या पुता सांगाता कपलार हात मारून थंयच बसलो.

■■■

*'हांगासर खंयच्याय मंत्र्याची आज्ञा चलना. संजीलाक नोकरे वयल्यान काडपाचो म्हज्यो एकल्याचो निर्णय न्हय. ताणें कायद्या भायर काम केलां. देखून ताचेर कारवाय केल्या. आमी ताचेर चवकशी समिती बसोवन ताचे विशीं पुरायपणान चवकशी केल्या. ते समितीन जो निवाडो दिला ते प्रमाण आमी ताका शिक्षा दिल्या.'*

# कामचोर

विधानसभेच्यो वेंचणुको जाहीर जाल्यो. मंत्री जयवंतान आपल्या सगळ्या वावुरप्यांक पुंजावपाक सुरवात केली. हे फावट ताच्या प्रतिस्पर्ध्याक कशेय भशेन लजेची हार दिवपाची आसली. कित्याक ताणें खूब आदीं वेंचणुकेची तयारी सुरू केल्ली. देखून जयवंतान आपल्या खांची कोनशांतल्या वावुरप्यांची वळेरी करून तांची वासपूस सुरू केल्ली. फुडल्या आयतारा तांकां मार्गदर्शन दिवपाचें एक शिबीर जावपाचें आसलें. ह्या शिबिराक ताणें व्हड व्हड मनीस आपयल्ले. तेन्नाच ताका कळ्ळें आपलो बऱ्यांतलो बरो एक वावुरपी संजीलाक नोकरे वयल्यान काडला म्हूण. ताणें ताका आपोवन हाडलो.

'आरे संजील, तुका नोकरे वयल्यान काडला म्हूण आयकलां ती सारकी खबर?' जयवंतान विचारलें.

'हय सर.' मान पोंदांक घालून अशिल्ल्या संजीलान मानून घेतलें.

'मागीर, तुवें म्हाका कित्याक सांगूंक ना?'

'तुमकां ओगीच त्रास नाकात म्हूण म्हजे कडेन जाता ते भशेन कंपनी

 कडेन झगडत आसां.' संजीलान माथें खरपीत सांगलें.

'कितें केलें तर तुवें? कित्याक म्हूण तुका नोकरे वयल्यान काडलो?'

'कितें जालें तें सारकें सांगतां. त्या दिसा स्कूटर घेवन कामाक वता आसतना वाटेर मदींच दुकर आयलो आनी हांव सकयल पडलों. बरोच मार लागलो म्हाका. म्हज्यान उठूंक जायना जालें. त्याच वेळार म्हजो एक इश्ट थंय पावलो आनी ताणें म्हाका आदार दिलो. मातसो वेळ सुसेग घेतले उपरांत तोच म्हणूंक लागलो 'आंग फोडटा तातूंतल्यान भायर येवपा खातीर इल्लिशी ब्रॅण्डी घे. सगळी दूख नाच्च जातली.'

'म्हणून तुवें ब्रॅण्डी घेतली.' जयवंताक हासूंक आयलें.

'हय सर. लागींच एक सोऱ्याचें दुकान आसलें. थंय वचून दोगांनीय इल्ली इल्ली ब्रॅण्डी मारली आनी हांव तसोच नोकरेक गेलों. वेळ जालो म्हूण म्हाका भितर कचेरेंत व्हेलो. वेळान येवपाचें कारण विचारलें तेन्ना उलयता आसतना म्हजी जीब मातशी आडखळ्ळे सारकी जाली. देखून म्हाका मॅमो पडलो. जें कितें घडलें तें म्हज्या नेणारपणाक लागून घडलें आनी तातूंत जाणा जावन वांकडे केल्लें कांयच नासलें. अशें सांगून हांवें माफी मागली आनी अशें परत केन्नाच घडचें ना म्हूण उतर दिलें.' संजीलान त्या दिसा घडिल्लो प्रकार सांगलो.

'माफी मागून पासून तुका नोकरे वयल्यान काडलो?' जयवंताक हें आयकून अजाप दिसलें.

'हय सर. हांवें तांकां कितलें सांगलें पूण ते म्हजे कांयच आयकुपाक तयार नासले. हांवें इतलें पसून सांगलें 'इतलीं वर्सां जालीं हांव हांगा नोकरी करतां, म्हजी आतां पिराय जाल्या. दुसरी नोकरी म्हाका कोण दितलो?' त्या दुकरान म्हाका उडयलो आनी आयज हांव...'

'हय, हालीं खुबूच वाडल्या ही मोनजात रस्त्यांचेर. दिसाक एक तरी अपघात खंय ना खंय तांकां लागूनच घडटा. सुणीं, दुकर सामकींच सतयतात. हाचेर गंभीरतायेन विचार करचो पडटलो.' जयवंतान आपलें सांगलें.

'पंचायतीक आनी नगरपालिकेक सरकार कित्याक सांगनात तांचेर

नदर दवरूंक?' संद घेवन संजीलान विचारलें.

'तसो यत्न जायते फावटी जाला. पूण ह्या ना त्या कारणाक लागून सारकी कारवाय जायना. त्यो मोनजातीची राखण करपी संघटना आसात तांची चड आडखळ जाता. घडये तांकां लागून ते पाड पडलां आसत.'

'आतां लुकसाण जालें तें म्हजें न्हय सर?'

'त्या दुकराक लागून तुका अपघात जालो. देखून तुका नोकरे वयल्यान काडून उडयलो. हांसपाची गजाल मरे ही.'

'आतां खंय गेल्यात त्यो मोनजातीची राखण करपी संघटना?' संजीलाक राग आयलो.

'पूण तूं कांयच भियेनाका, हांव फाल्यांच तुजे कंपनींत वचून, ते कोण आसात तांकां मेळून, तुजे बाबतींत उलयतां आनी तुका परत नोकरेचेर घेवंक लायतां. बरें, म्हाका सांग तूं आमचे बराबर आसतलो मरे वेंचणुकेक वावर करूंक?' जयवंत मूळ मुद्यार आयलो.

'दुबावूच ना सर.' संजीलान मान हालयली.

'आतांच्या वावुरप्यांचेर विस्वास दवरूंक अवघड जाता. केन्ना हांगा आनी केन्ना थंय तें कळना. चड करून नोकरेक लागिल्ले चडूच मस्ती आसतात.'

'म्हजे विशीं तूं चिंता करूं नाका सर. आयज पासून तुजे शिवाय दुसऱ्या खातीर हांवें वेंचणुकेक काम केलां?'

'बरें आसा. म्हाका आयजूच कळ्ळी तुजी खबर. ते तुजे कंपनीक हांव सारकें शिकयतां. आमच्या मनशाक असो काडून उडोवप?' जयवंतान अडेचो राग उक्तायलो.

'हांवें लेबर कोर्टांत म्हजी केस मांडिल्ली, ते म्हणटात कंपनी सारकी आसा म्हणून.'

'आमी कित्याक आसात रे हांगा? आनी तुमकां जर हांव आदार करिना जाल्यार तुमी आमचे बराबर रावून कितें फायदो?'

संजील कांयच उलयलो ना.

'कितें रे ती कंपनी? आमी तांकां लायट दितात, उदक दितात,

कितली जमीन दिल्या. आनी एक सादे चुकीक लागून आमच्या मनशाक काडून उडयतात. हे विशीं हांव तांकां जाप विचारतलोंच.'

'चड उपकार जायत सर.' संजीलान हात जोडले.

'कूंय कूंय' करीत दुसऱ्या दिसा मंत्री जयवंताची गाडी कंपनीचे गेटी कडेन येवन थांबली. गेट-शिपायान बेगीन बेगीन गेट उक्ती केली आनी तो गाडयेंतल्यान देंवून चलूंक लागलो. गेट-शिपायान  तितले म्हणल्यार आपले सोपस्कार पूर्ण करून ताका घेवन संचालक शकीला म्हऱ्यांत गेलो.

'येयात, बसात. हांव शकील. हांवूच ही कंपनी हांगा सांबाळटां.' शकीलान ताका येवकार दीयत कदेल मुखार व्हेलें.

'हांव संजील नायक ह्या भुरग्या खातीर तुमचे कडेन उलोवंक आयलां.' जयवंतान सरळ मुद्याक हात घालो.

'उलोवया.' शकीलान च्यावेची वेवस्था करूंक आवाज दिलो. थोड्या वेळान च्याव आयली. च्याव पियेतां पियेतां तांची भासाभास मुखार गेली.

'पळय शकीलबाब. तुमी संजीलाक नोकरे वयल्यान काडून उडयला तें बेकायदेशीर आसा. ताका तुमी ताबडतोब कामार घेवंक जाय. तो म्हजो खास मनीस. ताका लागून म्हजे वेंचणुकेंत म्हाका जायतो आदार जाता.'

'ताका लागून तुका आदार जाता म्हूण आमचे नेम मोडून बेकायदेशीर वागता ताका कामार दवरपाचो?'

'तुजे नेम मोड वा आनीक जाय ते घडय. पूण हांव तुका सांगतां ताका नोकरेक घे.'

'*आय एम सॉरी मंत्रीबाब*. आमी तशें करूंक शकनात.' ताणें मेजा वयल्यो फायली एका कोनशाक दवरल्यो.

'तुजो हांगा सायब कोण आसा? हू इज द *ओनर ऑफ धिस कंपनी* ?' मंत्र्यान आपलो आवाज वाडयलो.

'मंत्रीबाब आमचो मालक दिल्ली आसता. हांव हांगा *सिटिंग डायरेक्टर*

म्हूण काम पळयतां. हांगासरले सगळे निर्णय हांवूंच घेतां.' शकीलान शांतपणान जाप दिली.

'मागीर संजीलाक परत घेवपाक तूं कित्याक फाटीं सरता? दिल्लीकारांचे दिल्लीक पळोवं दी. आमचें आमी पळोवया. हांव ह्या राज्याचो मंत्री हें तुका खबर ना? संजीलाक नोकरेचेर घेवंक हांव तुका आज्ञा दितां.'

'हांगासर खंयच्च्याय मंत्र्याची आज्ञा चलना. संजीलाक नोकरे वयल्यान काडपाचो म्हजो एकल्याचो निर्णय न्हय. ताणें कायद्या भायर काम केलां. देखून ताचेर कारवाय केल्या. आमी ताचेर चवकशी समिती बसोवन ताचे विशीं पुरायपणान चवकशी केल्या. ते समितीन जो निवाडो दिला ते प्रमाण आमी ताका शिक्षा दिल्या.'

'तूं फट उलयता. म्हाका संजीलान सांगलां आपूण पयलेच फावट सोरो पियेवन मेळ्ळा म्हूण.'

'आमचे कचेरेंत आमीच फट उलयले जाल्यार हे कंपनीची इतली प्रगती जावची नासली. फाटलीं आठ वर्सां हांव हांगा आसां. आमचो मालक तीन वर्सां वयर इतल्या उंचेल्या पदा वयल्या मनशाक एका जाग्यार दवरिना. हांव जर फट उलयतालों वा कोणाचोय सूड घेवपाचे भावनेन हांगा नोकरी करतालों जाल्यार तो म्हाका आपले आनीक खंयचेय तरी कंपनींत धाडटलो आसलो. म्हाका म्हजी जबाबदारी बरी समजता.'

'तूं म्हाका रेस्पेद दिना शकील.' जयवंत तापलो

'रेस्पेद दिवपाचेर आसना, रेस्पेद घेवपाचेर आसता. तुका फावो तो रेस्पेद म्हज्या मनशांनी आनी हांवें लेगीत दिला. म्हज्या मनशांक जाय जाल्यार तुका आमच्या मॅनेजरा फुड्यांत भासाभास करूंक धाडूंक जातालो. पूण तांणी तुका सरळ म्हज्या फुड्यांत हाडला. आमची कंपनी एक नामनेची कंपनी. कोणाक कोणां फुड्यांत धाडूंक जाय ताचें लेगीत सगळ्यांक प्रशिक्षण दिलां. एकामेकांक मानान लेखप हाचेंय आमी प्रशिक्षण दितात. तेच धर्तरेचेर तुमकां फावो तो रेस्पेद आमी दिला.'

'आमकां लागून तुमचो हांगा धंदो चलता म्हूण तुमी विसरतात? आमचें सरकार तुमकां कितलो आदार करता, त्या बदलाक आमच्या वावुरप्यांचे सादे चुकीक लागून तांकां काडून उडयतात तें सारकें ना.'

'सुसेग घे मंत्रीबाब.' शकीलान घंटी वाजोवन आपल्या शिपायाक आपोवन हाडलो. ताका सांगून संजीलाची फायल हाडून घेतली.

'सगळे पेपर फायल केल्ले आसात न्हय?' फायलीचेर भितरल्यान नदर मारीत ताणें शिपायाक विचारलें.

'हय सर.' शिपाय भायर गेलो. शकील फायल चाळीत उलोवंक लागलो.

'पळय मंत्रीबाब. संजीलाचो तुका इतिहास सांगतां. सुमार बारा वर्सां आदीं तो आमचे कंपनींत कामाक लागलो एक सादो *ऑफिस बॉय* म्हूण. म्हाका दिसता कोणें तरी मंत्र्यानूच ताका फोर्सान कामाक दवरिल्लो. त्या वेळार आमचे कंपनीत *वेकन्सी* नासली म्हूण *रिकॉर्ड* पळयल्यार कळटा. सादो *ऑफिस बॉय* जावन पसून ताचीं मस्तेपणा हांगां चालूच आसलीं. म्हूण ताका आमी *प्रोडक्शन* खात्यांत घालो. थंय खंयच्याय कामगाराक जाय तशें वावरूंक मेळना. तरी तो दुसऱ्यांक तिडावन घालपाचें काम करतालो. ही पळय ताची फायल कितली मोटी जाल्या. ताका कितले फावटी आमी शिटकावणी दिली, ताणें आमचें केन्नाच आयकलें ना. आमचे कंपनींत घडये हो एकूच मनीस आसतलो जाची फायल इतली मोटी जाल्या. एक फावट ताणें एका मनशाचेर आमच्या संकुलांत थापट मारिल्लें. तेन्ना आमकां कळिल्लें की तो तुमचो मनीस म्हूण. ओगीच तुमचे कडेन वायटपणां नाकात म्हूण आमी ताका शिटकावणी दिवन सोडून दिताले.'

'हें ताणें म्हाका केन्नाच सांगूंक ना.' मंत्र्यान आपल्या माथ्या वयल्यान हात भोंवडायलो.

'आमी संजीलाक नोकरे वयल्यान काडलो तेन्ना तो पयलेच फावट सोरो पियेवन आयिल्लो अशें न्हय. ते बाबतींतूय ताका जायते फावटी शिटकावण्यो पडिल्ल्यो आसात. पळयात, तुमीच पळयात ही फायल,

तुमकां जाय जाल्यार. कितले फावटी ताणें मानून घेतलां आपलो गुन्यांव जालो म्हूण. आमचे अधिकारी ताची फायलूच मोटी करूंक बसल्यात हांगा? तांकां दुसरेंय काम आसता.' शकीलान संजीलाची फायल ताचे मुखार दवरली.

जयवंतान फायल आपल्या हातांत घेतली आनी ओगीच पळोवंक लागलो.

'संजीलान आपलो गुन्यांव मानून घेतला. म्हूण आमच्या *स्टॅंडिंग ऑर्डर* प्रमाणे ताचेर सादी कारवाय केल्या आनी ताका आमी नोकरे वयल्यान काडून उडयला. ना जाल्यार ताणें लुकसाण भरपाय दिवची पडटली आसली. कितलें म्हूण आमी सोंसून घेवचें ताचें? असलीं नाका जाल्लीं कामां करूंक आमचे कडेन वेळ आसा? इतलेंच न्हय तर ताचेर अदीक कारवाय जावपाची आसली. आमच्या कंपनीच्या कायद्या प्रमाणे कंपनी संकुलांत कोणाच्यान सोरो पियेवन येवंक जायना, मस्तीपणा करूंक जायनात. आमकां जाय जाल्यार मस्ती केल्ले खातीर ताका बंदखणींत दवरूंक येतालो. पूण तशें करिनासतना आमी ताचे कडेन फकत नोकरेचो राजिनामो मागलो. हीच आमची चूक जाली काय म्हूण?' जयवंत फायल बेठीच चाळटा तें पळोवन शकीलान ताचे विशीं चडूच सांगलें.

'तो एका मंत्र्याचो मनीस म्हूण जाणा जावन पसून ताका काडलो. एक फावट आमकां कळोवचें तरी आसलें.' जयवंतान फायल बंद केली आनी शकीला मुखार दवरली.

'हांवें एका मंत्र्याक न्हय तर म्हज्या वरिश्ठांक कळोवपाचें आसता. तें सगळें हांवें केलें. तुमकां जाय जाल्यार म्हजे आड तुमच्यान मुखार वचूं येता. हांवें कोणाचीच बाजू घेनासतना निर्णय घेतला. म्हज्या निर्णयाक तुमच्यान आव्हान दिवंक जाता. तुमचे कचेरेंत असल्यो चुकी जाल्यार तांकां तुमी अशेच सहन करून घेतात?' शकीलान गुगली घाली.

'तें बारीक सारीक घेवन बसपाक कोणाक वेळ आसा?' जयवंतान

हात फाफुडले.

'म्हूण घडये तुमच्या कचेऱ्यांनी अजून लेगीत शिस्त ना. वेळाचें बंधन ना. आपल्या वरिश्ठांक लेखपाची वृत्ती ना. पूण आमी शिस्ती कडेन एकदम कडक आसात.'

'अशें कितें आसा तर इतले कडक नेम पाळूंक?'

'अमची कंपनी जावन आसा आंतरराष्ट्रीय पांवड्या वयली वखदां करपाची कंपनी. तुजो मनीस *इन्स्पेक्शन* सारक्या म्हत्वाचे सुवातेर काम करतालो. ताच्या घाळपणाक लागून जर कसलीय चूक जाल्ली जाल्यार मुखा वयली जबाबदारी कोणाची थारतली आसली? कंपनीक ताची जाप दिवची पडची नासली? कोण एका कामदाराचे चुकीक लागून कोणूय मनशाचो जीव घेवपाची आमची इत्सा ना. तुमी जाणांत आयज *कंझ्युमर फोरम* कितलें जागृत आसा तें.' शकीलान आपली जबाबदारी दाखयली.

'तें सगळें सोडून दी. तूं संजीलाक नोकरेक घेता वा हांव मुख्यमंत्र्या कडेन उलोवन तुमचे कंपनीचो परवानो काडून घेवंक लावं?' जयवंत ताचें कितेंच समजुपाचे वृत्तींत नासलो.

'इतल्या सकयल्या दर्ज्याचें उलोवप आयकून म्हाका तुमची कीव येता मंत्रीबाब. धमक्यो आमकांय दिवंक कळटात. पूण आमी तशें करिनात. तें आमचे परंपरपरेंत बसना. कित्याक आमकां हांगा वेवसाय करपाचो आसा. आमच्या ह्याच वेवसायाक लागून तुमचें सरकार चलता. खबर ना तुमकां? नाजाल्यार तुमी जी लूट मारतात ती पळयल्यार तुमच्या राज्याचे लोक उपाशीं पडपाचे. तुमी लोकांक कसल्योच सवलती दिनात. उलट तुमी तांचे कुस्तार सवलती घेतात. त्यो सवलती आपल्या फोल्याक वापरतात. देखून लायनीक उबे आशिल्ल्या गरिबांची लायन व्हड व्हड जायत आसा. हें केन्ना पळयलां तुमी?' शकील अजूनय शांतपणान उलयतालो.

'तूं एका मंत्र्याचेर आरोप करता शकील.' परत एक फावट मंत्र्यान आरड मारली.

'आरोप करपाचो आमकां अधिकार आसा. कारण तुमी एका चुकिल्ल्या मनशाचो पाखो घेवन आमचे कडेन हुज्जत घालतात. तुमकां दिसता सोरो पियेवन कामाक आयल्यार आमी सोंसून घेवपाचें? आमचे सारक्या व्हडल्या कंपन्यांनी असलें चलना.'

'कोणाक सांगता तूं हें?'

'एक देख दितां. एक मनीस रेल्वे खात्यांत काम करतालो, तो सोरो पियेवन प्रवाशां कडेन वाद घालूंक लागलो. म्हूण ताका काडून उडयलो. तो रेल्वे खात्या कडेन झगडून झगडून सुप्रिम कोर्टांत पावलो. पूण जो निर्णय रेल्वे खात्यान घेतिल्लो, तो सारको आसा म्हूण ताचें तोंड सुप्रिम कोर्टांन बंद केल्लें आसा.' शकीलान आपली नदर थीर केली.

'आनीक एक देख दितां. दक्षिण हरयाना बिजली वितरण निगम लिमिटेड हे कंपनीन सोरो पियेवन आयिल्ल्या कितल्याच कामदारांक एकेच फावट काडून उडयले. त्या कामदारांनी व्हडलो बोवाळ केलो. काम बंद दवरपाक केलें. पूण तांच्या आदाराक कोणूच पावलो ना. तुमचें सांगतां. कितल्याशाच सरकारी कचेऱ्यांनी सोरो पियेवन मेळ्ळ्यात तांकां सरकारान काडून उडयल्यात. ही तुमकां खबर ना? हें सगळें नोंद जाल्लें आसतना तुमी सोरो पियेवन नोकरेक वचप्यांक आडावचे बदला प्रोत्साहन दितात म्हणल्यार हांसूंक येता.' शकीलान आपलो अणभव ताचे मुखार दवरलो.

'हांव तुजें भाशण आयकूंक येवंक ना हांगा. म्हाका आनिकूय जायतीं कामां आसात.'

'हांवें तुका इतलो रेस्पेद दिला आसतना तूं हाका भाशण म्हणटा जाल्यार तुजे चुरचुरे करपा इतलो हे धतरिचेर दुसरो प्राणी आसचो ना. समजलें?'

'सर, थोडे पयशे घेवंक मान्यताय जाय आसली.' उत्पादन खात्यांतल्या नायक ह्या कामदारान नेटान भितर येवन सांगलें आनी एक *पेमेंट वॉवचर* शकीला फुड्यांत हाडून दवरलो.

'अचकीत पयशांची कसली गरज पडली?' शकीलान आपल्या

कामदाराक विचारलें.

'सर, *मॅकानिकल डिर्पाटमेंटांत ॲर कंडिशनर* सारको करतना आमच्या फिटराक मार लागला. ताचो एक हात *फ्रॅक्चर* जाला असो दिसता. ताका जाता तितले बेगीन दोतोरा कडेन व्हरूंक जाय.' तांणी शकीलाक म्हायती दिली.

'*एक्सक्यूज मी* मंत्रीबाब.' शकील आपल्या कदेला वयलो उठलो आनी भायर वचूंक करतालो, इतल्यान नायकान ताका आडायलो.

'सर, तुवें पळोवंक येवपाची गरज ना. आमचो *एच.आर. मॅनेजर* थंय पावला आनी ताणें गरजेची हालचाल सुरू केल्या. खर्चाचो अदमास ना देखून तुमचे परवानगे खातीर आयला हांव.'

'नायक, खाजगी दोतोरा कडेन व्हेल्यार...' ताणें मनांतल्यान कितें तरी हिशेब केलो. 'नायक, पयलीं गोंया मॅडिकल कॉलेजींत फोन करून हाडांचो *स्पेशलिस्ट* आसा जाल्यार पळय. नाजाल्यार ताका सोमतोच आपोलो हॉस्पिटलांत व्हर. बेगीन, कितें जाता तें म्हाका कळय. हांव आपोलो हॉस्पिटलाच्या *सुप्रिटेंडा* कडेन उलयतां.' शकीलान आपल्या कामदारा विशीं हुस्को दाखयलो.

'थंय खर्च चड जातलो ते प्रमाणे पयशे व्हरूंक म्हाका मान्यताय दी सर.'

'तो आमचो खुब अणभवी कामदार. म्हणटकच ताचे खातीर जो खर्च जाता तें कंपनीक लुकसाण न्हय, पूण ताचो हात इबाडलो जाल्यार कंपनीक चड लुकसाण जातलें. तूं कॅशरा म्हऱ्यांत वच हांव ताचे कडेन उलयतां. तो तुका पयशे दितलो.' *पेमेंट वॉवचराचेर* सय करून ताचे कडेन दीयत शकीलान सांगलें.

'ओके सर,' नायक नेटान आपल्या मुखा वयल्या कामाक गेलो.

'*आय एम सॉरी' शकीलबाब,* म्हाका दिसता हांव हांगा चुकून आयलों. म्हाका खबर नासली तुमच्या कामदारांक तुमी इतलो मान दितात म्हूण.' शकील आनी नायका मदल्या संवादांतल्यान जयवंताक आपली चूक कळून आयली.

'*इट्स ओके मंत्रीबाब.*' शकील हांसलो.

'त्या रस्त्यांचेर भोंवपी पारपोळ जनावरांचेर, संजीला सारक्या कामचोराचेर आनी लोकांक जावपी *जॅन्यूयन* त्रासांचेर उपाय काडूंक हांवें पयलीं शिकचें पडटलें. ना जाल्यार फुडले वेंचणुकेंत म्हाकाच लज जावंक फाव.' जयवंत आपले भितरूच बडबडलो.

शकीलान कॅशराक फोन लायतना जयवंताचेर फकत आपली नदर घाली. परती एक जाप काडिनासतना मंत्री मान पोंदांक घालून चलत रावलो.



"मारिया, तूं एक
शिकिल्ली अस्तुरी. जरी अस्तुरीच
सगल्यां परस अस्तुरेची दुस्मान तरी
तितलीच व्हडली इश्टीण लेगीत अस्तुरीच
जावंक शकता. तुज्या शिकपाचो वालोर काडूंक हांवें
तुका दिवंक ना. हांव समजतालों, एके अस्तुरेन घरांत
रावन घर सांबाळूंक जाय, भुरगीं सांबाळूंक जाय. तुज्या
आंकवारपणार कॉलेजींत आनी हेर कडेन चलयां-
बायलांक आदार करपाच्या तुज्या सभावाचेर हांवें
आळो घालो. तुजी खुशीच हांवें चिड्डून उडयली.
घडये ह्या म्हज्या चिंतनाक लागून, हे म्हजे करणेक
लागून, आमकां देवान भुरगें दिवंक ना आसतलें.
कांय नजो. मनशान आपणा लागीं जाता तो
वावर करूंक फाटीं रावंक
उपकारना.'

# गूट

काजमीराचें मरण करूंक गेल्लो पाद्र विगार शिमितरींतल्यान परतलो तेन्ना अजूनय इगर्ज उक्ती आसा तें पळोवन तो अजाप जालो. दनपारचीं बारा वरां जायत आयिल्लीं. तो इगर्जेंत भितर सरलो. इगर्ज सामकी खाली आसली. ताणें मनांतच म्हणलें 'आयज कितें जालां तर?' मदल्या दारांत रावन ताणें पुराय इगर्जभर नदर घुंवडायली. फाटल्या बांकार सांकिस्तांव पीटर बसून आशिल्लो ताचे नदरेक पडलो.

'आरे पीटर, इगर्ज अजूनय कित्याक बंद करूंक ना? मेला तो काजमीर तुजो कोण सोयरो बी लागता?' पाद्र विगारान ताच्या फुड्यांत येवन म्हणलें.

'कित्या खातीर फादर?' पाद्र विगाराक पळोवन तो मातसो भियेल्ले भशेन जालो.

'अजूनय इगर्ज उक्ती आसा म्हूण विचारलें.'

'ती पळय एकली बायल सायबिणीच्या आल्तारा मुखार सरपटून पडून आसा.' पीटरान बायले वटेन बोट दाखयलें.

'पडून आसा? कितें जालां तर तिका?

'म्हाका दिसता ती काजमीराच्या मरणाक आयिल्ली, पूण शिमितरींत वचूंक ना.'

'आरे, हें एक नवेंच आयकतां मरे हांव. कोणूय मरणाक म्हूण येता आनी शिमितरींत वचनासतना...'

'कितलो वेळ जालो फादर ती वचपाची हांव वाट पळयतां. कसल्या इंतेसांवान ती आसा तें हांव नकळों. तिका उठोवंक बरे दिसना म्हूण हांवूंच बसून रावलों.'

'कोण तर ती?'

'हांवें अजून तिचें तोंड पळोवंक ना.'

'हांवूच पळयतां.' पाद्र विगार मुखार गेलो आनी तिच्या फुड्यांत उबो जालो.

कोण तरी आपणा फुड्यांत उबो जाला हाची तिका जाणीव जाली. तिणें मान वयर केली. पाद्र विगारान तिका वळखली.

'तूं मारीया न्हय, मिंगेल कुलासोची घरकान्न?'पाद्र विगारान विचारलें.

'हय फादर'. म्हणीत ती बेगीबेगीन उठली. आपले साडयेच्या पालवान दोळे पुसले.

'मागीर अशी ह्या वेळार इगर्जेंत कितें करता? वकिली शिकिल्ले अस्तुरेक हें सोबता?'

'फादर, हय हांव वकिली शिकिल्ली अस्तुरी, पूण तूं जाणा? आमच्या काजराक कितलीं वर्सां जालीं. देवान आमकां आयज मेरेन एकूय भुरगें दिवंक ना. हांवें देवा कडेन कितलें मागलें. कितल्या दोतोराचीं वखदां केलीं. कोण हांगा वच म्हणटा थंय गेलें, अमूक एक कितें कर म्हणटा, तें केलें. कितेंच पारकाक पडना. म्हजे पसून भुरगें जायना म्हूण मिंगेल म्हजेर ओगीच बेजार जाता. हांव म्हणून कितें करतलें?' तिणें आपली व्यथा पाद्र विगाराक सांगली.

'अशी इगर्जेंत पडून रावल्यार देव तुका भुरगें दितलो?'

'देवाक होरावंक हाचे परस बोरो दुसरो मार्ग खंय आसा फादर? ताचो गूट म्हाका मेळोवंक जाय.'

'म्हणटकच तूं तुजेंच चिंतता. तो सांकिस्तांव बाबडो कितलो वेळ जालो इगर्ज बंद करूंक रावता. ताका आपलीं म्हूण इगर्जेचीं कामां आसनात? तुजे खातीर तो हांगा बसून आसा हें तुज्या लक्षांत कशें आयलें ना?' पाद्र विगारान शांतपणान म्हणलें.

'हांव चुकलें फादर. तें म्हज्या लक्षांतूच आयलें ना. पूण फादर, आयज...' ती उलयता उलयता थांबली.

'पूण आयज कितें जालें?'

'फादर, आयज काजमीराच्या मरणाक इगर्जेंत आसतना म्हजे सवें एक अजापशें घडलें. तुजी निमाणी प्रार्थना चलतना, म्हजे कडेन एक भशेन काजमीर उलयलो फादर.' तिणें एक अजापाची गजाल पाद्र विगारा मुखार दवरली.

'काजमीर तुजे कडेन उलयलो?' आयकून तो अजापलो.

'हय फादर. हांवें पळयलें ताचे दोळे उक्ते जाल्यात आनी तो म्हाका कितें तरी सांगूंक सोदता. हांवें ताच्या दोळ्यांत म्हजे दोळे थिरायले. ताणें म्हाका म्हणलें. 'मारीया, तूं कांयच भियेनाका, देव तुका एक दीस भुरगें दितलो.' तिणें आपले दोनूय हात विस्तारले आनी जेजूच्या फोटयार नदर घाली.

'तूं दिसांतूच सपनेता दिसता म्हाका. मेल्लो मनीस म्हूण उलयता? आनी तोय जाल्यार मातयेक लावपाच्या वेळार?' कितें सांगचें आनी तिका कशे परी समजावचें तें पाद्र विगाराक कळना जालें. मनांतल्या मनांत ताणें जेजूक उलो केलो.

'हय फादर. काजमीरान म्हजे कुडींत नवो जीव भरला. म्हज्या आवयपणाक तो जागोवन गेला. तो जिवो आसतना, म्हजें दुख्ख आयकून घेतालो, म्हाका दिलासो दितालो, म्हाका समजून घेतालो. हांव एक शिक्षीत अस्तुरी, वकिली शिकलां. मिंगेल म्हाका वकिली करूंक दिना आनी देव म्हाका भुरगें दिवन खुशाल करिना. इतलें आसूनय घरकाराचें सोंसून घेता म्हूण तो म्हजे खातीर प्रार्थना करतालो. घडये म्हज्या शिकपाक लागून हांव सोंसता अशें तो मानतालो आनी म्हाका सदांच

देवाक आर्गां दिवंक विनयतालो. देखून हांव देवाक विचारूंक सोदतां, केन्ना? केन्ना दितलो म्हाका भुरगें? हांव मरतकच? हांव तेन्नाय विचारतलें आनी आतांय विचारतां.' जाप नाशिल्ले तिचे प्रस्न मुखार आयले.

'मारीया, तूं देवाचेर शीण करिनाका. देव सगळ्या मनशांच्यो गरजो जाणा. ताका खबर आसा तुका आनी म्हाका कितें जाय तें. पूण सगळें आमकां जाय तेन्ना मेळना न्हय?'

'तेंच म्हजें नशीब अशें हांव मानतां. हांव एक वांजूड म्हूण जिवीत सारिल्लें देवाक जाय जाल्यार हांव देवाची खुशी करूंक कबूल आसां. पूण...'

'हे वरीं निराश जायनाका.'

'हांव निराश जाल्लें फादर, पूण काजमीरान म्हाका खात्री दिल्या आनी म्हजो भरवंसो जागो जाला. हांव आवय जातलीच हे गजालीक ही सायबिणीची मूर्त आनी ही जेजूची मूर्त गवाय आसात.' दोनूय हातांनी तिणें आपले केंस घट्ट धरले.

'मारिया, तूं हांगा भुरगें ना म्हूण देवाक होरायता जाल्यार थंय एकली आवय आपलो भुरगो आपणाक त्रास करता म्हूण होरायता. सकाळच्यान ती पवित्र संस्कारा फुड्यांत मागण्या-रुमांत पडून आसा. हांव मरण करूंक वचचे पयलीं ती आसली आनी अजूनय थंयच आसा जाल्यार खबर ना.'

'कोण ती फादर? हांव तिका पळोवंक सोदतां.'

'हांव तिका सारको वळखना पूण आमचेच गांवची ती. चल, म्हजे बराबर. तुज्या तळमळ्यांची तुका घडये जाप मेळत.'

पाद्र विगार मारियाक घेवन मागण्या-रुमा वटेन वचूंक लागलो. सांकिस्तांव पीटरान बेगीबेगीन इगर्जेचीं दारां बंद केलीं.

ती अजूनय थंय आसली. ती रोतेसांवाच्या एका स्टुलार बशिल्ली आनी दोळे बंद करून आपले हात जोडून मागणे करीत आसली. तिच्या दोळ्यांतलीं दुकां आटिल्लीं. पाद्र विगार दारांत पावतांच ती उठली आनी परत एक फावट देवाक नमस्कार करून घरा वचपा खातीर भायर

आयली.

'अस्तुरे, तूं अशी खंती कित्याक?' मारीयान तिचेर बारीक नदर घालीत तिका सरळ प्रस्न केलो.

'म्हज्यो व्यथा हांवें फादराक सांगल्यात. तुका आनी कितें सांगू हांव?' तिणें विलाप केलो.

'अस्तुरे,' फादरान मर्दी जाप घाली. 'ही अस्तुरी मारीया. इगर्जेंत सरपट पडून देवाक गाराणें घालताली आनी देवाचेर शीण करताली आपणाक काजार जावन कितलीं वर्सां पसून अजूनय वांजुडपणाचें जिवीत जियेवंक दवरल्या म्हूण.' पाद्र विगारान मारियाचो तिचे कडेन परिचय केलो.

'हय?' तिणें अजाप उक्तायलें.

'तुमी उलयात. हांव मातसो घरांत वचून येतां.' म्हूण फादर थंयच्यान कडसरलो.

'मारिया, तशें जाल्यार म्हजीं दोन उतरां तुवें आयकुंचींच पडटलीं.' मारियाच्या हाताक धरून ती मुखार गेली आनी थंयच आशिल्ल्या सोप्यार बसली. मारीया तिचे कडेक बसली. ते अस्तुरेन आपली दुखेस्त कथा तिका सांगपाक सुरवात केली.

'काजार जातकच खंयचेय अस्तुरेच्या जिवितांत खुशालकाय वेगळीच. थोडे दीस मजेंत सारले उपरांत रोकडीच म्हाका भुरग्याची आस जाली. हांवें देवा कडेन जायत्या तरांनी मागलें. एक दीस देवान म्हजें आयकलें. दोतोरा कडेन तपासूंक गेल्ले कडेन ताणें म्हाका सांगलें म्हज्या कुसव्यांत भुरगें जल्म घेता पूण तें *ॲबनॉर्मल* जावंक शकता, म्हाका त्रास जावंक शकतात. देखून ह्याच वेळार भुरग्याचो गर्भपात करप योग्य थारतलें. भुरगो चेडो आसलो. म्हूण तो म्हाका वगडावंक नाका आसलो. हांवें दोतोराक खूब विनयलें उपरांत ताणें म्हाका उपाय सांगले. तो सांगीत तितले उपाय केले. बरे भशेन प्रसूत जावंक देवाक गाराणीं घालीं. कितले पयशे खर्च केले आनी निमाणें, म्हाका पूत जालो. कसल्याच खता विणें, कसल्याच उणावा विणें. हें सगळें नेवीस

सायबिणीचे कृपेन घडलें. पुराय कुटूंब खुशाल जालें, चड करून चेडो जाला म्हूण. व्हड घणघणान सगळ्या गांवच्या लोकांक बातिज्माची पार्टी दिली. मोगान आनी कास्तीगान ताका वाडयलो, शिकयलो. कितेंच उणें जावंक दिलें ना. एकलोच पूत म्हूण खूब लाड केले. मागतां तें दिलें.

आयज तो व्हडलो जाला आनी काजार जाला, सोरो पियेता. घरांत त्रास करता. आपलोच भुरगो अशे वागता तें ताच्या बापायक सहन जालें ना. तांचे भितर झगडीं जावंक लागलीं. आपल्याच पुताचो अवतार पळोवन तो दुयेंत पडलो. ह्या दुयेंसांतूच एक दीस काळजाचो आताक येवन तो ह्या संवसाराक अंतरलो. आपलो बापूय गेलो हाचें ताका दुख्ख लेगीत जालें ना. परतेंच जाल्यार ताणें म्हाका फटयलें आनी आयज म्हाका पुलीसेंत व्हेलें, हांव घरांतलें भायर सरना म्हूण.' सांगता सांगता तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. तिचो गळो भरून आयलो.

'रडूंनाका, देवान तुका घटाय दिवं हें सगळें सोंसूक. पूण म्हाका समजना तुज्याच घरांतल्यान तुका तो कसो भायर काडूंक शकता?' तिणें तिका धीर दिवपा खातीर विचारलें.

'म्हजोच पूत न्हय? जें कितें करतलो तें बरेंच करतलो ह्या भावार्थान हांवें तो सांगता ताचेर सय केली. ताणें आपले बायलेचें आयकून म्हजें घर आपल्या नांवार करून घेतलें.'

'हें बेकायदेशीर जालें.' मारियाक हें बिलकूल आवडलें ना. तिणें सरळ निशेध उक्तायलो.

'तें आतां हांव कोणाक सांगूं? ताणें तशें केलें तें खरें.'

'मागीर तुवें खंयच्याय एका वकिलाक मेळून हाचेर उपाय काडूंक जाय आसलो.'

'बऱ्या वकिलाक मेळूंक पयशे नाकात? ताची फी कोण फारीक करतलो? आनीक त्या कोर्टांत फावटी कोण घालतलो?'

'हांगा बायलांचो साद ही संघटना आसा ती तुका खबर ना?'

'खबर आसा.'

'मागीर तांचे कडेन कित्याक वचूंक ना? हांव तुका तांच्या अध्यक्षा

म्हऱ्यांत व्हरतां. ती तुका जरूर आदार करतली.'

'म्हज्या भावान म्हाका तांची वळख करून दिल्ली. पूण ह्या म्हज्या लफड्या पुतान मदीं पडल्यार तांकां जिवीच मारपाची धमकी दिली. बायलो न्हय त्यो? भियेल्यो आनी ओगी रावल्यो.'

'कोणाचेर तरी अन्याय जाता ताका आदार करूंक भियेतात जाल्यार कित्याक घेवन बसल्यात संघटना? हांव नकळों आसलें तीं इतलीं भिवकुरीं म्हूण. असल्यो गजाली आयकतकच म्हजें रगत अजूनय सळसळटा. म्हाका जायतीं खुशी आसली तुजे सारक्या गरजेवंतांक आदार करूंक पूण...'

'मागीर कित्याक फाटीं रावलां तूं?'

'म्हज्या कुटुंबाक तें आवडना जालें. मन मारून म्हाका वकिली सोडून फकत काजारी जिवीत सारचें पडलें. देखून तुजे सारके अस्तुरेक पळयली म्हणटकच म्हाका म्हजीच कीव येता, म्हाका म्हजीच तिडक मारता आनी हांव...' मारियान आपले दोनूय हात घट्ट धरून खंत व्यक्त केली.

'इतलो वेळ जालो हांव तुमचें सगळें संभाशण आयकतालों.' मारियाचो घरकार मिंगेल लागीं येत उलयलो. 'मारिया, चल जेवणाचो वेळ जालो. आनी तूं अस्तुरे, तुजें दूख हांव समजतां पूण ह्या वेळार कांयच करूंक शकना. घडये तुजें रुदान देव आयकतलो आनी कोण पूण मुखार सरतलो तुका आदार करूंक.' मिंगेलाचो हो सभाव पळोवन मारिया अजाप जाली. तिणें एक नदर ते अस्तुरेचेर घाली आनी मिंगेला बराबर चलूंक लागली.

'आयज तुजी वागणूक म्हाका वेगळीच दिसली.' जेवण घेतासतना मारियान मिंगेलाक म्हणलें.

'मारिया तूं एक शिकिल्ली अस्तुरी. जरी अस्तुरीच अस्तुरेची व्हड दुस्मान तरी तितलीच व्हडली इश्टीण लेगीत अस्तुरीच जावंक शकता. तुज्या शिकपाचो वालोर काडूंक हांवें तुका दिवंक ना. हांव समजतालों, एके अस्तुरेन घरांत रावन घर सांबाळूंक जाय, भुरगीं सांबाळूंक जाय.

तुज्या आंकवारपणार कॉलेजींत आनी हेर कडेन चलयां-बायलांक आदार करपाच्या तुज्या सभावाचेर हांवें आळो घालो. तुजी खुशीच हांवें चिड्डून उडयली. घडये ह्या म्हज्या चिंतनाक लागून, हे म्हजे करणेक लागून, आमकां देवान भुरगें दिवंक ना आसतलें. कांय नजो. मनशान आपणा लागीं जाता तो वावर करूंक फाटीं रावंक उपकारना, हें म्हाका पटलें.' मिंगेल इतले समजिकायेन केन्नाच उलयनासलो.

'आयज तूं असो कसो उलयता मिंगेल?' ताचो बदलिल्लो सभाव पळोवन मारियान अजाप उक्तायलें.

'हांव चुकलों मारिया. तूं घडये विसरलां आसतलें तूं एक वकील म्हूण.'

'ओहऽऽऽऽऽ.' तिका आपल्या शिकपाची याद जाली.

'तुजो 'कोट' परत तुज्या आंगार चडय आनी ते निराधार अस्तुरेक आदार कर. चिड्डून दवरिल्ल्या तुज्या स्वतंत्र जिविता खातीर हांव तुका मुक्त करतां.' ताचो हात धरीत मिंगेलान आपले घरकान्नीक प्रोत्साहन दिलें.

'खरेंच मिंगेल?' मारिया एकदम खुशाल जाली.

'हय मारिया. तुजें विशीं केन्ना केन्ना उलोवप जातालें. म्हज्या काय लागींच्या इश्टांनी म्हाका सांगलें हांव तुजेर अन्याय करतां म्हूण. आनी ते अस्तुरेची काणी आयकून म्हजे भितरूच घुस्मटमार सुरू जाला. म्हजे विचार म्हाका चडूच तिडावंक लागल्यात.'

'तशें जाल्यार ते अस्तुरेक हांव जरूर न्याय मेळोवन दितलें.' मारियान आपल्या मनांत खर निर्णय घेतलो.

दुसऱ्या दिसा सावन मारियान आपली वकिली पुस्तकां हातांत घेतलीं. *प्रॉपर्टी डिस्पुट्साचेर* वाचन केलें. एका बऱ्या वकिलाक मेळून ताचो सल्लो घेतलो. उपरांत आपूण शिकतना ताची सदांच तोखणाय करपी वकिलाक मेळ्ळी. ताणें तिका सहकार दिलो. हातूंत चड म्हत्वाचें म्हणल्यार मिंगेलान तिका सगळे वटेन आदार केलो. मदीं एक फावट ते अस्तुरेक मेळून तिणें तिची केस लढोवपाची आपली तयारी दाखयली

आनी घरांतल्यान कशीच भायर सरना जावपाचो तिका सल्लो दिलो.

खूब दिसांनी ती अस्तुरी मारियागेर आयली. मारियान खुशाल मनान तिका येवकार दिलो आनी तिचीं सगळीं कागदपत्रां पळयलीं.

'तुजे केसी विशीं हांवें खूब अभ्यास केला आनी म्हाका खात्री आसा तुजो पूत तुजेर अन्याय करता तें एक दीस बंद करतलो. तुका हांव जरूर न्याय मेळोवन दितलें.'

'खरेंच म्हजे धुवे? तिचे खुशालकायेक शीम उरली ना.

'एकूच मिनीट हां.' म्हणीत मारिया ओंकारे काडिल्ले भशेन करीत भितर गेली. थोड्या वेळान तोंड पुशीत भायर आयली.

'तूं दुयेंत बी आसा बाय?' तिणें मारियाची परिस्थिती पळयत ताका समजुपाचो यत्न केलो.

'तोंड आंबट आंबट जाल्ले भशेन दिसता, पोटांत ढवळिल्ले भशेन जाता.' मारियाचो घुस्मटमार जावंक लागलो.

'देवान एक वटेन म्हजें आयकलें आनी दुसरे वटेन तुजें.'

'म्हणल्यार, हांव समजूंक ना.' मारिया तिका पळयत उरली.

'हांव एक आवय. म्हाका नातरां जाल्यांत. ह्या संवसाराचो म्हाका जायतो अणभव आसा. तुज्या मुखामळाक पळयल्यार जायतें कितें वाचूंक मेळटा. म्हाका न्याय मेळोवन दिवंक तुज्या घरकारान तुका परवानगी दिली आनी तुजे चिड्डून आशिल्ले गूण भायर काडले. अस्तुरेचेर जावपी अन्यायान खंय तरी तोंड लिपयलें. देखून तुज्या कुसव्याक जाग आयल्या. तूं आवय जावपाचे वाटेर आसा म्हजे धुवे.' ते अस्तुरेन मारियाच्या उमाळ्याक जाग हाडली.

'खऱ्यांनीच?' मारियान अजाप उक्तायलें.

'देवाचो गूट देवूच जाणा.' ते अस्तुरेचीं हीं उतरां आयकून मिंगेलाच्या दोळ्यांतल्यान खुशालकायेचीं दुकां देंवलीं. ताणें धांवत वचून मारियाक आपले वेंगेंत घेतली.



'अंकल, दुबाव ना हांव
एक गिरेस्त घराण्यांतलो भुरगो. म्हाका
जोवीन आपली सगळी खबर सांगल्या आनी
हांवें ताचो फायदो घेवंक केन्नाच चिंतूक ना. *व्ही*
*आर जस्ट फ्रॅन्ड्स अॅण्ड गूड फ्रॅन्ड्स* हें पसून तुका
नाका जाल्यार...' सानेलान आपल्यो भावना
उक्तायल्यो.

'ना, ना तुजेर दुबाव घेवपा खातीर हांवें तशें
म्हणूंक ना. आवय नाशिल्ले धुवेचो बापूय हांव.
कितें वायट बरें जावचें न्हय म्हूण...'

'तूं कांयच भियेनाका अंकल. तुजे
धुवेक हांव केन्नाच वायट जावंक
दिवचो ना.'

# गर्भपात

फ्रांसीस आपले एकलेच धुवेची, जोवीची वाट पळयत आसलो. तें काजार जावन दोन वर्सां जावन गेल्लीं, ताचो गर्भूच धरनासलो. ताका लागून ताचेर उपाय काडपाक यत्न चलतालो. फ्रांसीसान आपल्या एका वळखीच्या दोतोरा कडेन उलोवन ॲपोयंटमेंट घेतिल्लो आनी आयज ताका घेवन येतां म्हूण सांगिल्लें. जोवीचीं घरचीं लेगीत चिंतेस्त आसलीं एक तरणाटी अस्तुरी आपल्या कुळाक एक भुरगें कित्याक दिवंक शकना? तांणी ताका आपल्या कुटुंबीक दोतोराक दाखोवन आपले भशेन यत्न केल्ले. कांयच फळ मेळना देखून तांणी फ्रांसीसाक विनंती केल्ली कितें जाता जाल्यार पळोवपाक. आयज फ्रांसीसान एक वेगळोच निर्णय घेतिल्लो. आपल्या दोतोरा फुड्यांत पासून कांयच गूण पडनांत जाल्यार मागीर ताका एक दीस गोंयच्या सायबाच्या पांया कडेन व्हरूंक.

ताची धूव जोवी म्हळ्यार एक रत्न आसलें. शाळेंत शिकतना सदांच बऱ्या गुणांनी पास जातालें. धावीचे परिक्षेक तर ताणें गांवच्या हायस्कूलांत सगळ्यांक फाटीं घालून पयलें येवपाचो मान मेळयिल्लो.

ताची हुशारकाय पळोवन ताचे आवयन फोर्सान ताका कॉलेजीक धाडिल्लें. पूण तिच्या फुटक्या नशिबान तिका कांक्राचें दुयेंस जावन ती आपले धुवेचो संवसार पळोवंक उरली ना.

तिच्या मरणान जोवीचेर आकांत आयलो. तें सामकें एकटें पडलें. तें कॉलेजींत वचपाचें बंदूच जालें. ताचो आवयचेर खूब मोग आसलो. नाय जाल्यार एक आवय सदांच आपले धुवेक लागीं आसता. दुसरें म्हणल्यार अस्तुरेचें सूख दूख अस्तुरीच समजूंक शकता. तिणेंय ताका खूब माया दाखयिल्ली आनी तें तिचे कडेन सामकें उक्तें आसलें. ल्हानांतली ल्हान गजाल तें आपले आवयक सांगतालें. मागीर आवय फ्रांसीसाचे नदरेक हाडटाली. अशे धुवेक फ्रांसीस कसो सांबाळटलो हो प्रस्न मुखार आयलो. देखून एक दीस जोवी न्हिदूंक गेल्लें आसतना, ताच्या फुड्यांत येवन तो मोगान बसलो.

'बाये पळय, तुगेलें आनी तुजें आवयचें नातें हांव समजून घेतां आनी तें नातें म्हज्यान भरून काडूंक जावचें ना हें हांवें मानून घेतलां. पूण आमचेर आयला त्या काळाक आमी तोंड दिवंक जाय. तूं तुजें शिकप चालू दवर आनी जाय थंय म्हजो आदार माग. हांव तुजे आवयचो जागो घेवंक शकना पूण आवयचो मोग आनी आवयची माया दिवपाचो यत्न करतलों.' बापायचीं हीं म्होंवाळ आनी दयाळ उतरां आयकून जोवीक रडूंक आयलें. ताणें आपल्या बापायक वेंग मारली आनी कितलोसोच वेळ दुकां गळयत रावलें.

बापायन सांगिल्लें आयकून जोवी परत कॉलेजींत वचूंक लागलें, पूण ताचें मन अभ्यासाचेर लागना जालें. ताच्या इश्टिणींनी ताका समजावपाचो यत्न केलो. पूण ताका समजूंक शकलो तो एकलोच प्रणीत. ताच्या सांगण्या वेल्यान जोवीन अभ्यासाचेर लक्ष घालपाक सुरवात केली. प्रणीताक लागून कॉलेजींत ताचे नवे इश्ट तयार जाले. सवका सवका तें खुशाल रावपाक लागलें. आवयची याद इश्टां बराबर व्हांवून पयस जायत गेली.

अकरावेची परिक्षा सोंपलीं आनी सुटयांनी जोवी घरा कडेन एकलेंच

उरपाक लागलें. फ्रांसीसान ताका आठ दीस रावपा खातीर मावशेगेर धाडलें. पूण तें दोनूच दिसांनी परत आयलें. ताचें मन कित्याचेरूच लागनासलें. तेन्नाच एक दीस ताच्या घरा कडेन अचकीत प्रणीत आयलो. ताका पळोवन जोवी सामकें खुशाल जालें. फ्रांसीस अजाप जालो.

'प्रणीत तूं! कसो आसा?' धांवून प्रणीता फुड्यांत वचत जोवीन विचारलें.

'हांव एकदम बरो आसा. तूं कशें आसा? सुटी कशी वता?'

'निकालाची वाट पळयत आसां.'

'बरें, हांव तुका एक खबर सांगूंक आयिल्लों. तुवें म्हाका समजून घेतलो आनी म्हज्या उतरा वेल्यान तुज्या जिवितांत बदल हाडलो म्हूण हांव खुशाल. पूण म्हाका आयज दूख जाता तुका सांगूंक की म्हज्या पापाची बदली जाल्या आनी फाल्यां आमी मुंबय वतात. तुजी इश्टागत म्हाका सदांच याद उरतली. तुजी याद येता तेन्ना हांव तुका फोन करतलों.'

'पूण प्रणीत...'

'जोवी, तुज्या जिवितांत तूं सदांच खुशाल आसूंक हांव देवा लागीं मागतलों. खुशाल राव आनी तुजे डॅडीकूय खुशाल दवर.'

तांचे मदीं संवाद चलतालो तें फ्रांसीस बारकायेन आयकतालो. पूण जेन्ना बऱ्याच वेळान प्रणीत उठून वचूंक लागलो तेन्ना आपले धुवेचें तोंड पळोवन ताका कळवळो आयलो. ताचें तोंड रडकुरें जाल्लें. नाइलाज आसलो. सुरवेक ताका दिसतालें शिकतासना आपली धूव ताच्या मोगांत पडल्या काय? पूण तशें कांयच नासलें. तो ताचो एक बरो इश्ट आसलो. फ्रांसीसान आपले धुवेक धीर दिलो आनी प्रणीताक आदेवस केलो.

बारावे खातीर कॉलेज सुरू जाली. प्रणीत नासतना जोवीक एकलेपण भासूंक लागलें. बेकार वेळार तें वाचनालयांत वचून एकसारकें पुस्तकां पळयतालें. केन्नाय कॉलेजीचे बागेंत वचून एकलेंच बसतालें. ताच्यो इश्टिणी ताका समजायताल्यो. बेकार वेळार तीं ताका आपले बराबर

व्हरतालीं पूण तें खंय तरी आपल्याच संवसारांत सांडून वतालें. अशे अवस्थेंत एक चेडो ताका सदांच नियाळटालो. एक दीस ताणें ताचे कडेन उलोवपाचें धाडस केलें.

'तूं म्हजी इश्टागत करतलें? हांव तुमचे कॉलेजींत कला फांट्यांत शिकतां.' जोवी वाचनालयांत एकलेंच बसून आसतना त्या चेड्याचीं उतरां आयकून जोवीन ताका दोळे भरून पळयलो. 'प्रणीता सारको हांव तुजो इश्ट जावंक शकना?' ताणें आपलो हात मुखार काडलो. तो सानेल. जोवी ताका पळोवन मातशें हांसलें आनी आपलो हात ताच्या हातार दवरलो. ताका ताच्यांत प्रणीतूच दिसलो. तो पळोवंक सुंदर आनी एका गिरेस्त घराण्यांतलो आसलो. फाटल्या वर्सा ताणें जोवीक पळयिल्लें पूण वळख दाखोवंक नासली.

'मनीस जितलो खुशाल आसता, तितलो भलायकेन बरो आसता. खुशाल आसूंक मनशान एकलो रावंक फावना. *आफ्टर ऑल* देवान आमकां रचल्यात तीं अशीं एकठीं रावन दुखी जिवीत जगूंक न्हय, बगर सुखी जिवीत जगूंक. चल म्हजे बराबर कॅन्टिनांत यो. एक एक कॉफी पियेवया आनी आमचे इश्टागतीक सुरवात करूंया.' सानेलाची उलोवपाची स्टायल ताका आवडली. तें मोन्यांनी ताचे बराबर गेलें. कित्याक म्हूण खबर ना, ताका ताणें सांगात दिलो. थंयच तांची इश्टागत जाली.

सवका सवका तांचे भितर संबंद वाडत गेले. कॉलेजींत तांकां हेर भुरगीं रोमियो ज्युलियट म्हूण चाळोवंक लागलीं. जोवीचेर कसलोच परिणाम जालो ना. केन्ना केन्ना तो तांच्या घराय येतालो. फ्रांसीसाक हें आवडलें ना आनी एक दीस ताका विचारपाचें थारयलें.

'पळय सानेल, आमी तुजे भशेन गिरेस्त मनशां न्हय. तूं म्हजे धुवेक गाडयेन हाडून सोडटा आनी केन्नाय आमच्या घरा लेगीत येता. हें म्हाका आवडना आनी आमच्या लोकांकूय आवडचें ना. ताची आवय मरत सावन तें एका वेगळ्याच वातावरणांत जियेता. म्हाका नाका म्हजे धुवेचीं पावलां वांकडे दिशेन गेल्लीं.' फ्रांसीसान सरळ सांगलें.

'अंकल, दुबाव ना हांव एक गिरेस्त घराण्यांतलो भुरगो. म्हाका

जोवीन आपली सगळी खबर सांगल्या आनी हांवें ताचो फायदो घेवंक केन्नाच चिंतूक ना. *व्ही आर जस्ट फ्रॅन्ड्स ॲण्ड गूड फ्रॅन्ड्स* हें पसून तुका नाका जाल्यार...' सानेलान आपल्यो भावना उक्तायल्यो.

'ना, ना तुजेर दुबाव घेवपा खातीर हांवें तशें म्हणूंक ना. आवय नाशिल्ले धुवेचो बापूय हांव. कितें वायट बरें जावचें न्हय म्हूण...'

'तूं कांयच भियेनाका अंकल. तुजे धुवेक हांव केन्नाच वायट जावंक दिवचो ना.' सानेलाचीं उतरां आयकून जोवीक लेगीत आनंद जालो.

बारावी जातकच जोवीन मुखावेलें शिकप करपाची इत्सा प्रगट केली तेन्ना फ्रांसीसान ताका आडायलें ना. तें फॅशन डिजायनिंगाची पदवी घेवंक शारांतलें कॉलेजींत गेलें. तो अभ्यास करूंक ताका हॉस्टेलांत रावचें पडलें. हॉस्टेलांत रावन एक दीस आपलें शिकप सोंपोवन जोवी घरा आयलें.

'जाणा डॅडी, म्हजो एक सांगाती आसा, तो म्हजे बराबर शिकतालो. हांवें चिंतलां ताचे कडेन लग्न जावंक.' जोवीन विसव घेतना एक दीस सांगलें. आपली धूव इतले उक्तेपणान उलयता तें आयकून ताका अजाप जालें.

'लग्न जावंक चिंतलें ही एकदम बरी गजाल. पूण तो चेडो कोण? कसलो? कितें करता? खंयचो? आदी प्रस्नाच्यो जापो मेळ्ळे बगर...'

'हांव ताका बरें वळखतां डॅडी. ह्या दिसांनी तो तुका मेळूंक येतलो. तुका जाय ते तरेन तूं ताचे कडेन उलय आनी आमच्या लग्नाचें थारय.' जोवीचीं उतरां आयकून फ्रांसीस खुशाल जालो. आपलो न्हवरो आपणेंच वेंचून काडिल्ल्यान ताचे वयलो बरोच पेज उणो जाल्लो.

एक दीस तो आयलो. ताचे बराबर ताची आवय आनी ताचो बापूय आसलो. खऱ्यांनीच तो बऱ्या घराण्यांतलो आनी प्रतिश्ठीत समाजांतलो आसलो. तांचे मदीं लग्नाचीं उलोवणीं जालीं आनी दोनूय कुटुंबाक हें नातें मानवलें. सगळी तयारी जाली आनी थोड्या दिसां भितर लग्नूय जालें.

जोवी आपल्या फाटल्या जिवितांतल्यान भायर सरलें. ताचो घरकार

नॅल्सन ताचे बराबर फॅशन डिजायनिंग करतना ताच्या मोगांत पडिल्ल्यान तांची बरी इश्टागत जाल्ली. हाकाच लागून जोवी भितरलें एकलेंपण आनी तणाव पयस जाल्लो. नॅल्सनान ताका बरें सांबाळून घेतिल्लें. दुसरे वटेन लग्न व्हडा दबाज्यान करून फ्रांसीस आपले जबाबदारींतल्यान मुक्त जाल्लो. जोवी खुशाल आसलें देखून फ्रांसीसूय खुशाल आसलो.

पूण ह्या खुशाल लग्नाक कोणाची दिश्ट लागली काय? जोवी भुरगें दिवंक शकना म्हूण कुटुंबात वाद विवाद जावंक लागले. कोणाच्याय घराण्यांत एक नवें लग्न जालें आनी नवें भुरगें घरांत हांसूंक खेळूंक लागलें म्हणटकच एक वेगळीच खुशालकाय भितर सरता. ही खुशालकाय तीं जोवी भितर सोदतालीं. जोवीचो घरकार नॅल्सन घरांत जोवीक सांबाळून घेतालो. पूण कितलो तेंप म्हूण सांबाळून घेतलो?

'जोवी, आमी दोतोराक वचून कित्याक मेळचीं न्हय?' एक दीस नॅल्सन जोविताक तेंकून बसून ताचे कडेन उलोवंक लागलो. जोवी घुस्पलें.

'सगळ्यांच्या मनांत एक ताण आसा तो तरी पयस जावं दी न्हय?'

'बरें तर, तुजी खुशी हांव करतां.' जोवी दोतोरागेर वचूंक तयार जालें.

जोवीची तयारी पळोवन नॅल्सन खुशाल जालो. दुसऱ्याच दिसाक ताणें एका बऱ्या *गायनोकोलॉजिस्टा* कडेन *ॲपोयंटमेंट* घेतलो. दोतोरान ताका तपासलें. पूण ताच्यांत ताका कसलोच दोश मेळूंक ना. मागीर नॅल्सनान आपली तपासणी केली. ताकाय कसलोच दोश नासलो. मागीर तांकां भुरगें कित्याक जायनासलें? हें एक कुवाडें नॅल्सनाक सतवंक लागलें. अशें म्हणून एक दीस नॅल्सनानूच फ्रांसीसाची भेट घेतली आनी ताचो सल्लो मागलो. ते प्रमाणें फ्रांसीसान जोवी कडेन उलोवन डॉ. ब्रागांझा कडेन वेळ घेतलो. डॉ. ब्रागांझा ताचो लागींचो इश्ट आनी गोंयचो एक फामाद *गायनोकोलॉजिस्ट* आसलो.

तो दीस आयज आसलो. सांगिल्ल्या वेळा परस जोवी मातशें उसरां पावलें. म्हूण फाटलो सगळो इतिहास आनी आपले धुवेचें फाटलें

चित्रण ताच्या दोळ्यां मुखार येवन गेलें. तरी फ्रांसीसान ताचेर मायेन हात घुंवडायलो आनी ताका घेवन डॉ. ब्रागांझा कडेन गेलो. फ्रांसीसान दोतोराक ताची सगळी खबर सांगली आनी जाता जाल्यार कितेंय उपाय करूंक मागलो. ताणें जोवीक भितर व्हेलें. बऱ्याच वेळान तीं भायर आयलीं. ताका सगळें वेवस्थीत मेळ्ळें. तो विचार करूंक पडलो अशें कशें जावंक शकता?' ताणें आपल्याकूच प्रस्न करीत आपलीं दोन तीन पुस्तकां उगडून पळयलीं. दोतोर बरोच घुस्पल्लो. कसलेंच कारण नासतना गर्भ धरिना म्हूण ताका अजाप जालें.

'फ्रांसीस, म्हाका आनीक इल्लोसो वेळ दी.' ताणें जोवीक परत भितर व्हरून तपासलें. कांयच मेळूंक ना. तीं भायर आयलीं.

'तुवें केन्ना गर्भपात बी केल्लो?' दोतोराच्या तोंडांतल्यान नकळटाच एक प्रस्न आयलो. जोवी मातशें घुस्पलें आनी दोतोराकूच पळोवंक लागलें. दोतोरान नदर थीर केली.

'गर्भपात...! ना दोतोर.' दोतोराची नदर जोवीचेर आसली. तें घुस्पल्ल्या सारकें जालें तें दोतोरान सारकें वळखलें.

'दोतोर मनशाच्या पोटांत भितर वचूंक शकना पूण मनशाच्या मनांत जरूर वचूंक शकता. तूं म्हाका कितें तरी लिपयता हाची म्हाका खात्री जाल्या. सांगशी?' दोतोरान ताचेर ताण घालो.

'हो तुजो कसलो प्रस्न डॉक्टर?' फ्रांसीसान मदींच तोंड घालें.

'एक मिनीट राव फ्रांसीस. जोवी, तुका हांव आनीक एक फावट तपासतां.' तें भियेलें. दोतोरान ताका परत भितर व्हेलें. तीं बरोच वेळ भितर उरलीं. फ्रांसीस मात्सो उचांबळ जालो.

'अशें कितें घडलां काय म्हजे धुवेच्या जिवितांत?' ताणें आपणाकूच प्रस्न केलो. दोतोर ताका घेवन भायर आयलो. दोतोराचें मुखामळ चिंतेस्त आसलें. फ्रांसीस भियेलो. ताणें जोवीचेर नदर मारली.

'कितें जालें डॉक्टर?' फ्रांसीसान विचारलें.

'फ्रांसीस, तशी भियेवपाची गरज ना. पूण तुका हांव एक गुपीत सांगता, आनी हें गुपीत तुवें तुजे भितरूच दवरूंक जाय.' दोतोरान

फ्रांसीसा फुड्यांत येतना सांगलें.

'म्हजेर बेश्टीच भिरांत हाडिनाका डॉक्टर.' फ्रांसीसान दोतोराचे हात धरीत म्हणलें.

'तुजी घरकान्न सोंपली तेन्ना जें एकलेंपण तुजे धुवेंत आयलें, तें दोग चेड्यांनी सांबाळून घेतलें. एकलो प्रणीत आनी दुसरो सानेल. प्रणीतान ताका भावाचो मोग दिलो आनी सानेल ताचो खरो इश्ट थारलो. पूण तें फॅशन डिजायनींग कॉलेजींत भितर सरले उपरांत एक दीस अचकीत ताका सानेल मेळ्ळो. ताचें जुवानपण अस्तुरेच्या रुपान ताचे फुड्यांत आसलें. त्या वेळार जोवीनूच ती शीम हुपली.

एक दीस सानेलाच्या एका इश्टाचे पार्टेक गेल्ले कडेन तांच्या मोगाक कोमरी फुटली आनी तांणी संभोग केलो. जोवीक जेन्ना समजलें आपली म्हयन्याची पाळी बंद जाल्या म्हूण, तेन्ना ताणें गुपीतपणान एका दोतोरा कडेन तपासणी केली. त्या वेळार ताका खात्री जाली आपल्या पोटांत गर्भ धरता म्हूण. ताणें त्याच दोतोराक धरून गर्भपात केलो. ही ताची चूक आसली खरी पूण सानेलाचो सांगात ताका बरो दिसूंक लागिल्लो. सानेलान ताचे कडेन लग्न जावपाचें उतर दिल्लें. तो केन्नाय ताका मेळूंक येतालो आनी तीं मोगाच्यो गजाली करतालीं. जोवीचें शिकप सोंपताच तुजे कडेन लग्नाची गजाल करूंक सानेलान येवजिल्लें पूण देवाक वेगळेंच कितें जाय आसलें. एक दीस जोवीक खबर मेळ्ळी सानेल एका अपघातांत मेलो म्हूण. जोवी परत एक फावट सैमाच्या जाळांत सांपडलें. तेन्ना देवा रुपान तांचेच कॉलेजींत त्याच वर्सा भरती जाल्लो नॅल्सन जाका ताच्या मोगा विशीं कांयच खबर नासली, ताणें ताका सांबाळ्ळें.

तेन्ना म्हणल्यार ताणें जायते फावटी गर्भपात केल्लो आनी आपलोच जीव अस्कत करून सोडिल्लो. आंकवारपणार जायतीं चेडवां ही चूक करतात आनी काजार जातकच अशा प्रस्नांत सांपडटात. ताच्या बऱ्या नशिबान ताच्या जिवितांत नॅल्सन आयलो आनी ताणें ताका एका नव्या संवसारांत हाडलें. पूण हें गुपीत आयज उक्तें जाता.' दोतोरान जोवीची

चूक विस्तारान फ्रांसिसाचे नदरेक हाडून दिली.

'जोवी...' फ्रांसीस जोवीक रागान पळोवंक लागलो.

'म्हाका माफ कर डॅडी. म्हज्या जिवितांत हांवें चूक आदारली पूण ती चूक म्हाका जिविताच्या अशा मोडणार हाडटली म्हूण खबर नासली.' जोवीन आपली चूक मानून घेतली.

'पूण कांयच भियेनाका फ्रांसीस, ताका हांव उपाय काडटा. कसलेच *टॅन्शन* घेवपाची गरज ना. फुडल्या तीन म्हयन्या मदीं ते गर्भेस्त जातलें. जोवी, फाल्यांच तूं नॅल्सनाक घेवन म्हजे फुडयांत यो. कितें करूंक जाय तें हांव तुमकां सांगतां.' दोतोरान तांकां खुशाल केलीं.

'*थँक यू डॉक्टर.*' फ्रांसीसान दोतोराचे उपकार मानले.

'डॅडी...' जोवी फ्रांसीसाचे वेंगेंत गेलें आनी तशींच तीं चलत रावलीं.



*'कितलो म्हूण आदार घेतलीं आमी? कितलो तेंप म्हूण तुमी आमकां आदार करतलीं? एसएससीक पयल्या वर्गांत पास जावन पसून म्हाका फुडें शिकूंक मेळूंक ना. बरें टॅनिस खेळगडे जातलें म्हूण सपनां पळयतालें. तिंवूंय पाड पडलीं. मम्मी म्हाका लागून पिशी कशी जाल्या. सारकी जेविना. भाव थंय तळमळटा आनी म्हजो पापा, तो भितरले भितर घुस्मट्टा. म्हजी व्यथा आनी दूख कोणाक म्हूण सांगूं?'*

# रुचीका

'मम्मी, तुमी म्हाका दितात ते *पॉकेट मनी* एकठांय करून हांवें सानिया मिर्झाच्या बॅटा सारकें एक बरें टॅनिस बेट घेवपाचें थारयलां.' मेजावयली बिस्कीट खातना रुचीकान आपले आवयक सांगलें.

'हांव जाणां तूं टॅनिस खेळपाक हुशार आसा म्हूण. पूण बाय, आमकां तांकता तुका इतल्या म्हारगेल्या खेळांत भागिदार करूंक? तुजो पापा तुका कसोच परवानगी दिवचो ना.' आवयन धुवेक समजावपाचो यत्न केलो.

'पापा कित्याक परवानगी दिवचो ना? हांव विचारतां ताका. हांव शिकूंक कितें कमी आसा म्हूण खेळां वटेन तुमी म्हाका धामून दवरूंक सोदतात?' नाक वांकडे करीत ताणें विचारलें.

'तशें न्हय बाय. चेडवांनी घर संवसार करपाचेर चड भर दिवंक जाय. देखून तुवें रांदप, घर निवळ करप, कपडे धुवप हें सगळें शिकून घेवंक जाय. फाल्यां तुजी *एसएससी* जातकच तुका कोणूय मागणी घालतलो.'

'कितें मम्मी? म्हाका पयली एक *स्टार प्लेयर* जावंक जाय. अजून म्हाका 14 वर्सां जावंक नात आनी तूं म्हज्या लग्नाच्यो गजाली करता?'

'ह्यो गजाली हांव न्हय, हे गांवचे लोक करतात. तुजी सुरोपाय आनी देखणें आंग पळोवन हे आमचे गांवचे चेडे लेगीत तुजेर घुरी घालीत म्हूण हांव भियेतां.'

'म्हजे गांवचे सगळे चेडे म्हजे इश्ट मम्मी. तो कुमार, हरी, जेरोम, विकी...'

'आगो म्हजे धुवे, ते तुजे इश्ट हें म्हाकाय खबर आसा, पूण तांचे भायर आमच्या गांवांत आनीक चेडे नात? तुका पळोवपी आनीक लोक नात?'

'मम्मी, ती पळय म्हजी इश्टीण अनुराधा आयलें. आमी खेळूंक वतात.'

'बेगीनूच घरा यो हां. पापा बेश्टोच बेजार जाता. आतां तुजी परिक्षा लागीं पावत आयल्या. अभ्यासाक बसूंक जाय.'

रुचीका शाळा पांवड्यावयलें टॅनिस खेळांतले एक बरें खेळगडें आसलें. ह्या खेळांत ताका तेंगशी गांठपाची आसली. फाटल्या वर्सा ताणें आपले शाळेक नांव मेळयतना पुराय राज्यांत घोळटो करंड मेळयिल्लो. देखून ताचो जाहीर भोवमान जाल्लो आनी तें लोकांच्या दोळ्यांत गेल्लें. इतलेंच न्हय तर ताका आनीक एक देवाचें देणें आसलें तें म्हणल्यार रुचीका एक सतरा-अठरा वर्सांचे देखणे अस्तुरे सारकें दिसतालें. हेच धर्तरेचेर ताका राज्यांतल्या टॅनिस संघटनेन वांगडीपद दिल्लें. जायत घडये इतले तरणे पिरायेर संघटनेचें वांगडीपद मेळोवपी तें पयली चली आसतलें. ताची इश्टीण अनुराधा सांगाताक शेजारच्या राज्यांत वचून 14 वर्सां पिराये सकयले टॅनिस टुर्नामेंटांत भाग घेवन संघटनेक भांगरा पदक मेळोवन दिल्लें ते खातीर तें सगळ्यांचे आवडीचें जाल्लें. ह्या एका करणाक लागून रुचीका आनी अनुराधा घर-इश्टिणी जाल्ल्यो. अनुराधा खेळूंक तितलें हुशार नासलें, पूण रुचीका ताका सगळो तेंको दितालें आनी तें जंय उणें पडटा थंय आपलो सहभाग

दाखयतालें. हाची अनुराधाक व्हडवीक आसली.

'मम्मी पळय, सानिया मिर्झान कसलो शॉट मारलो तो.' खेळून येवन टीव्ही पळयतना एक व्हडल्यान ताळी पेटयतना ताणें आपले आवयचें लक्ष आपले वटेन ओडून घेतलें. ती जेवणाक बसपाचो बेत करताली.

'तें मुस्लीम मुगो, तें खेळटा म्हूण खेळटा. ताच्याच धर्मांतले कितले लोक ताचे आड आसात. दिसाळ्यांचेर पसून ताच्यो नाका जाल्यो बातम्यो येतात.' आवयन ताची उमेद मोडली.

'बरें खेळटा ताचेर लोक रोखडेच जळटात. फाल्यां म्हजेरूय जळूंक लागतले.'

'देखूनच तुका सांगतां हांव. सोडून दी तो खेळाचो नाद आनी आपल्या शिकपाचेर लक्ष दी. बऱ्या गुणांनी पास जाल्यार एक दीस डॉक्टर वा इंजिनीयर जावन हजारांनी पगार घेतलें.'

'हजारांनी पगार घेवन कितें करतलें? फोल्गां मारतलें, हांगा थंय हेडटलें आनी तुमचें नांव पेड्ड्यार करतलें. हें तुमकां बरें दिसतलें?' पयशांचें नांव आयकून ताका तिडक मारली.

'आमचे नांव पेड्ड्यार करता जाल्यार पळोवंक तुजो मम्मी-पापा ना?'

'मम्मी-पापा घरा कडेन. नांव खंय पेड्ड्यार जाता? आयचे वडील फकत दुडवां बाबतींत चिंत्तात. असले दुडू खेळांत नांव जोडून मेळनात? सानियाकच पळय तें कितलें जोडटा. ते विदेशी खेळगडे दिसाच्या दिसाक कितलेशेच हजार जोडटात. हांव ल्हान आसतना मार्टिना नवरातिलोवाक पळयतालें. तें जाण्टे जालें तरी स्फुर्तीन खेळटा. मागीर आयलें मोनिका, स्टेफी ग्राफ, शारापोवा, विलियम भयणी. तांणी नांव मेळोवंक ना? पयशे जोडूंक नात? म्हाकाय तांचे भशेन नांव आशिल्लें खेळगडे जावंक जाय.'

'आनीक तुजेर जळटात तांचें कितें करतलें?'

'मम्मी, सानिया मिर्झाक फकत मुस्लीमूच पळयतात? खेळटा

ताका सगळ्या धर्मांचे लोक पळयतात. खेळटात ताणीं आपलो धर्म न्हय तर आपणा वरवीं खेळ आनी आपलो देश कितलो वयर सरता तें पळोवंक जाय.'

'तुजें तोंडूय आतां बरेंच वाजूंक लागलां हां रुचीका.'

'अशी म्हजेर कित्याक बेजार जाता तूं मम्मी? तुमीच म्हाका प्रोत्साहन दिनात जाल्यार कोण दितलो? पळय मम्मी, ह्या गांवच्या सगळ्या चेडवांचेर नदर मार, म्हजे भशेन एकलें पूण उतरलां? कोणें एकल्यान पूण ह्या गांवाक नांव तरी हाडलां? शिकूंक पसून हांव फाटीं ना. तें अनुराधा जें आमच्या राज्यांतले नासून पसून म्हाका कितलो तेंको दिता.'

'तें अनुराधा आतां तुजे बराबर शिकता म्हूण बरें आसा. एक दीस तेंवूय उडून वतलें. आमची भुरगीं अशें व्हड शिकप शिकूंक नात जायत, पूण घरसंवसार करतना कोणाचें किजील अजून पसून आयकूंक आयलां? आमच्या गांवचें एक पूण चेडूं घोवाक सोडून कोणा फाटल्यान गेलां म्हूण आयकूंक आयलां? घोवाच्या त्रासाक लागून एकल्यान पूण जीव दिल्लो आयकलां तुवें? इतलें पूण नांव आमच्या गांवच्या चेडवांक आसा न्हय?'

'इतली बरी बारकाय आसा मम्मी तुका. त्या रोजालीनागेर अजूनय भुरगें कित्याक जावंक ना गे? तें विमल दिसान दीस सुकत कित्याक चल्लां गे? तें रंजन सदांच आपले आवयगेर कित्याक आसता गे? शेजारच्या प्रियाक लोकांच्यो खबरो करपा बगर दुसरो कसलोच धंदो ना?'

'तुकाय बरीच बारकाय आसा मुगो.'

'तुजी धूव न्हय हांव? हें हांव उलयना, आमी एकठांय जातात तेन्ना तीं हेर चेडवां उलयतात. म्हाका तांचे भोवूच पडून गेलां.'

'चल, चल तुका नाकात त्यो खबरो. चल तुज्या अभ्यासाक बस.'

'वा, कितें शॉट ताचो? आयज जिखतलेंच तें.' रुचीकाचें लक्ष अजूनय टीव्हीचेर आसलें.

'चल म्हणलां रुचीका, पापा आयल्यार वोगीच बोवाळ मारतलो.'

'कितें मम्मी तूं....?' मम्मीन टीव्ही बंद केली. तें पळोवन निराश जावन रुचीका भितर गेलें.

*एसएससी*-च्यो परिक्षा जाल्यो. रुचीका आपल्या निकालाची वाट पळोवंक लागलें. त्याच दिसांनी परत एक फावट राष्ट्रीय पांवड्यार टॅनिस खेळां सर्तीचें आयोजन जालें. ताका टॅनिस संघटनेचे आपोवणें आयलें आनी तें खुशाल जावन तयार जालें. सुमार धा जाणांक तांणीं वेंचून काडिल्लीं आनी तांकां दोन दिसांचो कँप दवरिल्लो.

सर्तींत बरी कामगिरी करपा खातीर संघटनेन दुसऱ्या राज्यांतल्यान प्रशिक्षक हाडलो. प्रशिक्षणाक आयिल्ल्यांचो पयलो दीस मजेंत गेलो. प्रशिक्षकूय बरोच हांसयाळो आसलो. संघटनेचो अध्यक्ष आनी सचीव भुरग्यांक मेळूंक आयले.

'आमच्या राज्याक मेडल मेळोवन दिल्यार तुमचें शिकप जातकच सरकारी नोकरी दिवपाचो हांव यत्न करतलों.' अध्यक्षान सांगलें.

भुरगीं खुशाल जालीं. तांणी प्रशिक्षका वांगडा आनीक नेटान तयारी केली. संघटने कडेन स्वताचें टॅनिस मैदान आशिल्लें. ताचेर तीन चार कोर्ट आसले. तांचेरूच तांचे प्रशिक्षण चलतालें.

दुसऱ्या दिसा आपयिल्ले वरी सकाळच्या आठ वरांचेर भुरगीं आयलीं. प्रशिक्षकान चार चलयांक वेंचून काडलीं आनी तांच्या कबलाती विशीं उलोवंक अध्यक्षा म्हऱ्यांत वचपाची गरज आसली. आपल्या सांगाताक अनुराधाचीय निवड जाल्या म्हूण रुचीका खुशाल आसलें. नाश्तो करून जातकच चारूय जाणांक अध्यक्षाच्या हातांत घालून प्रशिक्षक गेलो.

अध्यक्षान तांकां भायर बसयलीं आनी एक एकल्याक भितर येवंक सांगलें. एकल्याक धा पंदरा मिनटां धरून हेरांचीं मुलाखत जाली आनी निमाणें रुचीका, परवानगी घेवन भितर गेलें. अध्यक्षाचें ऑफिस म्हणल्यार *पॉश रुम. एसी* आनी बसपाच्या मोव मोव कुलच्यावांचो आस्वाद रुचीका पयलेच फावट अणभावतालें.

'रुचीका, तूं आमचे एक *स्टार प्लेयर*. म्हज्यान तुका दुसऱ्यां बराबर सर करूंक जायना. हे आदीं तुवें आमच्या राज्याक नांव मेळोवन दिलां आनी हेवूय फावटी तूं आमकां निराश करचें ना हाची म्हाका खात्री आसा. तूं म्हाका सांग, आमचे कडल्यान तुजी अपेक्षा कितें?' मोगाचो येवकार आनी सहानभुती दाखयत अध्यक्षान रुचीकाच्यो भावना जागयल्यो.

'सर, म्हजें शिकप जातकच म्हाका नोकरी दिवपाचो यत्न करता म्हणलां तेंच पुरो.'

'आनी नोकरी दिवंक जाली ना जाल्यार...'

'मागीर तुमीच कितें तें थारवपाचें. ह्या वयार आमकां खंय समजता कितें करपाचें तें. हांव म्हज्या पापाक विचारून सांगतां.'

'पयली म्हणल्यार म्हजें खासगी इनाम म्हूण हो एक ल्हान सो *गिफ्ट* तुका दवर.' म्हणीत ताणें आपल्या खणांतलो एक सोबीत *पॅन सेट* काडून रुचीकाच्या हातार दवरलो.

'पूण सर...' *पॅन सेट* घेवपाक तें अनमनलें.

'दवर तूं... हांवें दिलां म्हूण तुज्या पापाक सांग.'

'*थँक यू सर*.'

'पळय रुचीका. तूं पळोवंक एकदम सुंदर दिसता. तुजी आंगलट पसून मन भुलगावणी. ह्या इतल्या ल्हान वयार तूं अशें कशें गो?'

'देवान म्हाका ही आंगलट दिल्या जाल्यार हो म्हजो गुन्यांव जालो?'

'तुज्या रुपा खातीर तुजे इतलीच तुका रचणाऱ्याची तोखणाय करूंक फावो. तुजीं कोण फकांडां बी करिनात गो?' तो आपल्या कदेला वयल्यान उठून मुखार आयलो.

'गरजे भायर कोण कित्याक म्हजी फकांडां करतलो?'

'हांवें हरशींच विचारलें. आगो, हें तुज्या हाताक कितें जालां?' ताच्या हाताक झरकटिल्लें पळोवन ताचो हात आपल्या हातांत घेत अध्यक्ष रुचीकाचे कडेक आयलो.

'काल प्रॅक्टिस करतना मातशें आडवें पडलें आनी हात जमनीर

झरक्टलो.'

'कालूच तुवें म्हाका कित्याक सांगूंक ना? हांव तुका दोतोरागेर व्हरून हाडटलों आसलों. तुज्या सारक्या स्टार खेळगड्याची आमी काळजी घेनात जाल्यार... चल उठ, आतांच आमी दोतोराचो सल्लो घेवन येवया.' तो आनिकूय ताका तेंकून आयलो आनी...

'पूण तुवें म्हाका कित्याक धरलां सर...'

'चल दोतोराक मेळून येवया न्हय.'

'नाका. मम्मीन रातीं ताचेर गांवठी उपचार केला आनी आतां म्हाका दुखना लेगीत.' ताचे पसून मातशे पयस सरत रुचीका परत आपल्या कदेलार बसलें.

'ओह! आतां जिवाक बरें दिसलें. *ओके*. आतां सांग, तुजो रिजल्ट कसो लागतलो अशें तुका दिसता?' विशय बदलपाच्या यत्नांत पूण रुचीकाक आपलेच भितर घुस्पावपाच्या हेतान ताणें हो प्रस्न केलो.

'*फर्स्ट क्लास* तरी येवंक जाय.' निश्पाप भुरग्याची जाप भायर सरली.

'फकत *फर्स्ट क्लास* आयल्यार तुका खंयचे कॉलेजींत प्रवेश मेळटलो?' अध्यक्षान आपलेंपण दाखयलें आनी आपल्या प्रभावाचें जाळ मजबूत करूंक सुरवात केली.

'तें सगळें पापा पळयतलो.' परत एक फावट निश्पाप जाप.

'आनीक हांव तुजे खातीर कांय करूंक शकना?' सुवार्थी विचारांनी वेडो अखंड केलो.

'म्हज्या पोल्याक कित्याक हात लायता सर... हें...' ताचो हात फाफडीत तें मुखार उलयलें. 'ही तुजी वागणूक म्हाका बरी दिसूंक ना सर. अशें म्हाका कोणेंय पळयल्यार म्हज्या पापाक कळटलें आनी मागीर...'

'हांगा कोणूच येना रुचीका.'

'भायल्यान अकस्मात वातावरण बदल्लें. गडगड आनी जोगलां मारूंक लागलीं. आवाज आयकून रुचीका भियेलें आनी आपूण वता

म्हूण सांगून दारा वटेन वचूंक लागलें. अध्यक्षान ताका आडायलें आनी घट आपले वेंगेत घेतलें. ताचे वेंगेंतल्यान सुटपाचो रुचीकान निर्फळ यत्न केलो. अध्यक्षान एक फावट रुचीकाच्या गालाक आपले तोंड लायलें.

'सर!' रुचीका एकदम तिडकलें.

'रुचीका, तुका मातशे धरलें जाल्यार कितें जालें? तूं गडगडाक भियलें म्हूण आलाशिरो दिवंक हांवें तुका घट धरिल्लें. हातूंत कितें वायट आसा?'

'म्हाका हें सगळें आवडूंक ना सर.' ताचे वेंगेंतल्यान सुटत ताणें तिडक उक्तायली.

'हो म्हजो मोग तुजे सवें. रुचीका, सुंदरतायेचे गूण अशे तरेन गायल्यार तुका वायट दिसलें? कितले खुशालकायेचे खीण हे.' अध्यक्ष घडये रानवटपणार उतरिल्लो.

'...आनी हांव तुमच्या टुर्नामेंटांत कशेंच खेळचें ना.' रुचीकाक आतां अध्यक्षाचो राग येवपाक लागलो.

'कित्याक रुचीका? हांवें तुजें कांयच वायट करूंक ना. सादी गजाल तूं मनाक लावन घेता?' पेट घेतिल्ल्या उज्याक अध्यक्ष पालोवपाचो यत्न करतालो. तें उचांबळ जालें. दारा कडेन गेलें. ताचे पयलीं दारा फुड्यांत पावन अध्यक्षान दाराक खिळी घाली. तेन्नाच इतलो वेळ रुचीकाची वाट पळयत आशिल्ल्या अनुराधान दाराचेर मारलें.

'पळय रुचीका ही गजाल तुजे भितर दवर. तुवें कोणाक सांगपाचो यत्न केलो जाल्यार तुका आनीक तुज्या घरच्यां सयत काबार करतलों. तूं जाणां हांव कोण तो? हांव फकत टॅनिस संघटनेचो अध्यक्ष न्हय, तर एक पुलीस इन्स्पेक्टर. चल, आतां घरा वच आनी टुर्नामेंटाक वचपाची तयारी कर.' ताणें दार उगडलें आनी ताका मुक्त केलें.

'अनुराधा, आयज पयले फावट कोणाक तरी हांव भियेलें.' चलतां चलतां रुचीका आपले भितरूच बडबडलें.

'कोणाक गो? तूं तर कोणा कडेनूय फटाफट उलोवपी मुगो.'

'हय. पूण आयज हांव एक चली म्हणपाचो म्हाका अभास जालो. चलयांक कांय अडचणी आसतात ताची जाणीव जाली. ताणें म्हाका...'

'ताणें तुका कितें केलें रुचीका? आमचे कडेन तर तो बरो वागलो. खेळून येतकच कितें कितें मेळटलें तें आमकां सांगलें आनी तुजे कडेन...?'

'ताणें म्हाका भिवयलें अनुराधा.'

'ताणें कित्याक भिवयलें?'

'तो पुलीस इन्स्पेक्टर खंय.'

'आसूं गो कोणूय. तुका कित्याक भियेवंक जाय आसलें? मनशान फकत देवाक भियेवंक जाय. म्हाका उलो करचो न्हय आसलो?'

'म्हज्या मनांत दिसतालें तो कितें तरी करूंक वता म्हूण. पूण देवाकूच जाग आयली आनी हांव... ताणें म्हाका घट धरलें न्हय गो!'

'कितें? तुका घट धरलें? कित्या खातीर?'

'मम्मीचीं उतरां म्हज्या लक्षांत येतात. कोणूय चेडे म्हजेर घुरी घालीत म्हूण तिका आदींच भिरांत दिसताली. ही म्हाका पयली खूण आसा. पूण अनुराधा म्हाका दिसता आमच्या अध्यक्षाची ही एक वायट करणी म्हूण.'

'हय तर. म्हाका दिसता तो तुजो फायदो घेवंक सोदतालो. आमी ताचेर विचार करचो पडटलो.' अनुराधान रुचीकाक धीर दिलो आनी दादल्यांच्या असल्या वायट कर्तुबांच्यो घडणुको सांगत तें ताका घेवन गेलें.

'आयज तूं मंद मंद अशें. सदच्येवरीं हुशार ना शें रुचीका' सकाळीं मम्मीन रुचीकाक पडिल्लें तोंड पळोवन जाप विचारली.

'ना मम्मी. अशेंच. रातीं सारकी न्हीद पडूंक ना.'

'हेंच सांगता न्हय. तुमी दांगांनी व्हडलीं जालीं म्हणटकच रातचे नाका जाल्ले विचार तुमच्या मनांत हाडटात आनी तुमकां रातची न्हीद पडना. आयज सावन तूं म्हजे बराबर न्हीद हां. हांव तुका वेंगेंत घेवन न्हिदयतां.'

'हांव तुका अजूनय ल्हान आसा अशें दिसता मम्मी?' ताणें विशय

घुंवडायलो.

थोड्या वेळान च्याव पियेलें आनी अनुराधाच्या घरा वटेन गेलें. अकस्मात ताची पावलां परतलीं आनी तें घरा कडेन आयलें. पडवेर लायिल्लें बॅट काडलें आनी बॉल घेवन आपले आपूणच खेळूंक लागलें. मर्दीच ताणें बॉल इतल्या नेटान मारलो की ताकाच खबर नासली बॉलाची दिशा खंय आसली ती. बॉल बरोच पयस वचून कपडे सुकूंक घालूंक गेल्ले मम्मी म्हज्यांत पडलो.

‘आयज कितें जालां रुचीका? टॅनिस बॉलाचेर तुजो कितलो मोग आसलो. कोणेंय तो नेटान मारल्यार तुका राग येतालो. पूण आयज तुवें बॉलाचेर कित्याक राग काडलो?’ लागीं येवन बॉल ताचे कडेन दीयत मम्मीन म्हणलें.

‘ताणें म्हाका घट धरले न्हय गे?’ तिडकिनूच ताच्या तोंडांतल्यान उतरां सुटलीं.

‘ताणें म्हणल्यार कोणें? अनुराधान?’ रुचीकाचे कितें तरी जालां हें तिणें पारखिलें.

‘त्या इन्स्पेक्टरान...’

‘इन्स्पेक्टरान? कोण तो इन्स्पेक्टर... आनीक कित्याक म्हूण...?’ आपले आवयचे कितलेशेच प्रस्न आयकना फुडें रुचीकान बॅट शेवटून मारलें आनी आवयचे व्हंटयेंत तोंड लिपोवन रडूंक लागलें. आवयन ताका थातारलें. तेन्नाच रुचीकान आपले कडेन घडिल्ली सगली गजाल सांगली. तिणें ताच्या पापाक आनी भावाक सांगलें. तिडक आनी राग मनांत घेवन पापा आनी ताचो भाव अशुतोष अध्यक्षाक विचारपाक गेले.

‘तुमचे कडेन जाता तें करात. जाय ताका मेळात.’ अशा सरळ उतरांनी अध्यक्षान तांकां अपमानीत करून परत धाडले. तो आपल्या पदा इतलोच वजनदारूय आसलो.

अध्यक्षाची वळख आनी राजकी आलाशिरो पळोवन, ताका धडो शिकोवपाक सोंपी गजाल न्हय हें वळखून ते एका मंत्र्याक मेळ्ळे. तो

मंत्री इन्स्पेक्टराचो बरें मागपी आसलो. ताणें तांचें आयकून घेतिल्ले सारकें केलें पूण कसलीच मजत करूंक ना. कोणें एकल्यान तांकां बुद्द दिली अध्यक्षाचेर *एफआयआर* नोंद करूंक पूण इन्स्पेक्टरान आदींच सांगून दवरिल्लें *एफआयआर* कोणूच नोंद करून घेवचो ना म्हूण. कितें करपाचें? कोणूच आदाराक येनासलो. अनुराधा आनी ताचें एकूच कुटुंब तांकां तेंको दितालें. हेर शेजारी आनी सोयरीं लेगीत इल्लीं इल्लीं पयस जावंक लागिल्लीं.

तांच्या आदाराक कोणूच ना हें अध्यक्षान वळखून घेतलें आनी जाता तितले बेगीन कुटुंबाचेर चेपण हाडून हें प्रकरण मिटोवपाचो यत्न केलो. रुचीकाच्या भावाचेर गाडी चोरून व्हेल्ल्याचो आरोप केलो आनी ताका बंदखणींत घालो. अध्यक्षान चिंतिल्ले प्रमाण रुचीकाचें कुटुंब उचांबळ जालें अशुतोषा खातीर केस लढोवंक वकिला म्हऱ्यांत आनी हेर राटावळी खातीर धांवपळ करूंक पयशांची मारामारी सुरू जाली. कसोय करून अशुतोष जामिनाचेर सुटलोच पूण तांकां अध्यक्षान सुसेगाद रावंक दिवंक ना. हे वटेन ना जाल्यार ते वटेन तो तांकां आपल्या अधिकाराच्या बळार सतयत रावलो. आनीक एक गाडयेची चोरी अशुतोषाचेर घाली आनी ताका परत भितर उडयलो. आवय रडटाली आनी बापूय खरशेतालो.

अशे परिस्थितींत रुचीकाक आदार आसलो तो अनुराधाचो. 'कितें म्हूण करचें? ल्हान पिराय कितली म्हूण सोंसून घेतली? कोणाक लागून हें सगळें घडटालें? म्हजेच तोंड बंद दवरिल्लें जाल्यार हें सगळें घडूंक पावतलें आसलें? म्हजो निरपराध भाव बंदखणींत आसतलो आसलो? बापायन आतां भाटाचो कुडको विकूंक काडला, ताचेर ही परिस्थिती येतली आसली? घरा कडेन फावो तशी येणावळ ना. शेजारी आनी सोयऱ्यांनी आमकां पयस केल्यांत. कित्याक लागून? म्हाकाच लागून घडलां न्हय हें सगळें?' अशा साबार प्रस्नांनी रुचीकाक घेरायलें.

'कितें म्हूण करूं हांव? घरांतल्यान पांय भायर घालूंक भिरांत दिसता. सगळ्यो नदरो म्हाकाच खावंक येतात दिसतात.' अनुराधा

ताच्या म्हऱ्यांत आयिल्लें तेन्ना ताणें सांगलें.

'रुचीका, तूं कांयच भियेनाका. म्हजो तुका सगळो आदार आसा.' ताका आपले वेंगेंत घेत अनुराधान धीर दिलो.

'कितलो म्हूण तुमचो आदार घेतलीं? कितलो तेंप म्हूण तुमी आमकां आदार करतलीं? *एसएससी*-क पयल्या वर्गांत पास जावन पसून म्हाका फुडें शिकूंक मेळूंक ना. बरें टॅनिस प्लेयर जावपाचीं सपनां पळयतालें, तेंवूय पाड पडलें. मम्मी म्हाका लागून पिशी कशी जाल्या. सारकी जेविना. भाव थंय तळमळटा आनी म्हजो पापा, तो भितरले भितर घुस्मट्टा. आतां हांवेंच म्हजे व्यथेक आनी दुख्खाक वळण दिवचें पडटलें.'

'रुच्चिका देव सगळ्यां परस वर्तो आसा. ताचेर भावार्थ दवर. सगळें जाग्यार पडटलें. पळय, म्हज्यो परिक्षा सुरू जाल्यात. दोन दीस म्हाका तुमगेर येवंक मेळचें ना. सुसेगाद राव. मम्मीक धाडटां मर्दी मर्दी तुमगेर.'

'नाका नाका, तुजे मम्मीक धाडिनाका.'

'म्हज्यो परिक्षा सोंपतकच तुका हांव थोडे दीस आमगेर व्हरतां.'

'देव बरें करूं अनुराधा!'

नाजूक मनाचें रुचिका आपल्याच विचारांत आसलें. ताका कसलेंच भान नासलें. तें चलत गेलें आनी खंय पावलें तें ताकाच खबर ना. कितलोच वेळ जालो तें घरा कडेन परतूंक ना.

आवयचेर आकांत आयलो. मोन्यांनी आनी धूवेच्या मोगान, ताच्या चारित्र्याचे भिरांतीन ती ताचो सोद करूंक लागली. रात जायत आयली, तें तिका मेळ्ळेंच ना. तिचे बराबर ताचो पापाय ताका सोदूंक लागलो. रात मदयानीर पावून फांतोड उदेली. तीं पिशीं कशीं हांगा थंय भोंवत आशिल्लीं. घरदार सोडून धुवेक सोदतालीं.

'अनुराधा, कालच्यान रुचिका घरांत ना मुगो. तुमगेर बी लिपून बसलां तें?' रुचिकाचे आवयन अनुराधागेर पांय दिताच भायरूच अभ्यासाक बशिल्ल्या अनुराधाक विचारलें.

'लिपून बसलां?' म्हणल्यार...' अनुराधान आंग काडलें.

'आवाज करिनासतना सगळ्यांक सोदलें गो म्हजे धुवे. रात पासार जाली पूण खंयच दिसलें ना. ताचो पापाय पिशां भशेन सोदीत भोंवता. खंय गेली गो म्हजी धूव? तें देखणें आनी सुंदर म्हूण हांवूच तोखेतालें. म्हजीच नदर म्हजे धुवेक लागली गा देवा?'

तीं उलयता आसतना 'कूंय कूंय कूंय' करीत एक पुलिसांची जीप ते वाटेन पासार जाली.

'हे पुलीस येद्या वेळार?' रुचिकाची आवय चडूच भियेली आनी आपल्या घरा दिकेन धांवत सुटली.

हय. पुलीस तांच्याच घरा कडेन पाविल्ले. तांणी घराक शेरको घाल्लो. उजवाड अजून अस्पश्ट आसलो.

'कितें जालां पुलीस सायबांनो?' तिणें विचारलें

'हें रुचिकाचें घर न्हय?' एका पुलिसान विचारलें

'हय. हांव ताची आवय.' आवय उचांबळ जाली.

'आमच्या इन्सपेक्टराचो खून जाला आनी तो खून रुचिकान केला अशी आमकां खबर आसा. देखून आमी ताका *ॲरेस्ट* करूंक आयल्यात.' त्या पुलिसान कडक आवाजान सांगलें. आवय अजाप जावन आयकूंकच उरली.

'जावं देवा, अखेरेक रुचिकानच नीत केली.' तिणें हात मळबा वटेन करत म्हणलें.

'कितें?' पुलीस तापलो. 'सोदात रे ताका बेगीन.'

'रुचिकाच्या धाडसाक हांव सलाम करतां.' तिचे हड्डें भरून आयलें.



*'नशीब म्हजें तें.'*

*'नशीब म्हणिनात ताका. तूं मातशें कडक आशिल्लें जाल्यार तो घडये सुदारतलो आसलो.'*

*'कडक आनी म्हणल्यार कितें? ताका हांव सदांच सांगतालें. तो म्हजें आयकनासलो. बारांचेर वचून ताच्या हाताक धरून हाडटलें आसलें?'*

*'सोऱ्याक एक सोंसून घेतलो पूण तुवें ते बायलेक कशी सोंसून घेतली तेंच समजना. आपल्या घोवाक म्हूण कोण वांटून घेवंक शकता गो? आमच्या गांवाक अजाप दिसता तें हें.'*

# कृपा

'या गे मम्मी बेगीन, उसरां गेल्यार मागीर थंय बसूंक मेळचें ना. फेस्ताचो दीस मुगे आज.' योलींदान न्हेसून जातकच पावडर लायतना आपले मम्मीक ताकीद दिली. 'खरें म्हणल्यार पाद्र विगारान सांगिल्लें मीस आयकूंक म्हाका जाय आसलें पूण तिसरें मीस सांगूंक फादर मान्युएल येवपाचो आसा देखून तुजे बराबर येवंक रावलें हांव. फादर मान्युएलाचो सेर्मांव आयकूंक म्हाका एकदम बरें दिसता.' योलिंदा तयार जातना बडबडटालें.

'राव गो मातशें, पळय तो कसो तळमळटा.' आपल्या घोवाची इबाडिल्ली भलायकी पळोवन योलिंदाची मम्मी ज्योस्लीनान म्हणलें. हरशीं तेंय न्हेसून तयार जाल्लें पूण आयज फेस्ताच्या दिसा आपल्या घोवाक तळमळटा तें पळोवन घरांतल्यान भायर सरूंक ताचे पांय मुखार सरनासले.

आयज ऑगस्टाची 5 तारीख. रायकारांक व्हड परबेचो दीस. गांवची आस्कारीण आनी पात्रोण म्हूण पाचारिल्ले नेवीस सायबिणीची

आयज परब. हे परबेक दोट्टी खोशी आसता. ह्याच दिसाक गोंयांत पयलें कणस कातरतात तें राय गांवांत. जमिनींतल्यान उगविल्लें आपलें पयलें फळ देवाक ओंपपाचे रितीची सुरवात हांगा जाता. हे खातीर 5 ऑगस्टाक सगळे रायकार खुशाल आनी उमेदीर. इगर्ज तर भरून ओत्ता.

सगळ्या रायकारांचीं सोयरीं एकूच गर्दी करतात. कितले दीस आदीं रायकारांगेर फेस्ताक वचूंक सोयऱ्यांची मांडणी चालू आसता. तो हो आयचो दीस. ह्या दिसाची खुशालकाय वेगळीच. येता वतल्याच्या तोंडार उमेदीचें ल्हार आसता.

पूण रेमेडियस मात आपल्या घरांत कश्टवतालो. तो पिडेंत आसलो. फाटले कितलेशेच दीस तो घरांत पडून आपले पिडे कडेन झगडटालो. तरणाटेपणांत जायती मस्ती केली आनी आतां पन्नाशी कडेन पावून घरांत पडून आसा. तो कोणाचेंच आयकनासलो. देखून हे फावट तांचीं कोणूच सोयरीं फेस्ताक येवंक नासलीं.

'मम्मी, तुका आयज ताची इतली दया कित्याक आयली? ताणें केन्ना तरी आमची दया केली म्हूण तूं ताचेर मोग दाखयता? मम्मी, हो पळय किस्तोद स्कूटर घेवन मिसाक वता, हांव ताचे बराबर वतां. राव रे किस्तोद. मम्मी, तुका जाय तेन्ना यो. म्हाका बसूंक मेळ्ळें जाल्यार तुका बसूंक सुवात दवरतां हांव.' योलींदा आवयची वाट पळयनासतना किस्तोदा बराबर गेलें.

'तूंय चल ज्योस्लीन. म्हजे खातीर देवाकडेन माग आनी आनी जाता जाल्यार म्हाका भोगोस. हांवें खऱ्यांनीच ह्या घराची वाट लायली. आयज म्हाका कळून येता हांवें म्हजो रस्तो बदलूंक जाय आसलो. हांवें विचारूच करूंक ना एक दीस हांव असो घरांत पडून उरूंक शकता म्हूण. तूं मिसाक चल आनी आयज परबेच्या दिसा सायबीण मायची कृपा ह्या घरांत घेवन यो. तिची कृपा देंवली जाल्यार घडये... तूं आदीं मिसाक वचून यो.' कश्टवतल्या रेमेडियसान आपले घरकान्नीक सांगलें.

'हांव खरेंच वचूं?'

'हय, तूं वच आनी एक बरें मीस आयकून यो. तुवें म्हजे खातीर जायतें सोंसलें, घडये आतां म्हजी पाळी आसा. म्हजीं पातकां आनी हांव.... हांगाच परब समरंभता.' रेमेडियसाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं.

ज्योस्लीन भायर सरलें. योलींदा थंय नासलें. ज्योस्लीन रस्त्यार आयलें. इतल्यान सँड्रा बस आयली. बसींत गर्दी आसली. तरी ज्योस्लीन तिचेर चडलें. वेळार मिसाक पावूंक तें यत्न करतालें.

'आण्टी, यो हांगा बस.' म्हणीत ताचे वळखीच्या एका तरणाट्यान ताका बसूंक दिलें. बसतांच ताच्या जिवाक मातशे बरें दिसलें.

रेमेडीयसाची भलायकी खरेंच हुस्को करपा सारकी आसली. तें म्हूण कितें करतलें? तो बरो आसतना कोणाचेंच आयकनासलो. जिवीत भर सोरो पियलो आनी...

'रेमेडीयस कसो आसा ज्योस्लीन?' शेजराक बशिल्ल्या पास्केलान खबर घेतली. 'काय बरें जिवीत वगडावन बसलां. तुजे कडेन लग्न जावन पूण सुदारतलो काय धरिल्लो. पूण ना, ताणें आपणाचेंच केलें. ताचे सारकें काम करपी आमच्या गांवांत थवय नासलो.' रेमेडियोसाक गांवचे लोक खूब मानताले, पूण सोरो पियेवन ताणें आपल्या जिवाचीच न्हय तर आपली प्रतिमा लेगीत इबाडिल्ली.

'नशीब म्हजें तें.' ज्योस्लीनान मान पोंदाक घाली.

'नशीब म्हणिनात ताका. तूं मातशें कडक आशिल्लें जाल्यार तो घडये सुदारतलो आसलो.'

'कडक आनी म्हणल्यार कितें? ताका हांव सदांच सांगतालें. तो म्हजें आयकनासलो. बार्रांचेर वचून ताच्या हाताक धरून हाडटलें आसलें?' ज्योसलीन मातशें तिडकलें

'सोऱ्याक एक सोंसून घेतलो पूण तुवें ते बायलेक कशी सोंसून घेतली तेंच समजना. आपल्या घोवाक म्हूण कोण वांटून घेवंक शकता गो? आमच्या गांवाक अजाप दिसता तें हें.' पास्केलान ताच्या मर्मांचेर बोट दवरलें.

'आसूं, सोडून दी तें. नशिबांत आयलें तें भोगलें.' ज्योस्लीनान तोंड दुसरें वटेन केलें. पास्केल मडगांव नुस्तें विकूंक वचपाची बायल. आयच्या दिसा म्हूण असल्यो गजाली उलोवपाच्यो? तिका तें कळ्ळ्यार न्हय?

'नशिबाक रडूं नाका ज्योस्लीन, तुवें तें मागून घेतलां?' पास्केल कशेंच ओगी रावना जालें.

'मागून जाल्यार मागून. आयज कितें रांदतात गो फेस्ताक?' ज्योस्लीनान विशय बदलपाच्या हेतून म्हणलें.

'जावं, तुका आमचे नेवीस सायबिणीनूच शक्ती दिल्यार पुरो सगळें सोंसून घेवंक आनी तुज्या भुरग्यांचें जिवीत मुखार व्हरूंक.' तिकाय समजलें ज्योस्लीनाक ह्या विशयाचेर उलोवपाचें ना म्हूण.

राय इगर्जे कडेन पावतकच बस थांबली आनी सगळीं देंवलीं. बस एकदम खाली जाली. फेस्ताक गर्दी पडिल्ली. सात वरा वयलें मीस तेन्नाच पूण मातशें उसरां सुटिल्लें आनी चलूंक लेगीत कुस्तार जातालें. ज्योस्लीन लुटींतल्यान वाट काडीत मुखार गेलें आनी खंयसरूय बसूंक मेळटा जाल्यार पळोवंक लागलें. इगर्ज भरून आसली. जायते जाण कुशीक उबे आसले. मीस येवंक आनीक पांच मिनटां तरी उरिल्लीं. पयसूच रावन ताची नदर योलींदा बसून आशिल्ल्या बांकार गेली. तीं विस्कळ बसून आसलीं. ज्योस्लीन योलिंदा फुड्यांत गेलें. घडये योलींदान मांडणी काडून तिका बसपाची सुवात सुगूर करून दवरिल्ली. ज्योस्लीन योलींदाक तेंकून बसलें आनी मागीर दिमी घालून मागणें करूंक लागलें. ताच्या मनांत परत एक फावट पास्केलाचो प्रस्न आयलो, 'ते बायलेक तुवें कशी सोंसून घेतली?'

गांवचे लोक खबरो करताले आनी कोण कोण ज्योस्लीनाकूय विचारतालीं. ताणें सुरवेक तें गंभीरतायेन घेवंक ना. पूण एक दीस तांका दोगांकूय एकठांय पळोवन ज्योस्लीनाची तकली घुंवली.

'खरें आसा तें म्हाका सांग रेमेडीयस, तूं हे बायलेक कोण म्हूण घेवन भोंवता?' तिचे हुजीर ज्योस्लीनान विचारलें. 'हांव तुका दुबावना

पूण गांवचे लोक तुजे विशीं खबरो करतात. तुजी वाडिल्ली धूव आसतना हें तुका सोबता?'

'पळय ज्योस्लीन, ती एक निराधार अस्तुरी. तिका दोग जाण भुरगीं आसात, आनी तिचो घोव ना. एका मोटारीच्या अपघातांत तो मेलो. तिचें घर शिंवूक गोल्लों तेन्ना तिणें म्हाका आपली व्यथा सांगली. ती आयकून म्हाका खूब दूख भोगलें. देखून हांव तिका थोडो आदार करतां.' रेमेडीयसान ते बायले विशीं थोडे भितर म्हायती दिली.

'कसलो आदार करता? तिच्या घोवाचो जागो घेवपाचो आदार?'

'तूं लेगीत लोकां भशेन उलोवंक लागलें ज्योस्लीन? रेमेडीयस मातसो पयस सरलो.

'जाल्यार, हें पळय, तिचे बराबर भोंवपाचें सोडून दी. आनी तुकाय सांगता, ह्या गांवांत आमकां सुखान रावंक जाय, लोकांक तोंड करून दिवं नाका आनी तुजेंय नांव इबाडी नाका.' ज्योस्लीनान तांकां सल्लो दिलो.

आपलो घोव बरी करणी करता म्हूण, तिणें ताका खुर्सार मारूंक ना. पूण एक दीस कोणें तरी तिका सांगलें तो रातचो तांगेर रावंक आसलो म्हूण. तेन्ना तिका प्रस्न पडलो, तो रातचो तांगेर रावंक केन्ना वतलो? रातचो घरा भायर राविल्लो तिका केन्नाच याद जाली ना. तरी तिणें त्यो लोकांच्यो खबरी म्हूण सत मानलें ना. पूण आनीक एक दीस योलींदाक तीं मडगांव भोंवतना दिश्टी पडलीं. तेन्ना मात तिणें घरा कडेन ताचो बरोच हिशेब घेतलो आनी ताका मानून घेवचें पडलें ती बायल आपणाक पसंद करता म्हूण.

'इतलें व्हडलें चेडू आसतना... आनी हांव तुजी बायल आसतना परके बायले फुड्यांत वचूंक तुका लज दिसूंक ना? हांव खंयचे वटेन उणें पडटा म्हूण ती तुका बरी दिसली?' ज्योस्लीनान घर माथ्यार घेतलें.

'एक बायल बरी दिसता वा वायट दिसता ताचेर कांयच आसना, पूण वेळावेळार मनशाक परिस्थिती व्हांवून व्हरता.' ताणें रुबाबान सांगलें.

'कसले परिस्थितीन तुका व्हांवून व्हेलो?'

तितल्याक मिसाची घांट वाजली आनी ज्योस्लीनाच्या विचारांची सांखळ तुटली. ताणें बेगी बेगीन 'म्हयमा बापाक' कुरू काडली आनी सुरवातीचें गायन गावंक उबें जालें.

फादर मान्युएलान बरे तरेन मीस समारंभले. आपल्या प्रवचनांत क्रिस्ती जिविताक खरो वालोर येतलो जाल्यार मनशान भोगसणें दिवन जियेवंक जाय हाचेर भर दिलो. हें सांगतना ताणें दोन तीन गजाली सांगल्यो त्यो ज्योस्लीनाक आपल्योच कश्यो दिसल्यो. एक दादलो परव्दार करता आनी ताची बायल ताका घरांतल्यान धांवडायता. पूण कोणाच्या घरांतल्यान ताका धांवडायता? ताच्याच चार वण्टीच्या घरांतल्यान वा आपल्या आत्मीक जिवितांतल्यान? पवित्र पुस्तकांत परव्दार करपी बायलेची खबर आसा ती मुखार घालून जेजून दिल्ल्या भोगसण्याचेर ताणें आनीक उजवाड घालो. चुकिल्लो मनीस जेन्ना आपली चूक वळखता ताका जेजू लेगीत भोगशीता आनी नव्यान पातक करचें न्हय म्हूण संद दिता म्हण सांगलें.

तर क्रिस्ती मनशाचें खरें जिवीत भोगसणें दिवपाचेर आदारीत आसा म्हूण खरपणान सांगतना ताणें लोकां मुखार प्रस्न उबो केलो तो ज्योस्लीनाकय लागलो 'हांवें म्हज्या घोवाक भोगसूंक जाय?' दुसरे वटेन योलींदाच्या मनान ताका विचार केलो 'म्हजो डॅडी बापायपणाचो कायदो पाळिना, ताका हांवें भोगसूंक जाय? दोगांनीय वळून पळयलें. दोगांयची नदर एक जाली. घडये तांकां एकामेकाचे प्रस्न कळ्ळे. तांणी एकामेकांक मान हालयली.

मिसा उपरांत दोगांय फादर मान्युएलाक मेळूंक गेलीं. तो आपले कपडे बदलतालो.

'फादर, आमचे खातीर तुमी इल्लोसो वेळ दिवशात? तुज्या प्रवचनान आमच्या जिविता मुखार कितलेशेच प्रस्न उबे केल्यात. तांचे विशीं आमकां उलोवंक जाय आसलें.' ज्योस्लीनान फादराक विनंती केली.

'व्हड खोशेन.' फुड्यांत आयिल्ल्या भुरग्याक बेसांव दीयत तो

तांकां घेवन एके कडेक गेलो. योलींदाक तो बरो वळखतालो. कांय तेंप तो रायचे इगर्जेंत आसतना तें थिरावणे संस्काराचे दोतोर्नींक येतालें आनी उपरांत तरणाट्यांच्या जोम्यांत भितर सरिल्लें. फादर मान्युएल तेन्ना इगर्जेचो आत्मीक गुरू आसलो.

'सांगात, तुमकां कितें सांगूंक जाय तें.'

'फादर, म्हजो घरकार एक बरो थवय. लग्ना आदीं सावन तो सोरो पियेवपी. म्हजे कडेन जाता तितलो ताका सांबाळ्ळो. पूण फाटलीं चार-पांच वर्सां तो एके परके बायले फाटल्यान भोंवून ताणें आमकां खूब त्रास केल्यात. ही म्हजी धूव, तिका आनीक एक दोन वर्सांनी लग्न करूंक जाय. हें लेगीत ताका चिंतप ना. ते बायले फाटल्यान लागून ताणें आमकां घरांत खर्चाक पयशे दिवपाचे उणें केल्यात. म्हजे चेडूं कॉलेजीक वतालें. खर्चाक लागून शिकप अर्द्यार सोडलें. घरांतलो खर्च जायना थंय शिकप खंयचे? सद्याक तो हातरुणार पडिल्लो आसा आनी देव जाणा परतून उबो जातलो वा तसोच कोसळटलो जाल्यार.' ज्योस्लीनान आपल्या घरांतली गजाल सांगली.

'आपल्या घोवा विशीं तशें उलोवप सारके न्हय. हांव समजतां ताणें तुमचे कडेन व्हड गुन्यांव केला. पूण चिंतात, फाल्यां तो मेलो जाल्यार तूं एक रांड बायल जातली. आयज तो आसा मेरेन तुमचेर वांकडी नदर घालूंक कोणाकूच धीर जायना. कोणय मेळत तो मनीस तुमच्या घरांत भितर सरूंक धाडस करिना. फाल्यां तो ना जातकच... समाजाची नदर तुमकां खबर ना. मेळटा ती संद घेवंक कोण फाटीं सरना. देखून हे बलात्कार, खून जातात. हे शिवाय ह्या संवसारांत आनीक कसल्यो घडणुको घडटात त्यो खबर नात तुमकां? हे तुजे धुवेक तुज्यान वाटावंक जातलें? सांबाळूंक जातलें?' फादरान सल्लो दिलो.

'पूण तो आसून म्हूण आमकां कसलो फायदो? फाटले आठ दीस तो घरांत पडून आसा. दोन फावटी घरा कडेन दोतोराक हाडिल्लो. दोतोराक दिवंक पयशे पूण आसूंक नाकात?' ज्योस्लीनान आपली अडचण मांडली.

'देव तुमची परिक्षा घेता. ही सायबीण मांय तुमची परिक्षा घेता. तुमी तुमची अडचण केन्ना तिचे मुखार मांडल्या? तिका केन्ना आपल्या आदाराक आपयल्या? ही तुमची आस्कारीन म्हूण जाणात आसतना तुमी तिका कशीं विसरलीं? तुमी तुमच्याच संवसाराचें चिंतलां, देवाचें आसणें तुमच्या संवसारांत हाडलें? ना. चलात, मन लावन एक मागणें करात. आतां परबेचें मीस येवपाचें जालां. फादर नवें कणस कातरूंक गेला. ते येवचे आदीं तुमचें मागणें पुराय करात. सायबीण मांयक तुमच्या जिवितांत सहभागी करात आनी तिची कृपा मेळयात. तीच तुमकां बरो तो रस्तो दाखयतली. तुमचे विशीं कितें घडूंक जाय तें देवान आदींच थारयिल्लें आसा. देवाची खुशी करूंक आयतीं जायात.' फादर मान्युएलान आपलें तत्वज्ञान सांगून अडचणींतल्यान वाट काडूंक तांकां रस्तो दाखयलो.

'देव बरें करूं फादर.' दोगांनीय म्हणलें

तीं दोगांय परत एक फावट इगर्जेंत भितर सरलीं आनी दिमी घालून कितलोसोच वेळ खाजगी मागणें केलें. परबेच्या मिसाची पयली घांट जाली तेन्ना तीं उठलीं आनी इगर्जेंतल्यान भायर सरलीं. भायल्यान अजून गर्दीच आसली. कॅरमस आसले, थंय तरणाटे खेळ खेळटाले, फेरीवाले बोवाळ मारताले, आनी ल्हान भुरगीं अशीं तशीं धांवून आपलो वेळ घालतालीं. अशे परिस्थितींत ज्योस्लीन आनी योलींदा घरा वचपाक बशीची वाट पळयतालीं. फेस्ताचें खाजें वा चणे घेवपाक तांकां मन आयलें ना. नवें कणस घरा हाडूंक जाय म्हूण तीं विसरलीं. तीं आपलेच धुंदीत पूण एका उजळ हावेसांत आसलीं.

थोड्या वेळान मिनी बस आयली. तीं बसींत चडलीं पूण दोगांय एकामेकाकडेन कांयच उलयलीं नांत.

'कांय हाडूंक ना गो ज्योस्लीन बाय फेस्ताचें?' तिकेट घेवपी भुरग्यान विचारलें.

'ना रे बाबा. सांजेर येतलें फेरयेंत.' ताणें ओगीच म्हणलें. एक वटेन ताका लज जाली.

इतले म्हणसर बस तांच्या घरा कडेन पावली. बसींतल्यान देंवून येतना योलींदान ज्योस्लीनाचो हात धरलो.

'मम्मी, मातसो वेळ ह्या खुर्सा कडेन बसुया.' ज्योस्लीन कांयच उलयलें ना. योलींदा बराबर चलत गेलें आनी घरा कडल्या बस स्टॉपा फुड्यांत आशिल्ल्या खुर्साचे सावळेंत बसलें.

'मम्मी, खरेंच डॅडीन आमचेर अन्याय केलो. म्हाका अजून ताची तिडक आसा पूण सायबीण मांयन म्हाका भलतेंच कितें तरी सांगलां.' योलींदा आज वेगळेंच कितें तरी उलयलें. ज्योस्लीनान ताचें आयकलें पूण तें कसलीच जाप दिवंक शकलें ना.

'मम्मी, आमी डॅडीक भोगसणें दीत जाल्यार तो सगळें वांकडें जिवीत सोडून आमचे बराबर रावतलो?' बापायचेर सदांच तिडक काडपी योलिंदा आयज ताच्या बरेपणाच्यो गजाली करता म्हूण ज्योस्लीन घुस्पल्लें.

'ताचें जिवीत सुगूर उरल्यार न्हय?' ज्योस्लीनाकय ताचें बरेंपण नासलें.

'तूंच ताका बरी वळखता. तुजें मन कितें सांगता मम्मी?' एक भशेन योलींदा आपले आवयक बरी करणी करपा खातीर हुस्कायतालें.

'म्हजे मन म्हाका सांगता तो म्हजो केन्नाच जायनेजो. लग्न जावन म्हजें जिवीत हांवें ताचे पासत खर्चीलें. ताचो कितलो सांबाळ केलो. तुका वाडयलें. आतां सुसेग घेवपा वेळार हो ते दळदीरेक भुल्ला आनी आमकां त्रास करता. हांव खंय तरी नोकरी करूंक वता म्हूण सांगल्यार ताणें म्हाका नोकरी करूंक दिवंक ना. मॅट्रीक पास केल्लें हांव, त्या काळार खंय तरी नोकरी मेळटली आसली. आतां कोण म्हाका नोकरी दितलो? हांवूंच नकळों हाचे मुखार आमचें कशें जातलें तें.' ज्योस्लीन आपल्या फुटक्या नशिबाक रडलें.

'मम्मी आमच्या हायस्कूलांत *ऑफिस असिस्टंटाची* नोकरी आसा म्हूण नायक सर सांगतालो. हांव पळोवं ती नोकरी म्हाका मेळटा जाल्यार?' योलींदान आनीक एक नवो प्रस्न मुखार हाडलो.

'तुका दिसता ती नोकरी तुका मेळटली म्हूण?'

'हांवें नेवीस सायबिणीक उलो मारला. तिका जाय जाल्यार आमचो फुडार पर्जळूं येता.'

'मागीर डॅडीचें कितें करतले?'

'जर तर म्हाका नोकरी मेळ्ळी जाल्यार आमी स्वतंत्र जालीं न्हय मम्मी? मागीर आमकां डॅडीचेर कित्याक पातयेवन रावंक जाय?'

'तूं ताका माफ करूंक तयार आसा? हांव जाल्यार...'

'मम्मी, सायबीण मांयचे कृपेन हांवें ताका सगळ्या पातकांतलो माफ केला आनी तुकाय सांगता मम्मी, तूं लेगीत ताका माफ कर. कित्याक म्हाका दिश्टावो जाला, आमचेच अस्कत जिणेक लागून तो वांकड्या रस्त्यार पावलो. आमी ताचेर दबाव हाडिल्लो जाल्यार घडये तो चुकचो नासलो, ते बायलेक लेगीत भुलचो नासलो. आतां तो दुयेंत आसा ह्या निमतान तिचे पसून पयस आसा. हीच संद घेवन आमच्या डॅडीक आमी सांबाळुया आनी आमच्या जिविताक नवी सुरवात दिवया.' योलिंदान समजिकायेचो तोडगो काडलो.

'पूण हांव ताका...ताका..' ज्योस्लीन धुवेचें उतर मानूंक तयार जालें ना.

'हय मम्मी, आयज जे भशेन चिंतलां तशें हांवें केन्नाच चिंतूक नासलें. खरें म्हणल्यार आमच्या घराब्या विशीं, आमच्या जिविता विशीं आमच्या धार्मीक मुल्यां विशीं हांवें केन्नाच चिंतूक नासलें. आमी फकत डॅडीच्यो चुकी पळयत रावलीं. आमचो कायदो आमी विसरलीं. आयज नेवीस सायबिणीन म्हजे दोळे उगडल्यात. तिणें म्हाका म्हणलें 'तुज्या डॅडीचो सांबाळ तुजे कडेन करूंक जालो ना म्हूण तो वांकड्या रस्त्यार पावला. आतां तरी तुजी जापसालदारकी पाळटा न्हय?' वेळ आयला आमी करण्यांनी वागपाचो.'

'खरेंच म्हजे धुवे, म्हाकाय हेंच होलमलां. तो म्हजे आयकनासलो म्हूण हांव ओगी रावलें. आतां तुज्या सांगातान आमी ताका सगळ्या वांकड्या रस्त्यां वयलो निटायेर हाडुया. ताचे खातीर वेळ काडून ताका

मोग दिवया आनी ताचेर सायबिणीचो आशिर्वाद मागुया.' धुवेच्या बदलिल्ल्या सभावान ज्योस्लीनाकय बदलूंक प्रवृत्त केलें.

'आगो तुमी हांगा कितें करतात?' शेजारचो दामीयांव धांवत तांच्या फुड्यांत आयलो. 'रेमेडीयस थंय थंड पडला मुगो.'

'मम्मी, तूं मुखार वच, हांव डॉ. मिनेझीसाक घेवन येतां. देवाक जाय जाल्यार तो आमकां फावो जातलो, आमी ताचो इलाज करुया.' योलींदान सांगलें आनी दोतोराल्या घरा वचूंक उबें जालें.

'सायबीण मांयची कृपा आमच्या घराब्यार देंवल्यार पुरो. चल बाय चल.' ज्योस्लीन आपल्या घरा वटेन गेलें जाल्यार शेजाराक रावपी डॉ. मिनेझीसाच्या घरा वटेन योलींदा धांवलें.



*'पळय बाबा, हांव तुका
फोर्स करिना पूण विचार करूंक
मागतां. म्हजे एकले धुवेन कशे परिस्थितींत
जीव दिला ताका तूं साक्षी आसा. हेंवूंय इतलेंच
नाजूक आसा. तें ल्हानपणांतल्यान संवेदनशील.
जायते फावटी आमी ताका अशें अणभवलां. आनी
आतां तें तुज्या मोगान पिशें जालां. तुज्यान जाता
जाल्यार फटीचें तरी ताचे कडेन लग्न जा आनी ताका
मातशें खुशाल कर. तूं लग्न जाला हें आमी कोणाकूच
सांगिनात आनी मिनाकय तुज्या फुड्यांत रावपाक
दवरिनात. हें एक गुपीत आमचें मर्दी दवरून
ताचे जिवीत सांबाळूंक मेळटा जाल्यार
पळय. मिनाक समजावपाचें
हांव पळयतां.'*

# घटस्फोट

अमाशेची रात कूस परतूंक लागली. तरी सगळ्याक काळोख आसलो. त्या काळखांत प्रोफेसर सायमन एकलोच बसून कसल्या तरी विचारांत घुस्पून आसलो. आख्खो दीस भर तो अस्वस्थ आसलो. ताका कशीच न्हीद येनासली. ताच्या ह्या ओगीपणान आनी उमाळ्यांनी येदो व्हडलो बंगलो हालून गेल्लो. हे आदीं अशें केन्नाच घडूंक नासलें. सदांच लायटीचो झगझग ह्या बंगल्याक हांसयतालो आनी खेळयतालो.

ह्या वेळार सायमनानूच सगळ्यो लायटी बंद दवरूंक घरांत काम करप्यांक आदेश दिल्लो. ह्या बंगल्या खातीर आयची ही काळखी रात एक श्राप थारूंक शकताली वा ह्या बंगल्यांचें नशीब पर्जळूंक शकतालें. हो वेळ ह्या बंगल्याच्या हांसत्या खेळट्या वातावरणाचो निर्णायक वेळ आसलो.

सायमना मुखार आशिल्ल्या मेजार कांय कागदां पसरिल्लीं आसलीं. हातांत आशिल्लें पेन घेवन ताणें कितें तरी बरोवपाक येवजिलें पूण काळोख आसा म्हूण ध्यानांत येतकच पेन सकल दवरलें आनी तो

उठलो. ताणें लायट पेटयली. मेजावयल्या कागदाचेर नदर मारली आनी एक कागद उबारलें. तें ताचें इत्सापत्र आसलें. कालूच वकील काकोडकारान ताच्या सांगण्या वयल्यान तें तयार करून हाडून दिल्लें. ताचेर सय करपाची अजून बाकी आसली. ताचे मुखार आनीक एक कागद आसलें ते घटस्फोटाचें. तें ताणें हातांत घेवंक ना. कित्याक ताकाच लागून ह्या बंगल्यांत काळोख पसरिल्लो. फाल्यां ताचेर निर्णय जावपाचो आसलो. फाल्यां घटस्फोटाचेर निर्णय जावचें आदीं इत्सापत्र नोंदणी ऑफिसांत नोंद करून कोर्टांत तें सादर करूंक जाय हाची तो जतनाय घेतालो. ताणें परत पेन हातांत घेतलें आनी सय करपाक, ताका कितें तरी याद जाली. पेन आनी कागद परत मेजार उडयलें आनी ताणें फोन उखल्लो. एक नंबर घुंवडायलो.

'काकोडकारबाब, हांव नकळों ह्या वेळार कितलीं वरां जाल्यांत तीं, उपकार करून सकाळीं कोर्टांत वचचे आदीं मातशें म्हज्या घरा यो. म्हज्या इत्सापत्राची नोंदणी करुनूच आमी सांगातान कोर्टांत या. हांवें एक मांडणी काडल्या ती म्हाका तुजे कडेन भासाभास करूंक जाय.' तो वकील काकोडकारा कडेन उलयतालो.

'बरें सायमनबाब.' वकिलान येवपाचें उतर दिलें आनी फोन बंद केलो. सायमनाचो जीव मात्सो ल्हव जालो. ताणें सवस्तकायेचो एक सुस्कारो सोडलो आनी कदेलार बसलो. कांय नवे विचार ताच्या मनांत घोळूंक लागले. ही मांडणी फळादीक जाली जाल्यार.....? थंयच ताचो दोळो लागलो.

सायमन एक गरीब घराण्यांतलो भुरगो. आवय-बापायन कश्ट काडून ताका शिकूंक आदार केलो. आपले हिकमतीन तो शिकलो आनी एक प्रोफेसर जालो. एक दीस ताचे बराबर गोंयांत शिकपी रिबेलो ताका मेळ्ळो. तो बंगळुरूंत एका कंत्राटी बेसीचेर नोकरी करतालो. हांगा बेकार आसा तें पळोवन आपूण शिकयता थंय नोकरी आसा म्हूण ताणेंच सायमनाक नोकरे खातीर बंगळुरूंत व्हेलो.

थंय रिबेलोन एक घर भाड्यान घेतिल्लें आसलें. घर व्हडलें आसलें

देखून ताणें सायमनाची थंयच वेवस्था केल्ली. त्या घर मालकाच्यो दोग सोबीत धुवो आसल्यो. रिबेलो आदींच व्हडले धुवेच्या, निमीच्या मोगांत आसलो. सायमन नोकरे वयल्यान येतकच बेकार वेळार तांचे कडेन वेळ पासार करता करता धाकल्या मिनाच्या मोगांत पडलो. तसो सायमन मोगांत पिसो जावंक नासलो. तो जाणा आसलो आपूण हांगा पयशे जोडूंक आयलां आनी मोगांत पडून वेळ तशेच पयशे वगडावपाचे ताचो कसलोच हेतू नासलो. तरी केन्ना केन्ना तोंड गोड करूंक खावंक हाडटालो इतलेंच.

एक दीस रिबेलोची बदली जाल्ल्याचें ताका पत्र आयलें. ताका *फूल टायम लॅक्चरर* म्हूण चेन्नायचे एके दुसरे कॉलेजींत नोकरी मेळ्ळी. ताणें रोकडोच हयकार दिलो. तो थंय वचपा खातीर तयार जावंक लागलो. ही खबर निमीक कळटकच ताणें रडून बोवाळ केलो. तें सगळेंच नाचूंक लागलें. तें ताका कशेंच सोडूंक तयार नासलें. ताणें आपणांक सोडून वचचें न्हय असो ताचो आग्रो आसलो.

'पळय निमी, म्हजो फुडार म्हाका करपाचो आसा. तुज्या मोगांत हांव पडलां खरो पूण ह्या वेळार लग्न जावपाची म्हजी तयारी ना. सुमार एका वर्सान हांव तुका गोंयांत व्हरून तुजे कडेन लग्न जातलों.' रिबेलोन ताका कितले भशेन सांगून समजायलें. तें कशेंच आयकना जालें आनी समजनाय जालें. तेन्ना रिबेलोक राग आयलो. ताका धाडशी निर्णय घेवंचो पडलो. ताचे रेल्वेचो वेळ जायत आयिल्लो.

रिबेलोन आपले बॅग आनी हेर सामान घेतलें आनी सायमनाक 'बाय' करून चलूंक लागलो. निमी आपल्या घरांत रावन ताका पळयतालें. रस्त्यार येवन रिबेलोन रेल्वे स्टेशनार वचपा खातीर रिक्षान रस्तो धरलो. तो घडये स्टेशनार पावंकूय नासतलो, हे वटेन निमी आपल्या घरांतल्यान भायर सरलें आनी धांवत वचून तांच्यांच भाटांत आशिल्ले बांयत रिगलें.

तेन्ना सायमन भायरूच आसलो. सायमनाचेर आंकांत आयलो. तो बेगीबेगीन बांय कडेन धांवलो. पूण तें ताका दिसलें ना. ताणें बोवाळ

केलो आनी सगळ्यांक एकठांय केलीं. बांय खोल आसली. तातूंत देंवूक कोण तयार नासलो म्हूण फायर ब्रिगेड हाडली. तांणीं निमीक बांयंतल्यान वयर काडलें पूण तें मेलें म्हूण जाहीर जालें. सायमनान रिबेलोक ही गजाल कळयली पूण तो आयलो ना.

सायमन एकलोच रावंक लागलो. निमीची भयण मिना सायमनाक परतून परतून बेजार करपाक लागलें. घडये ताच्या मनांत सायमना कडेन लिंगीक सूख भोगपाची इत्सा आसली आसत, तो शिटूक जालो. इतले पयस, दुसऱ्याच्या गांवांत आपलो खेळ करूंक ताका नाका आसलें. दुसरें म्हणल्यार तो बऱ्या एका घराण्यांतलो भुरगो आसलो.

एके रातीं, ताणें एक वातीचो मास हाडलो आनी सगळ्यो वाती सायबीण मांयच्या पांयजेला मुखार पेटयल्यो. दिमी घाली आनी पवित्र पुस्तक उगडून तातूंतलो एक उतारो वाचलो. आपले दोळे घट्ट बंद केले आनी देवाक प्रार्थन उबारलें. 'मोगाळ बापा, म्हजेर येवपी सगळ्या विघ्नांतल्यान भायर सरूंक म्हाका शक्त दी. नीट रस्त्यार चलूंक आनी संवसारी आशेक भुलना जावंक म्हाका तुजे सावळेंत दवर. म्हजी नोकरी हेंच म्हजें पवित्र स्थान आनी ते पवित्रतायेचो भंग जावचो न्हय म्हूण म्हाका कृपा फावो कर. म्हजो गांव, म्हजें घर सोडून पोटा खातीर हांव हांगा आसां, म्हजेच चारित्र सांबाळूंक, येता त्या दिसांक धिरान आनी आत्मविस्वासान फुडो करूंक म्हाका बळगें दी. आमेन'.

थोड्या तेंपान सायमाची बदली जाली. तो तेंप पसून खऱ्यांनीच ताचे दीस बरे गेले. मिना ताच्या फुड्यांत येतालें पूण सभ्यपणान वागतालें. ताका मंगळूर तयार जाल्ल्या नवे कॉलेजींत *फूल टायम लॅक्चरर* म्हूण नोकरी कायम जाल्ली. सायमनान ही गजाल मिना आनी ताच्या घरच्यांक सांगली. हें आयकून मिना काचाबूल जालें. आपले भयणी भशेन करूंक लागलें. ताका वचूंक दिना जालें.

'पळयात, हांव गोंय सोडून इतले पयस नोकरी करूंक आयिल्लों तो मोगान पडून आपलो फुडार इबाडूंक न्हय, तर ह्या समाजांत कोण तरी जावंक. जर तर असल्या सुवार्थी मोगाक भुल्लों जाल्यार म्हजी उदरगत

जातली?' ताणें स्पश्ट विचारलें.

'तशें जाल्यार तूं म्हजे कडेन कित्याक गोड गोड उलयतालो?' मिना घुरघुरूंक लागलें.

'कोणा कडेनूय गोड गोड उलयलें जाल्यार ताणें म्हज्या गळ्यांत पडपाचें? हे आदीं तुका हांवें सांगिल्लें हांव मोगाचे भानगडींत पडूंक हांगा येवंक ना म्हूण. हांव फाल्यां मंगळूर वतां म्हज्या नव्या हुद्द्याची पोज घेवंक.' ताणें परतून एक फावट स्पश्ट सांगलें आनी रिबेलो भशेन पावल मारूंक येवजिलें पूण त्याच खिणाक मिना बांयचे वटेन धांवत सुटलें. नायलाजान सायमनाक आपलें मन वळोवचें पडलें. ताचे फाटल्यान धांवून ताका ताणें आडायलें आनी ओडीत घरा हाडलें.

'आतां हांवें कितें करपाचें?' सायमनान ताचे आवयक प्रस्न केलो.

'थोडो वेळ सुसेग घे. हांव तुका वाट सांगता.' तिणें शांतपणान सांगलें. तो रुमार वचून खाटीर आडवो पडलो. ताका इतले बेगीन लग्न जावंक नाका आसलें. आतां मुखार कितें करपाचें तें तो येवजूंक लागलो. कोणें तरी ताच्या दारार मारलें. ताणें दार काडलें. मिनाची आवय आसली.

'पळय बाबा, हांव तुका फोर्स करिना पूण विचार करूंक मागतां. म्हजे एकले धुवेन कशे परिस्थितींत जीव दिला ताका तूं साक्षी आसा. हेंवूंय इतलेंच नाजूक आसा. तें ल्हानपणांतल्यान संवेदनशील. जायते फावटी आमी ताका अशें अणभवलां. आनी आतां तें तुज्या मोगान पिशें जालां. तुज्यान जाता जाल्यार फटीचें तरी ताचे कडेन लग्न जा आनी ताका मातशें खुशाल कर. तूं लग्न जाला हें आमी कोणाकूच सांगिनात आनी मिनाकय तुज्या फुड्यांत रावपाक दवरिनात. हें एक गुपीत आमचें मर्दी दवरून ताचे जिवीत सांबाळूंक मेळटा जाल्यार पळय. मिनाक समजावपाचें हांव पळयतां.' ती सायमनाचे जापेची अपेक्षा करिनासतना परतून गेली. सायमन खऱ्यांनीच तणाव अणभवूंक लागलो. कितें करचें तें ताचें ताकाच समजना जालें. घरा कडेन कळोवं? काय लग्नाचें नाटक करूं? तो दुविदेंत पडलो. पूण हें नाटक नाटकूच उरतलें म्हूण कित्या

वयल्यान? ताणें स्वताक कितलेशेच प्रस्न केले.

रातभर ताका न्हीद पडूंक ना. निमीचो चेहरो ताच्या दोळ्या कडेन येवंक लागलो. तें बांयत उडी मारूंक वता तें दिसूंक लागलें. मागीर मिना... तो खीण... निमाणें ताणें थारयलें लग्नाचें नाटक करूंक. सकाळीं उठून तो मिनाचे आवयक मेळ्ळो आनी तिणें सांगलें तशें करूंक आपलो हयकार दाखयलो. मिनाची आवय खुशाल जाली. तितलेंच मिना. सादे रितीन हिंदू धार्मीक विधी वरवीं तांचे लग्न जालें आनी मिनाचे आवयन सायमनाक दिल्ल्या उतरा प्रमाण मिनाक आपल्याच घरा दवरलें आनी तो मंगळूर गेलो.

मंगळूराक सायमनाक बरी शाबासकी फावो जाली. ताची शिकोवपाची पद्दत पळोवन भुरगीं लेगीत ताका मान बागोवंक लागली. एक दीस गोंय विद्यापीठांत प्रोफेसराची नोकरी आसा म्हूण ताका कळून आयलें. ताणें रोखडोच आपलो अर्ज दिलो. बंगळूर आनी मंगळूर हांगाच्या कॉलेजींनी शिकोवपाच्या अणभवाक लागून सायमनाची निवड जाली. तो एकदम खुशाल जालो.

आपूण लग्न जाला म्हूण ताणें आपल्या आवय बापायक अजूनय सांगूंक नासलें. पूण आतां नाइलाज आसलो. गोंयांत नोकरी पक्की जाल्ली आनी मिना गळ्याक बांदिल्लें आसलें. ताचेर अदिकूच आकांत आयलो. आपल्या आवय बापायक कशें तोंड दाखोवं? हें येवजून ताणें एक चीट बरयली आनी सगळें सत कळयलें. आपल्या जिवितांत आयिल्लें एक तुफान आनी त्या तुफानांत तोंड दितां दितां एका चेडवाक आपल्या जिवितांत कशे तरेन हाडचें पडलें तें मांडलें. व्हड काळजान आवय-बापायन ताचो निर्णय मानून घेतलो आनी गोंयांत एक दीस इगर्जेंत रेस्पेर करून गांवच्या लोकांकव्हडली पार्टी दिवन तांच्या लग्नाचो दबाजो मनयलो.

ह्याच दबाज्यांत मिनाची वळख गांवच्या एका तरणाट्या कडेन जाली. तो सायमाचो इश्ट सॅल्वी आसलो. तो तांगेर येवपी वचपी. तो बिनधास्त वावुरपी आसलो. सायमन नोकरेक वचूंक लागलो. तसो

सॅल्वी केन्ना केन्ना तांगेर येवपाक लागलो. सायमन आपले नोकरे निमतान दीस भर भायर उरतालो आनी सॅल्वी तांच्या घरा कडेन येवपाचें चडूंच जावंक लागलें. एक दीस सायमनाच्या बापायक बेश्टोच सॅल्वीचे वागणुकेचेर दुबाव आयलो आनी ताणें ताका समजायलो एका फुलत्या घराब्या पसून पयस राव म्हूण.

त्याच काळांत सायमनाक सरकारी बंगलो मेळ्ळो. ताणें आपल्या आवय-बापायक आपले बराबर बंगल्यांत आपयलीं पूण हेर भाव आशिल्ल्यान तांणी पोरण्याच घरांत रावप पसंत केलें. सायमन मिनाक घेवन बंगल्यांत वतना आवयन एकूच सल्लो दिलो 'म्हज्या पुता, सांबाळून राव आनी आपलो बरो संवसार कर. केन्नाय गरज पडल्यार आमकां उलो कर.'

इतले मजगतीं, मिना गर्भेस्त जालें आनी तांकां घरांत आदार जाय पडलो. ताणें आवयक हाडली पूण मांय-सुनेचें पटना जालें. तेन्ना सायमनान सॅल्वीची मजत घेतली. तें बाळंत जालें आनी तांकां एक सोबीत बाबू जालो. सायमनाची विद्यापिठांत जबाबदारी वाडली. घरा कडेन दिवंक ताका वेळ मेळना जालो आनी मिना एकलें पडपाक लागलें. देखून सायमनान परत एक फावट फावता तेन्ना सॅल्वीक आपल्या बंगल्यार येवंक मेकळेंपण दिलें. तो आदींच बेकार आसलो. तो मिनाक चिकटून रावलो. मिनाची आनी सॅल्वीची इश्टागत खुबूच वाडली. सायमनान जाणा जावन आपल्या फुडारा खातीर तांचेर आडनदर केली. एक दीस आपलोच घात जातलो हें तो विसरलो.

तशेंच घडलें. एक दीस मिनान सायमना फुड्यांत एक प्रस्ताव दवरलो.

'म्हाका वीस हजार रुपया जाय.' मिनान हट्टीपणान सांगलें.

'वीस हजार? आनीक कित्याक?' इतले पयशे मागतां म्हूण सायमनाक अजाप जालें.

'सॅल्वीक नोकरी लागपाची आसा. देखून ताणें म्हजे कडेन मागल्यात.'

'मागीर ते हांवें कित्याक दिवंक जाय?'

'सॅल्वीन आमकां इतलो आदार केलो थंय वीस हजार दिल्यार चड जाले?'

'म्हजे कडेन सद्याक नात. तुका हांव मागीर दितां.'

'ना, म्हाका आतांच जाय.'

'असो नेट दाखयनाका. हातूंत म्हाका कितें तरी काळें दिसता.'

'कितें काळें? तुज्या आवय-बापायन तुजे कान भरून दवरल्यात आसतले.'

'सारकें वळखलें तुवें. तुज्या मोगान आनी म्हजे नोकरेन म्हाका म्हज्या कर्तव्या पासून व्हांवोवन व्हेल्लो. म्हज्या आवय बापायन म्हाका सांगिल्लें खरें पूण हांवें तांचेर विस्वास दवरूंक ना. म्हाका लोकांनीय सांगिल्लें. तांचेरूय हांवें विस्वास दवरूंक ना. आतां म्हज्या लक्षांत थोडें थोडें येवपाक लागलां. बरें म्हाका वेळ जाता हांव वतां.' आपले घरकान्नीचे वागणुकेचेर तिडक उक्तावन सायमन भायर सरून गेलो.

ताच्या सभावाची मिनाक तिडक मारली. पूण ताच्यान कितें करूंक जातालें? सायमनान आपली वाट वळखली. ताका एक भशेन चूक कळून आयिल्ली. सवका सवका तांचे मदीं वाद-विवाद वाडत गेले. कोण कोणाचें आयकूंक तयार नात जालीं. मिना आपले परीं एका वेगळ्याच वातावरणांत जियेतालें.

एक दीस मिना रागान भुरग्याक घेवन घरांतल्यान वचपाक गेलें.

'खयं चल्ली मॅडम?' सायमनान ताका विचारलें.

'हांव म्हज्या घरा वतां.' अशें सांगून मिना सॅल्वी फुड्यांत रावूंक गेलें. ते आदीं ताणें बंगल्यांतल्यो जायत्योच वस्तू सॅल्वीगेर व्हरून दवरिल्ल्यो. उरिल्ले फकत पयशे व्हरपाचे. पूण तें ताका शक्य जायना जालें. सायमन शिटूक जाल्लो. ताचें कांयच आयकूंक तयार नासलो आनी मागता तें दिवंकूय सोदिनासलो. म्हूण तें रागान फोनावयल्यान सायमनाक घटस्फोटाची धमकी दिवंक लागलें, पूण सायमनान तें गंभीरतायेन घेवंक नासलें. एक दीस सॅल्वीची बुद्द घेवन मिनान वकिला

वतीन सायमना कडेन घटस्फोट मागलो. जेन्ना ताचे कडेन कोर्टाची नोटिस आयली तेन्ना मात सायमनान विचार करूंक सुरवात केली. आपल्या एका इश्टा कडेन हे बाबतींत भासाभास केली. ताणें वकील काकोडकाराक मेळपाचो सल्लो दिलो. ते प्रमाणे वकिल काकोडकारान आरती परती भासाभास, विचार करून घटस्फोटाक जाप कशी दिवपाची हाचेर उपाय सोदून काडलो.

दोन तीन फावटी कोर्टांत सुनावणी जाली. मिना सॅल्वीक भुल्लां आनी तें परतून येवंक शकना हाची सायमनाक खात्री जाल्ली. नाय जाल्यार तें सामकेंच फुलगडें जाल्लें. सॅल्वी ताका आपली बायलूच जाल्ले प्रमाण घेवन भोंवतालो. म्हूण सायमनाक खूब वायट दिसतालें. जे परिस्थितींतल्यान ताका आपणें सांबाळ्ळें, लग्नाचें नाटक केलें आनी व्हड काळजाच्या आपल्या वडिलांनी ताका मानून घेतलें, हें सगळें तें विसरिल्लें आनी ताणें सगळ्यांचो अपेक्षाभंग केल्लो. आतां तांच्या घटस्फोटाचो निकाल जावपाचो आसलो. घटस्फोट जातलो हें नक्की आसलें पूण भुरगो कोणा कडेन उरतलो हें कोणूच नकळो आसलो. म्हूण हांसत्या खेळट्या बंगल्यांत सायमन काळोख करून आसलो. जायते तरेन चिंतून ताका एक मार्ग सांपडिल्लो आनी हाचे विशीं वकील काकोडकारा कडेन उलयल्या उपरांतूच ताका न्हीद लागिल्ली.

वकील काकोडकारान दारार मारताच ताका जाग आयली आनी तो भुतकाळांतल्यान वर्तमान काळांत आयलो. बेगी बेगीन तोंडार उदक मारून वकिला फुड्यांत येवन बसलो. सायमनान आपल्या मनांत जें कितें येवजिल्लें तें ताका सांगलें. वकिलाक एक नवी मांडणी सायमना कडल्यानूच शिकूंक मेळिल्ली. कोर्टांत तिचो उपेग जातलो वो ना तें ताकाय खबर नासलें पूण प्रयोग करूंक हरकत ना अशें ताका दिसलें. ती एक गेम जावं येताली. नवी गजाल भासाभास करता म्हणल्यार कोर्टांत वचपाचो वेळ जावपाक लागलो. ते भायर सरले. आदीं ते दोगूय इत्सापत्राची नोंदणी करूनच कोर्टांत वचपाक गेले.

जुविजान आपली बसका घेतली. कोर्ट सुरू जालो.

'*युवर हॉनर*, केस सामकी साफ आसा. जेन्ना घोव-बायलेचें पटना तेन्ना तांकां घटस्फोट दिवन वेगळीं करप होच शाणपणाचो उपाय आसता.' मिनाच्या वकिलाची शिफारस पळोवन सॅल्वी सामयनाच्या भुरग्याक घेवन एका बांकार बसून मुमुरखोच हांसलो. जायतो वेळ दोगूय वकिलां मर्दी भासाभास जाली.

'दोनूय वकिलांचे मुद्दे आयकले आनी हे आर्दी जाल्ली भासाभास लक्षांत घेवन हांवें केसीचेर निर्णय घेतला पूण घटस्फोट जावचें पयलीं भुरग्याक कोण पोसतलो हाची म्हाका खात्री जाय. सांग मिना, तुमचो एकूच भुरगो, कोणा कडेन वतलो?' जुविजान भुरग्याची जबाबदारी मागली. मिना अनमनलें.

'सायमन तुजो विचार कितें आसा?' मिना तयार ना तें पळोवन जुविजान सायमनाक विचारलें.

'*युवर हॉनर*, भुरगो म्हाका जाय आनी हांव ताची सगळी जबाबदारी घेतां. पूण *युवर हॉनर*, म्हाका जाय मिनान भुरग्याक आपूण जावन म्हजे सुवादीन केल्लो.' सायमनान एक नदर मिनाचेर घालीत सांगलें.

'*आय ऑर्डर टू हॉनर द वीश ऑफ मीस्टर सायमन*' जुविजाचे आज्ञे प्रमाणे मिनान भुरग्याक हाडून सायमना कडेन दिलो. तेन्नाच वकिल काकोडकारान सायमनाच्या इत्सापत्राची कॉपी जुविजा कडेन धाडली.

'*युवर हॉनर*, हाचेर कसली आडखळ आसल्यार म्हाका सांगची. भुरग्याच्या फुडारा खातीर ही सायमनाची तुमकां गॅरंटी.' वकिल काकोडकारान सांगलें. जुविजान ती इत्सापत्राची कॉपी वाचले उपरांत कसलीच आडखळ दाखयली ना.

'*इट्स ऑके* वकिल काकोडकार. तर आतां हांव हे केसी बाबतींत म्हजो निर्णय जाहीर करतां. आयच्यान मिना आनी सायमन दोशीं जातात आनी भारताचे घटने प्रमाणे आनी कायद्या प्रमाणे तांचो घटस्फोट मानून घेतां.' जुविजान जाहीर केलें.

'*युवर हॉनर*, आतां सायमनाचे आस्पतीचो अर्दो वांटो आनी ताच्या

पगाराचो अर्दो वांटो मिनाक मेळूंक जाय न्हय?' मिनाच्या वकिलान आपली अनाडी मांडणी फुडें घाली.

'वांटो मेळूंक सायमना कडेन कांयच ना. जें आसलें तें ताणें सगळें आपल्या पुताच्या नांवांर केल्लें आसा. आनी पुताक घेवंक मिनान न्हयकार दिला. दुसरी गजाल, घटस्फोट सायमनान मागूंक ना मिनाक पगाराचो अर्दो वांटो दिवंक. मिनान आपलें चिंतून घटस्फोट मागला, म्हणटकच ताचें ताणें येवजुपाचें. कोर्ट ताची जबाबदारी घेना. तुका जाय जाल्यार तुमच्यांनी वयल्या कोर्टांत अर्ज करूंक जाता.' जुविजान स्पश्ट सांगलें. मिनाच्या वकिला कडेन आनीक कांयच उरलें ना. समाधानी जावन सायमनान आपल्या पुताचे तकले वयल्यान हात घुंवडायलो आनी गालाचो एक उमो घेतलो.

जुविजान घटस्फोटाच्या कागदाचेर सय केली आनी केस सोंपली म्हूण जाहीर करून उठून गेलो. सायमनान आपल्या पुताक एक जैताचो हांसो दिलो. एक नदर मिना आनी सॅल्वीचेर घाली आनी आपल्या पुताक घेवन वकील काकोडकारा बराबर चलत कांय खिणां मदीं नाच्च जालो. मिना आनी सॅल्वी कोर्टाच्या दारांत रावन तांकां पळयत उरलीं.



'चाची, हांव म्हजेंच
घर न्हय, तर पुराय गांव बरे भशेन
सांबाळपाचो निर्धार करून आयलां.
हांगाचें जायतें काळजांत आसा म्हज्या. पूण
त्या गजालींक लागून म्हजें शिकप अर्द्यार उरत
म्हूण हांव ओगी आसलें. आतां म्हजें शस्त्र
म्हाका हातांत घेवचेंच पडटलें.'
'कितें करतलें गो तूं? ह्या बेबद्यां कडेन
झगडटलें? तांचो मार खातलें? वा ताका
मारतलें गो? पळय सुनिता, तूं इतलें शिकल्यां,
तुजो आमकां अभिमान आसा. ह्या बेबद्यां
मुखार तुज्या शिक्षणाची अब्रू मात
काडिनाका?'

# मुक्ती

पांडूचे पांय जमनीर धरनासले. तो बरोच सोरो पियेवन आयिल्लो. घरांत भितर सरचे सरून ताणें बायलेचेर धेंगसो घालो. बायलेन ताचो अवतार वळखलो आनी पयलींच खंय तरी लिपून रावली.

'हांगा यो गो ........ खंय लिपून बसलां ....?' तो आड्डतालो. रातचो वेळ. गांवगिरो वाठार. सगळें सुन्न आसलें. आनीक एके कडेन असोच कोण एका दादल्याचो आवाज येतालो. लकत लकत पांडू तिका हे वटेन ते वटेन पळोवंक लागलो.

'राव, हांवूंच तुका सोदतां. म्हाका वाडचें पडटा म्हूण लिपून बसलां...? आब्बा! यो पयलीं भायर. सुसेगाद हांगा लिपलां?' ती लिपून आशिल्ल्या कोनशाक सावन ताणें तिका सोदून काडली आनी तिच्या केंसाक धरून ओडूंक लागलो.

'म्हाका अशें मारिनाका, हांव गरीब म्हूण तूं म्हजो फायदो काडिनाका. हांव म्हज्या भावाक आपोवन हाडटलें.' तिणें भियेत भियेत, पूण धीर घेवन सांगलें.

'तुज्या भावाक हाड नाजाल्यार आनीक कोणाक हाड.' ताणें तिचेर खोंट घाली. ती सोमतीच शेवटून पयस पडली. हीच संद घेवन ती घरा भायर सरली.

'कोणूय पूण पावता रे म्हाका... कोणूय पूण सोडयात म्हाका ह्या राकेसाच्या हातांतल्यान...' ती आदाराची भीक मागपाक लागली. कितलोसोच वेळ. पूण कोणाक कांयच पडून वचूंक नासलें. तिच्या आदाराक कोणूच भायर सरूंक नासलो. दर एक दिसा कोणाची तरी अशीच काणी ह्या गांवांत घडटाली. तरी आसतना जण एकली बायल आपल्या दादल्याकूच सांबाळटाली.

सुनिता दीसभराचो प्रवास करून गाड न्हिदिल्लें. *बीए*-ची परिक्षा दिवन तें आयजूच घरा आयिल्लें. ते बायलेचो आवाज कानार पडून तें उठलें.

'कोण तरी बोवाळ मारता मुगे आवो.' आवयक उठयता उठयता ताणें म्हणलें. इतलें शिकूनय तें आपले आवयक 'आवो'च म्हणटालें.

'ती सदचीच काणी बाय. एका दिसाक एक.' आवयन ताचें मन वळोवपाचो यत्न केलो.

'तरी पूण तुमी सगळीं ओगीच रावतात?'

...ती कांयच उलयली ना. तिणें आपले तकलेचेर पालव ओडून घेतलो.

'ती शालू चाची अशी मुगो आवो... आवो, तुजी इश्टीण न्हय गे ती?'

'इश्टीण जाल्यार...? चल तूं न्हीद पळोवया.'

आवय कानामनार घेना तें पळोवन ताणें दोळ्यांचेर चादर घेतली आनी न्हिदपा खातीर दोळे बंद केले. ती बायल अजूनय आदाराची भीक मागताली.

'आगो, यो मुगो भितर. अशें रस्त्यार रावन आरड मारली म्हूण तूं सुट्टलें? घरांत पानदुडूय ना. मागल्यारूय तूं दिना. हांवें कितें सदांच दुसऱ्यां कडेन मागून सोरो पियेवपाचो? दीस भर काम करून घालता

कोणाक गो तूं? कोण....' तो बडबडत आसलो.

सुनिता सामकें अस्वस्थ जालें. ताणें मनांतल्या मनांत एक निश्चेव केलो सकाळीं उठून तांगेर वचून कितें जालां तें पळोवपाचो. तेन्नाच ताका न्हीद लागली.

आपल्या मना प्रमाणे सकाळींच तें पांडूगेर पावलें. तो घरांतल्यान भायर सरतालो. शालू चाची आपल्या भुरग्याक दूद दिताली.

'हांव सीता बायली चली, सुनिता. सुमार पांच वर्सांनी घरां आयलां. हांवें धारवाडच्या विद्यापीठांतल्यान समाजशास्त्र पदवेची परिक्षा दिल्या. फिगरेदो जुविज़ान सरकाराची शिशयवृत्ती मेळोवन दिल्ल्यान हांव शिकूंक पावलें. आतां निकाल केन्ना लागता तो पळोवया.' सुनितान आपली वळख करून दिली.

'जावं देवा, तुवें तरी शिकपाचें धाडस केलें. शिकप म्हणटात तें कोणाक नाका हांगा. चवथी मेरेन शिकतात आनी बसतात घरा बेकार थवय जावन, कुजनेरपणा करपाक आनी दीसभर हेडत रावपाक.' तिणें गांवची परिस्थिती सांगली.

'अशें घडटा म्हूण आयकून जाणा आसलें हांव. जायते फावटी सुटयेच्या दिसांनी तरी हांगा येवपाक सोदतालें पूण दर एक वेळार आवयन येवपाक दिवंक ना. कितलीं वर्सां जालीं गांवची दिवाळी पळयली ना, चवथ पळयली ना, नवें उश्टायलें ना, इश्ट-मीत्र बी कोण नात. कितली याद येताली म्हाका गांवची आनी ह्या गांवच्या लोकांची. थंय हॉस्टेलांत सामकें कशेंच अशें. मन मारून जगलें इतलीं वर्सां. रातीं तुजे म्हाका चुरचुरे दिसले. हांव भायर येवपाक सोदतालें. आवयन म्हाका आडायलें.' सुनितान आपलो इतिहास सांगतना आपली रातची अडचण तिचे मुखार दवरली.

'जावं बाये, तुका तरी म्हजे चुरचुरे आयले. ह्या गांवांत कोणूच ना आमचे चुरचुरे करपी. दर एक घरांत एकलो तरी असलो बेबदो. ह्या बेबद्यांच्याच हातांतल्यान आमचो जीव वचपाचो. कोण मुक्ती दितलो देव जाणां.'

'अशें कित्याक म्हणटा तूं? हांगासरल्या सगळ्यांकूच सोऱ्याचो वोसो लागला? गांवचीं चेडूं-भुरगीं कितें करतात तर?'

'तीं कितें करतलीं? आपल्या बापाय मुखार एक उतर काडल्यार मार खावचो पडटा. मोन्यांनी ओगी पडून आसतात खंय तरी कोनशाक.'

'तुजो अशोक आतां कितें करता? तो व्हड जाला न्हय चाची. तो कांयच विचारिना आपल्या बापायक?'

'एक दीस विचारपाचो यत्न केलो. ताच्या कानसुलार फुलयलें ताणें. आतां भियेवनूच रावता घरांत.'

'हाचो अर्थ सगळेच चले बायलो हांगा भियेवनूच दीस सारतात?'

'बाय तूं मातशें वच हांगासरलें. हो आमचो आयलो जाल्यार ओगीच तुजेर गरम जातलो. कितल्या काळान तूं हांगा आयलें तें...'

'सगळींच कशीं भिवकुरी जाल्यात गे तुमी?'

'मागीर... तुजो बाप्पा सोरो पियेतना तूं कशें वागतालें? अशेंच मुगो? हेच खातीर तुजे आवयन तुका हांगा येवंक दिवंक ना. ना जाल्यार तूं शिकूंक पावतलें आसलें? आमकां तुजे सारकें नशीब दिवंक ना. जावं, तुमचे घर आतां तरी बरे भशेन सांबाळ.'

'चाची, हांव म्हजेंच घर न्हय, तर पुराय गांव बरे भशेन सांबाळपाचो निर्धार करून आयलां. हांगाचें जायतें काळजांत आसा म्हज्या. पूण त्या गजालींक लागून म्हजें शिकप अर्द्यार उरत म्हूण हांव ओगी आसलें. आतां म्हजें शस्त्र म्हाका हातांत घेवचेंच पडटलें.' सुनितान ठामपणान सांगलें.

'कितें करतलें गो तूं? ह्या बेबद्यां कडेन झगडटलें? तांचो मार खातलें? वा तांकां मारतलें गो? पळय सुनिता, तूं इतलें शिकलां, तुजो आमकां अभिमान आसा. ह्या बेबद्यां मुखार तुज्या शिक्षणाची अब्रू मात काडिनाका?' तिणें सुनिताक शिटकावणी दिली.

'चाची, ह्या शिकपाचो जर हांव बरो वापर करिना जाल्यार कित्याक जाय तें शिकप? म्हाका शिकपाची उर्बा दिवपी त्या फिगरेदो जुविजान म्हाका सारकें सांगिल्लें- तुजे आड कितलेशेच जाण उबे रावतले, तूं तांकां

भियेतलें जाल्यार शिक्षितां मर्दीं आनी अशिक्षितां मर्दीं कसलो फरक? तुमच्या गांवच्या अन्याया आड झगडपा खातीर समाज शास्त्राचें शिकप घे आनी हो गांव तुजे मुठयेंत दवर. तुका कोण आदार करतलो म्हूण रावूं नाका, तूंच तुचो आदार जा. हय चाची, म्हजें काम म्हाकाच करचें पडटलें.' ताणें आपलो ध्येय तिका सांगलो.

ते रातीं जेवण जातकच लायटी बंद करून सुनिता पडवेर येवन बसलें. आजय कितें जाता तें ताका पळोवंक जाय आसलें.

'बाय तूं काळखांत अशें हांगा कित्याक बसलां?' बाप्पान अजापून ताचे बगलेकूच बसत म्हणलें.

'बाप्पा, हांवें आयकलां गांवचे सगळे दादले सोरो पियेतात आनी घरांत त्रास करतात म्हूण. हांव ताचेर विचार करतालें.' सुनितान जापेची अपेक्षा करून विचार मांडलो.

'हांव तर घरांत त्रास करिना न्हय?'

'हांव गांवची खबर करतां बाप्पा. तूं त्रास करतालो तो काळ विसरलो दिसता. आतां सोरो पियेना म्हूण....'

तितल्यान विनूल्या घरांतल्यान कळसुल्यो आपटुपाचो आवाज आयलो. सुनितान नदर घुंवडायली. लक्षा रस्तो माडयत आपल्या घरा दिकेन वतालो.

'आतां रातचीं धा वरां जायत आयल्यांत. इतलो वेळ पसून खंय सोरो पियेतात ते बाप्पा?'

'सोरो विकप्यांक आपल्या गल्ल्याचें पडलां. वेळ कितलोय जावं. म्हाका अणभव आसा ताचो.'

'तुका दिसना हें बंद जावंक जाय म्हूण?'

'कोण बंद करतलो? सरकारी अधिकारी? ते आपल्याक पयशे मेळटात म्हूण तावेर्नाक परवानो दीयत आसात. सोरो सोंपेपणी मेळिल्ल्यान पियेवपी वाडत आसात. तातूंतले कांय जण तर हाताभायर वचूंक लागल्यात. तरणाटे चडूच.'

'आमचो कपील लागूंक ना न्हय सोरो पियेवपाक?'

'ताकाच लागून हांवें सोरो पियेवपाचो सोडला. म्हजे नदरेक तरी तो पियेना. पूण सगळ्या वेळार म्हजी नदर खंय आसा ताचेर?'

'बाप्पा, हांवें खूब विचार केलो हे गजालीचेर. सकाळींच आयकलां रोकडीच हांगा पंचायत वेंचणूक जावपाची आसा म्हूण.'

'तर... कितें जालें?'

'हांव चिंत्तालें वेंचणूक लढोवंक.'

'तूं? आनीक वेंचणूक? हेच खातीर इतलें शिकून आयलां तूं?'

'बाप्पा, असो उचांबळ जायनाका. म्हज्या अभ्यासांत शिकलां हांव राजकारण. म्हाका शिश्यवृत्ती दिल्ल्या जुविजाकूय हांव मेळून आयलां आनी ताणें म्हजे विचार आयकून म्हाका शाबासकीच न्हय तर वेंचणूक लढोवपाची परवानगी लेगीत दिल्या.' सुनितान आपली दीसभरची डायरी सांगली.

'आमकां न्हय गो बाय ती वेंचणूक... तुका खबर ना हांगाचे लोक... पयलीं म्हणल्यार आमी गरीब. दुसऱ्याचेर पातयेवन जियेतात. तातूंत भितर ह्या लोकां कडेन वायटपण... हें सोडून तूं तुज्या लग्नाचो विचार कित्याक करिना?' बाप्पाक ताचे विचार आवडले नात.

'बाप्पा, हांव समाज शास्त्राचें विद्यार्थी. ह्या समाजाचेर जातलो अन्याय पळयत रावन म्हाका लग्न जा म्हणटा? म्हज्या आत्म्याक थार तरी आसतलो? राजकारणाचो मार्ग धरल्यारूच असल्या व्यसनाचेर उपाय काडूंक जाता.'

'कोण करतलो तुजो प्रचार? कोण करतलो तुका आदार? तुका वळखतात तरी कोण ह्या गांवांत?'

'बाप्पा, तूं म्हाका फकत परवानगी दी. म्हजी वळख हांवूंच घडयतलें. मुखावयलें सगळें हांवूच सांबाळटलें. ह्या गांवच्या लोकांचें जिवीत पळोवन म्हजो एकूच ध्येय जाला ह्या गांवांत सोऱ्याचो जो सांवार चल्ला, तो बंद करपाचो. कितलो लोक मरून गेला ह्या सोऱ्याक लागून. कोण तरी आमचे सारक्या गरिबां खुस्तार पयशे जोडटात आनी आमी... लाचार, आदाराविणें, सगळें सोंशीत आसात. कित्या खातीर?

आयज वेर कोणेंच कित्याक पावल मारूंक ना हो सोरो बंद करपाक?' सुनितान आपल्या बापायकच धारेर धरलो. तो ताका पळयत उरलो.

'तुजें धाडस पळोवन म्हाका तुजी लक्तुबाय दिसता. चल तूं मुखार, हांव आसा तुजे बराबर.' बापायन ताका धीर दिलो.

'हांवूंय तुका सांगात दितां म्हजे धुवे.' इतलो वेळ चोरयां बापूय-धुवेच्यो गजाली आयकत आशिल्ले आवयच्यान रावंक जालें ना. 'हें पावल कोणें तरी मारूंकच जाय आसलें.' खुशालकायेन भरून ताणें आवयक वेंग मारली.

'आवो, तो सोमू कसो आसा गे, म्हजे बराबर गड्ड्यांनी खेळटालो तो?'

'हांवें आयकलां तोय सोरो पियेवपाक लागला म्हूण.' आवयन जाप दिली.

'हय? तशें जाल्यार तो म्हाका बरी म्हायती दितलो हांगा सोऱ्याचो वेव्हार कसो जाता ताची.' इतल्यान मानेलाच्या घरांतल्यान बोवाळ आनी भुरग्यांचो रडपाचो आवाज आयकूंक येवंक लागलो. 'थोड्याच काळा मदीं हो गांव सुस्त न्हिदूंक लागतलो, कसलोच बोवाळ नासतना, कोणाचोच त्रास नासतना. चल आवो-बाप्पा आमी न्हिदूंक या.' सुनितान मनांतल्या मनांत ह्या गांवांत शांती हाडपाचें थारयलें.

थोड्या दिसांनी वेंचणूक जाहीर जाली. सुनिता आपल्या वाड्यांतल्यान वेंचणुकेंत देंवलें. ताचे आड पांच दादल्यांनी अर्ज केल्लो. वेंचणुकेचो प्रचार सुरू जालो. सुरवेक जायते लोक सुनिताक वळखूंक विसरले. ताच्या भावान तरणाट्यां मदीं, बापायन जाण्ट्यां मदीं जाल्यार आवयन बायलां मदीं जागृताय सुरू केली. तें हांगा सावन गेल्लें तेन्ना 14-15 वर्सांचे इल्लेंशें, बारकेलें, बडी कशी आशिल्लें. आनी आतां ती एक बायल जाल्लें. आंगलटीन वाडिल्लें, पळोवंकूय सुंदर दिसतालें आनी ताची सडसडीत चाल पळयतल्यांक भुलयताली. त्या समाजांतलें इतलें शिकिल्लें आनी सुंदर दिसपी तें एकलेंच आसतलें. हेर चलयांक लेगीत ताची नसाय जावंक फावो असो ताचो रुबाब आसलो. वेंचणुकेक

सुनिताचो एकूच नारो 'ह्या गांवांत भौशीक लुगाराचेर सोरो बंद. कोणाकूय सोरो पियेवंक जाय ताणें आपल्या घरांत पियेवंचो आनी आपलो रेस्पेत सांबाळचो.' ह्या नाऱ्याक लागून सवका सवका सगळ्या बायलांच्या मनाचेर प्रभाव पडलो आनी ताणीं मन बदल्लें. सोऱ्या खातीर त्रास सोंसपी सगळ्या बायलांनी सुनिताक उखलून धरलें आनी त्यो ताचे वटेन वावुरपाक लागल्यो.

'सोमू...' एक दीस अचकीत सोमूगेर वचून सुनितान ताका आपली वळख दाखयली. 'तूं सोरो पियेवन कोणाचो उध्दार करूंक सोदता रे?' सुनितान अनअपेक्षीतपणान विचारिल्ल्या प्रस्नान सोमू हालून गेलो. सुनितान आपल्या भुरगेपणावयलो ताचेर रोभ दाखयलो. 'पळय सोमू, हे वेंचणुकेक तुवें म्हजे खातीर वावर करूंक जाय. तूं म्हजो बालगडो. ह्या म्हज्या बऱ्या कार्याक तुवें म्हाका सांगात दिवचो पडटलो.'

'पूण... हांवें सावकाराल्या जीवनाक आदार करता म्हूण सांगलां.' तो आडखळत उलयलो.

'जीवन त्या वाड्यांतल्यान आमच्या वाड्यांत कित्याक वेंचणूक लढयता? आनी, म्हाका कसो विसरलो रे तूं? जीवनान कितलो सोरो दिता म्हूण सांगला वेंचणुकेक? तुवें कोणा कोणाक सांगलां मत घालूंक सोरो हाडटा म्हूण?'

'तशें हांवें कोणाक सांगूंक ना.' तो तकली खरपूंक लागलो.

'मागीर चल तर म्हजे बराबर... गांवच्या सगल्या सोऱ्याच्या अड्ड्यांची म्हाका म्हायती जाय. आमच्या वाड्यांत तर म्हाका एकूय तावेर्न नाका. तुमी सगळ्यांनी बरें जिवीत जगचें हो म्हजो आंवडो. बायलांचे हाल पळयल्यात रे तुमी? तूं लग्न जातकच तांचे भशेनूच एक बेबदो जातलो? तुजे बायलेन तुका बेबदो म्हणिल्लें बरें दिसतलें? हांव तुका ह्या सोऱ्या पसून मुक्ती दिवंक सोदतां. चल, ह्या बऱ्या कार्याक सुरवात दिवया...'

सुनिताच्या आदेशाक तो ना म्हणूंक शकलो ना. भुरगेपणार खेळटना तें ताका अशेंच आपले मुठींत दवरतालें. तो मोन्यांनी मान पोंदाक घालून

ताचे फाटल्यान चलपाक लागलो. सोमूची आवय अजापून पळयतूच उरली. अशे तरेन सुनितान जायत्या जाणांक आपले वटेन करून घेतले.

थारयल्ले प्रमाण वेंचणूक जाली आनी निकालूय आयलो. सुनिताच्या आड आशिल्ल्या पांचूय दादल्यांची मतां वांटून गेलीं आनी वाड्यावयल्या चडांतचड बायलांची मतां सुनिताक पडलीं. सुनिता बऱ्याच मतांची आघाडी घेवन जिखलें.

'सुनिता बाय, म्हाका दिसता आमचे मदीं तूंच बरें शिकिल्लें आसा. तेन्ना सरपंच पद तुवें घेतल्यार बरें जातलें.' सदू, एका जाणट्या पंच वांगड्यान पंचायत घरांत अनुपचारीकपणान मेळिल्ले कडेन सांगलें.

'आमकांय उमेद जातली.' आनीक दोग बायल पंचांनी आपलो तेंको उक्तायलो.

'हें पळयात, म्हजें धोरण तुमकां खबर आसा. हांव सरपंच जावं वा ना जावं, ह्या गांवांत भौशीक लुगाराचेर सोऱ्याची उलाढाल जावपाक विरोध करतलें आनी घडये हांगा सोरोच बंद करपाक सरकाराचेर चेपण हाडटलें. ह्या कामाक हांवें बायलांचो मोर्चा उबो केला.' सुनितान आपलो हेतू परत एक फावट स्पश्ट केलो.

'गांवांत बरी गजाल घडटा ताका म्हजो सदांच तेंको आसा. हांव इतलो जाणटो मनीस, आयज मेरेन जितो आसा, हांवें सोऱ्याक हात लेगीत लावंक ना म्हूण. तुमीच पळयात म्हजे पिरायेचो आनीक कोण जाणटो आसा जाल्यार. तांचे दोळे उगडपाकूच हांवें वेंचणूक लढयिल्ली. हांव म्हजो सांगात तुका दिता सुनिता. चल बाय तूं मुखार.' जाणट्या सदून सांगलें.

'आमी सुनिताक विरोध करतात. आमचो संतोष जातलो सरपंच. तो अणभवी आनी ताची सरकारी कचेऱ्यांनी बरी वळख आसा. गांवचे उदरगती खातीर फकत शिकप न्हय तर अणभव गरजेचो आसता.' उरिल्ल्या पांच जाणांतल्या एकल्यान सांगलें. सुनिताक एकलो कमी पडटालो.

'बरें आसा. चल सदूकाका, आमी आमच्या कामाक लागुया.

कोणाक दिसता म्हाका सांगात दिवचो, तांणी म्हजे बराबर येवचें. आमी आयजूच सावन काम सुरू करया.' सुनितान पंचायत कचेरेंतल्यान आपलें पावल भायर घालें.

सुनितान एका दिसा भितर पुराय गांव भोंवन काडलो. ताच्या सांगाताक सोमू, ताचो भाव कपील आनी एकलें पंच वांगडी आसलें. हेर वाड्यांतल्या मुखेल मनशांक मेळून ताणें सोऱ्या आड मोहीम उबारपा खातीर, वाड्या वयल्या मळार दुसऱ्या दिसा एक जमात आपयली. जमातीक मार्गदर्शन करून जुवीज फिगरेदोक आमंत्रण दिल्लें. सुनिताची हिकमत पळोवन जुवीज आनीक खुशाल जालो. लोकां कडेन कशें उलोवपाचें आनी कितें उलोवपाचें तें ताणें ताका शिकयिल्लें.

थारयल्ल्या प्रमाण जमात सुरू जाली. माचयेर सुनिता, सदूकाका आनी दोग बायल-पंच वांगडी हाजीर आसलीं. सोमू भायलें सगळें सांबाळटालो. गरज तें हाड व्हर करपाक कपील आसलो. सुनितान पुराय भरिल्ल्या मळावयल्या लोकांक येवकार दिलो आनी सगळे कित्या खातीर जमल्यात ताचो उद्देश सांगलो. न्हय फकत बायलो पूण तरणाटे आनी जाण्टे लेगीत जमातीक हाजीर जाल्ले. इतलो लोक घडये पयलेच फावट थंय जमिल्लो जावंये. इतल्यान आनीक एक बायल वांगडी, हेर दोग जण वांगड्यां सयत माचये सकयल येवन उबी रावली. सुनिताच्या तोंडार हांसो फुल्लो. सोमू वतीन माचयेर आनीक तीन कदेलां घालून घेतलीं आनी तांकां मानान माचयेर हाडून बसयलीं. सुनितान तांकां येवकार दिलो आनी जुविजान एक एक फूल दिवन तांचो भोवमान केलो. हो शिश्टाचार आनी मान, घडये तांकां पयलेच फावट मेळिल्लो. जुविजान आपल्या भाशणांत सांगलें 'सुनिता एक हुशार आनी शिकिल्लें भुरगें. ताणें जो ध्येय आपणायला ताका तुमी तेंको दिल्यार हो गांव ह्या राज्याचो एक आदर्श गांव जातलो. ताचो मुखावेलो संकल्प आसा ह्या गांवांत दुयेंतीक दवरपाचो बंदोबस्त आशिल्लें भलायकी केंद्र, माध्यमीक शाळा, एक बँकेचो फांटो, पोस्ट कचेरी, पुलीस आवटपोस्ट, नवें पंचायत घर, एक बरे पैकी मैदान बांदपाचें. ह्यो

सगळ्यो सोंप्यो गजाली न्हय. पूण हांवें आमच्या आमदारा कडेन उलोवणीं केल्यांत आनी तांणी सगळो सहकार भासयला. हे शिवाय एक सभाघर आनी नोकरी दिवपी उद्देग गांवांत हाडपाचो ताचो विचार आसा. ह्या गांवचे धंदेकार जे सोऱ्याचो धंदो करतात, तांणी आपलो धंदो बंद केल्यार दुसरो धंदो करूंक सरकारा कडल्यान अर्थीक आदार दिवपाचो विचार केला...'

जुविजालें उलोवप आयकून थोड्यांक आपल्या कानांचेर विस्वास बसना जालो. तातूंतल्यो कितल्योश्योच गजाली तांणी सपनांत लेगीन येवजूंक नासल्यो. तो शारा पसून बरोच पयस आशिल्लो गांव. ताची उदरगत करपाक केन्नाच कोणें पावलां मारूंक नासलीं. दर एक जण आपल्याक मेळपी फायदो चिंतून गरज तितलेंच करतालो. गांवांत फकत तीन मुळाव्यो शाळा आसल्यो. जांकां माध्यमीक हायस्कूलांनी वचूंक जाय आसलें तांकां दुसऱ्या गांवांत वचून शिकचें पडटालें. सुनिता आपल्या मामागेर रावन धावी मेरेन शिकिल्लें आनी ताचें कॉलेजीचें पुराय शिकप जुविजाक लागून धारवाड हांगा चलयांच्या हॉस्टेलांत रावन जाल्लें.

लोकांनी ताळयांच्या गडगडाटान सुनिता विशीं घोशणा दिल्यो. ताचो जयजयकार केलो. मागीर पंच वांगडी ओगी कशे रावतले? तांणी थंयच रावन सगळ्यांनी एकामेकांच्या हाताक धरून 'ह्या गांवचें सरपंच फकत सुनिता जातलें.' म्हूण ताणीं जाहीर केलें. परत एक फावट लोकांनी ताळयो मारल्यो.

थारिल्ले प्रमाण सुनिता सरपंच जालें आनी सवका सवका गांवची सुदारणा जावंक लागली. प्रगती बराबर ताचे दुस्मान मात वाडूंक लागले. जे जे ह्या लोकां कुस्तार वांकडे धंदे करताले, तांचे धंदे बंद पडूंक लागले. बँकेचो फांटो सुरू जाल्ल्यान चड व्याज दरान रीण दिवप्यांचो आंकडो देंवपाक लागलो. पुलीस आवटपोस्ट जाल्ल्यान मस्ती लोकांचो आंकडो उणो जालो. सोऱ्याचीं दुकानां आनी तावेर्नां कमी जाल्ल्यान तरणाटे वेगवेगळ्या खेळां कडेन आपले लक्ष केंद्रीत करूंक लागले.

बायलां मर्दीं एक वेगळेंच वातांवरण तयार जालें. ताँचो वाडो मनशाळ जालो. दर एकल्याक एकामेकाची चिंत्ता दिसूंक लागली. सुनिताचो गांव उदरगतीचीं पावलां मारूंक लागलो.

एक दीस पंचायत घरांत कामकाजाची फायल पळयतना, अचकीत ताचे मुखार चार जाण मनीस येवन उबे जाले. तांच्या हातांत दांडे आसले. कचेरेंत काम करपी कितेंच उलोवचे पयलीं ताणीं सुनिताचेर वार केलो.

'ह्या गांवाक सोऱ्या पसून मुक्ती दिवंक जाय आसली न्हय तुका? आतां तुकाच आमी मुक्ती दितात.' उलयता उलयता ते चारूय जाण ताचेर तुटून पडले. आपल्या कामा खातीर आयिल्लो सोमू हें पळोवन अजाप जालो. वेळ वगडायनासतना ताणें एका कोनशाक पडून आशिल्ली लाकडाची कांब घेतली अनी तांचेर प्रहार करूंक लागलो. तांचे मर्दीं लटाफट जाली. सोमूकय मार लागलो. ही गजाल गांवांत पावली.

थोड्या वेळा भितर गांवचे लोक एकठांय जावपाक लागले. कांय जण त्या गुंडां कडेन झगडपाच्या हेतूनच आयिल्ले. ह्या लोकांचो अवतार पळोवन त्या गुंडांनी पळ काडलो. सुनिता रक्तबंबाळ जावन जमनीर पडून आसलें. सोमून ताका आपल्या हातानीं उबारलें. तें बरेंच जखमी जाल्लें.

कोणें तरी गाडी आपोवन हाडली आनी सुनिताक शारांतल्या हॉस्पिटलांत व्हेलें. गांवच्या बऱ्या मागप्यांच्या आदारान ताचेर बरे पैकी उपचार करूंक दोतोराक विनवणी केली. ताचें रगत गेल्ल्यान तें शुद्धी भायर आसलें.

'सोमू, म्हजे खातीर झुजलो रे तूं?' दुसऱ्या दिसा शुद्धीर आयले उपरांत सोमूक पळोवन तें अजाप जालें. तो ताची खबर घेवंक ताच्या रुमांत आयिल्लो. ताकाय मातसो म्हणल्यार बरोच मार लागिल्लो. ताचेंय रगत गेल्लें. देखून उपचारा खातीर ताकाय हॉस्पिटलांत दवरिल्लो.

'तूं आतां कशें आसा सुनिता? मंद आवाजान सोमून ताच्या फुडयांत येवन प्रस्न केलो. सुनिताक ताची अपुरबाय दिसली. केन्नाच आपलेंपण

पळोवंक नाशिल्ल्या मनशा कडेन असो आलाशिरो पळोवन सुनिताचे दोळे भरून आयले.

'खरेंच सुनिता, दादल्यांचें काम तुवें केलें आनी आमकां लजेक घाले.' जिवाक घटाय घेत सोमू उलयलो. 'हाचे मुखार दादल्यांचें काम आमी करतात. तुजे असल्या मनशांची आनी ह्या गांवची जबाबदारी आमी घेतात. देखून आतां तूंवें ह्या गांवची उदरगत करूंक हांव तुका म्हजो सगळो तेंको भासयतां.' सोमून ताचेर मायेचें कुंपण घालें.

सुनितान ल्हवूच ताचो हात आपल्या हातांत घेतलो. ताचें मुखामळ नियाळ्ळें आनी हाताचो उमो घेतलो. त्याच खिणाक भायर आशिल्लीं ताचीं आवय आनी बापूय फुड्यांत आयलीं. सुनिताक लज जाली आनी ताणें दोनूय हातांनी आपलो चेहरो लिपयलो. तरी मान वयर करून आपली दूख विसरून, बोटांच्या खाचींतल्यान तें सोमू भितर कितें तरी सोदपाचो यत्न करूंक लागलें.



'तुजे हात कितले
मोव, आनी हीं कांकणां तुका
कितलीं सोबीत दिसतात गो?' म्हजो हात
आपल्या हातांत घेत ताणें म्हणलें. 'तुजे पोले
सामके गुलाबाचे कळे कशे.' म्हणीत ताणें म्हज्या
पोल्याक हात लायलो. इतल्यान म्हजे आईन म्हाका
उलो मारलो. हांव धांवत भायर गेलें. तेन्ना सावन तो
म्हजीं फकांडां करतालो. ताका खबर आशिल्लें आमी
जात्रेक वचपाचीं आसात म्हूण. आईन भाटकारा
कडल्यान पयशे मागून हाडिल्ले. म्हाका दिसता आमचे
फाटोफाट तोवूय जात्रेक आयलो. आमी देवळा कडेन
बसून आसलीं. तो केन्ना आमच्या फुड्यांत आयलो तें
म्हाका खबर ना. म्हजे आई कडेन ताणें दोन
गजाली केल्यो आनी फेरयेंत भोंवडावन हाडटा
म्हूण ताणें म्हाका आपले बराबर व्हेलें.
म्हाका खंय खबर तो म्हाका वांकडे
नदरेन पळयता म्हूण?'

# जात्रा

कार्नावालाची बेरंग संस्कृती पळोवंक नाका म्हूण त्या कार्नावालाच्या आयताराक संजीव आपल्या इश्टा बराबर साळावली धरण पळोवंक भायर सरलो.

हालीं तेंपार जावपी कार्नावालाक हाजीर रावपाक गंधूच ना. कार्नावाल म्हणल्यार पर्यटनाच्या नांवांन उबी केल्ली पाश्चात संस्कृती जाल्या. पयशांचो इबाड जाला. उगड्या नागड्या नाचाक लागून ल्हान भुरग्यांक व्हरूंकच व्हडल्यांक लज जावपाची. आंबट शौकीन तरणाटे मात हाचो बरो आस्वाद घेतात. मुद्दाम वेळ काडून थोडे पणजे, मडगांव आनी म्हापश्यां लेगीत वतात. ताचो वेळ पासार जाता अशें म्हणूंक जावंचें ना पूण ते आपलोच खेळ करतात, वेळ इबाडतात.

एका काळार लोकनाच आनी पारंपारीक खेळ तशेंच घुमटाचो गाज मन प्रफुल्लीत करतालो. ती संस्कृतीच खंय तरी सांडून गेल्ल्या सारकी जाल्या. देखून सामान्य मनशां मदीं कार्नावालाचें म्हत्व उणें जालां. संजिवान तर केन्ना सोडलें कार्नावालाची मिरवणूक पळोवंक वचपाचें.

साळावली वतना खावपाक कितें तरी व्हरचें ह्या हेतून ते मडगांवच्यान वचूंक गेले. सकयल्या बाजारांत होली स्पिरीट इगर्जे कडेन सकाळीं गर्दी आसली. कितलेशेच फ्लोट्स इतले बगीन येवन सांजेर जावपी कार्नावालाच्या सर्तींत वांटो घेवपा खातीर तयार जाताले.

'संजीव, ही ती चली तुका सारकी सोबतली.' एका फ्लोटाचे गाडयेंत वावुरपी एके गोरेच चलयेक पळोवन ताचो इश्ट प्रेमानंदान म्हणलें.

'तुका उमेद आसल्यार हांव वचून विचारूं?' संजीवान ताचें तोंडूच बंद केलें.

जायते फावटी ताचे बराबर भोंवपी ताका ह्याच प्रस्नान बेजार करताले. कित्याक तो लग्न जावंक फाटीं सरतालो. ताची पिराय जाल्ली तरी लग्नाचो विशय काडल्यार तो पयस वतालो. एक दोन चलयांक पळोवन ताणें लग्नाचो विचार केल्लो. पूण ताका चलयो पसंत पडल्यो नात, अशें म्हणचे बदला चलयांक तो आवडलो ना म्हणल्यार चड बरें जातलें. तेन्ना सावन तोच चलयां पसून दोन हात पयस रावतालो. हरशीं कॉलेजींत चलयांची फकांडां मारपी, तांचे वांगडा सिनेमा पळोवंक वचपी, कार्यावळींनी वांटो घेवपी. आतां मात चलयांचे नांवूच घेतल्यार बेजार जातालो.

संजीव पळोवंक सुंदर देखणो दिसतालो. काळे दाट केंस आसले. आंगलटीन सोब सारको. ताणें कोंकणींतल्यान एमए केल्ली. सोऱ्याक ताणें अजून मेरेन तोंड लावंक नासलें. बरी नोकरी मेळना म्हूण सरकारी मुळावे शाळेंत शिकयतालो इतलेंच. आतांच्यो चलयो म्हूण चल्यांचे पोजीसांव पयलीं पळयतात. सरकारी शाळेंत शिकयतल्या कडेन लग्न? तांचो म्हूण चल्यांक दाखोवपाचो झेत आसना?

सुमार बारा वरांचेर हांगा थंयच्यो गजाली करीत ते साळावली धरणा कडेन पावले. संजीवान गाडयेंत दवरिल्ली दोन 'लेयस' पाकिटां काडलीं आनी तीं खायत ते बागेंत भोंवपाक गेले. बागेंत भोंवता आसतना संजीवाक ताचे बराबर चौगुले कॉलेजींत शिकपी इश्ट विनायकमेळ्ळो.

'आरे संजीव, तूं हांगा खंय?' अकस्मात दिश्टी पडिल्ल्या इश्टाक पळोवन ताणें उदगार काडले.

'विनायक, तूं हांगा? आमी अशेच भोंवपाक आयिल्ले. हो म्हजो इश्ट प्रेमानंद.' संजीव लेगीत अजाप जालो. तांणीं दोगांनीय एकामेकांक हॅलो करतना हात दिले.

'तूं कसो आसा?' संजीवान विनायकाक विचारलें.

'हांव आसां बरो. मागीर सांग, कशें चलता? नोकरेक लागला म्हूण आयकलां.' विनायकान म्हणलें

'हय, सरकारी शाळेंत शिकयतां. तुजें काम कशें चलता?' संजीवान विचारलें

'चलता बरें. खूब बरें दिसलें तुका पळोवन. आयज आमगेरूच जेवून वचपाचें हां. इतल्या तेंपान मेळ्ळा आनी तोवूय आमच्या गांवांत. तुका हांव लग्नाक मुद्दाम सांगूंक आयिल्लो पूण तूं आयलो ना.' विनायकान शीण काडलो.

'इतले पयस म्हूण... घरा कडल्यान तशें सट्ट करून भायर सरूंक मेळटा? बाबान दांडो मारलो.'

'आसूं तें. चल, तुमी आतां म्हज्या घरा कडेन येयात. हांव तुमकां म्हजे घरकान्नीक मेळयतां.'

'राव रे, तूं हांगा भोंवपाक एकलो आयला तो, घरकान्नीक सांगाताक हाडपाची न्हय?'

'हांव भोंवपाक खंय आयलां? हांव काम करता मरे हांगा. ही पळय म्हजी टीम हांगा वावुरता. ते सगळे सांगाती इंजिनीयर. हे बागेक आनीक चड सोबितकाय हाडपाचो सरकाराचो विचार आसा. ते खातीर आमी प्लॅनिंग करतात. चल रोखडेच वचून येवया.'

'पूण आमकां परतून वचूंक नाका आमच्या घरा? बेश्टोच उशीर जातलो मरे.' संजीवान उमेद दाखयली ना.

'उशीर कांयच जायना. आयज आयतार. लागींच दामाय म्हणटात थंय आसा म्हजें घर. हांगा सावन दामाय रोखडेच पावतात. म्हजे कडेन

गाडी आसा आनी आमच्या घरा बेगीन वचूंक मदल्यान रस्तो आसा.' विनायकान तांकां समजावपाच्या हेतून म्हणलें.

'तुजे गाडयेन नाका, म्हजेच गाडयेन या. चल तूंच चलय म्हजी गाडी, म्हणचे रस्तो सोदूंक आमकां अडचण जावंची ना.' संजीवान आपले गाडयेची चावी विनायका कडेन दिली.

'रोकडोच येतां हां हांव.' विनायकान आपल्या सागात्यांक म्हणलें.

संजीव आनी ताचो इश्ट प्रेमानंद विनायका बराबर गाडयेंत बसले. अशी तशी गाडी घुंवडायत ते विनायकागेर पावले. वतासतना मर्दी मर्दी विनायकान थंयचें सैम कितलें साबीत आसा तें तांका सागलें.

घरा पावतकच विनायकान आपल्या घरच्यां कडेन तांची वळख करून दिली. तांणी तांकां बरो येवकार दिलो.

'मम्मी, हांव मातसो बाजारांत वचून तांचे खातीर कितेंय थंड घेवन रोखडोच येतां. तुमी बसात मातशे.' म्हणीत विनायक भायर गेलो.

'संजीव, तुजी खबर केन्नाय येता आमच्या घरांत. तूं कित्याक अजून पसून लग्न जावंक ना?' विनायकाचे आवयन संजीवाक उद्देशून म्हणलें.

'जातलों एक दीस.' संजीवाची जाप भायर सरतना एक सुंदर अस्तुरी तांचे फुडल्यान पासार जाली. 'ही कोण तर?' तिची अजून वळख जावंक नासली म्हूण ताणें ओगीच प्रस्न केलो.

'ती म्हजी व्हडली सून. गोवळा देवीच्या बरेपणान पावली ती आमच्या घरांत.'

'गोवळा देवी, म्हणल्यार?'

'गोवळा देवी विशीं तुमी आयकूंक ना?'

'ना.?'

'थंय एक जात्रा जाता. आमी सगळीं ते गोवळा देवीचे जात्रेक गेल्लीं. थंयच ती आमकां दिश्टी पडली. तिचे आवय बापूय सांगाताक आसलीं. थंयच उतर जालें आनी रोखडेंच लग्नाचें थारलें.' आवयन येदी व्हडली गजाल मोटवे रितीन सांगली.

'लग्नाची काणी म्हूण इतले ताकतिकेन सांगून जाता? खंय जाता ही

गोवळा देवीची जात्रा? आमकांय व्हरात केन्नाय तरी.' प्रेमानंदान हांसत हांसत तोंड घालें.

'बरें तर ताची काणी विस्तारान सांगता.' विनायकाले आवयन सांगपाक सुरवात केली. 'सांग्या वयल्या 'तोळे' गांवांत मिनाखण कोसळून स जाण पुरवले म्हूण तुमी आयकल्लें मरे?'

'हय. भोगूं बाबड्यांचें.' प्रेमानंदान म्हणलें.

'थंय सावन आनीक मातसो मुखार पडटा तो गांव. कोण म्हणटा तो वाठार गोंयांत पडटा जाल्यार कोण म्हणटा तो वाठार कर्नाटकांत पडटा. रानांतलो वाठार तो. आमकां म्हूण कोणें तरी व्हेल्लीं ते जात्रेक. म्हाका दिसता चड करून कर्नाटकांतल्या जोयडा वाठारांत पडटा तो. सांग्या वयल्यान 25-30 किलोमिटरांचेर आसतलो. केन्ना तरी गोंयचे गवळी लोक थंय पाविल्ले, जायत घडये बाटाबाटी वेळार वा आनीक केन्नाय, तांणी थंय देवीची स्थापना केली आनी तिका पुजपाक लागले आसत. त्या रान-वाठारांतल्या लोकां मदीं एक भशेन नवी भावना किल्लली. हाकाच लागून तिका आतां बरीच प्रभावीत आनी लोक-जागृत देवी म्हूण मानतात.

त्या रानांतल्या लोकांक तो एकूच लुगार आसा वर्साक एक फावट मेळपाक आनी जात्रेच्या नांवान देवीचें दर्शन घेवन आनंद आनी मजा करपाक. पयस पयस सावन लोक येतात थंय. पुनावाडो, पापलूवाडी, शिरोडा, घोणसुली, घोटगा, कॅसलरॉक धरून जोयडा (मुखेल) सावन पसून लोक ते दवीचो उत्सव मनोवंक येतात. रानांवनांत वाडिल्ल्यो सुंदर चलयो मुद्दाम जात्रेक येतात आपलें अस्तित्व दाखोवंक. आमी गेल्लीं तेन्ना कितलींच जाणां आसलीं थंय. कोणाक पळोवं कोणाक नाका अशें जालें.'

'इतल्यो सुंदर आसतात थंयच्यो चलयो?' प्रेमानंदान संजीवाचेर एक नदर घालीत म्हणलें.

'मागीर! ही चली पयलेच नदरेक आमकां भावली. तिच्या आवय बापाय कडेन उलोवणी केलीं आनी तिका आमी मागणी घाली. आमच्या

बऱ्या नशिबान आमच्या घराक ती पांयगुणी लक्ष्मी थारली.'

'तशें जाल्यार संजीव, थंय फुडल्या जात्रेक मुद्दाम वचचें पडलें. केन्ना जाता ती जात्रा?' प्रेमानंदान विचारलें.

'होळी उत्सवाचे आदले राती भरता ती जात्रा. जात्रा म्हणल्यार एक अप्रूप घडटा अशें म्हणटात थंय. आमी कांय पळोवंक ना, पूण जायते जाण सांगतात. ते देवीच्या आंगार आपूणच साडी घुस्पता आनी हो देखावो पळोवंक लोक गर्दी करतात खंय.' आवयन इल्ली वेगळी गजाल सांगली.

'संजीव, इतली मजेदार गजाल, होळी उत्सव सामको तोंडार आसा. करया मरे आमीय वचपाची तयारी?' प्रेमानंदान ताका तयार करपाच्या हेतून म्हणलें.

'म्हजे खातीर न्हय, तुका जाय जाल्यार या.' संजीवान ताची फकांडां केलीं.

'बरें तर, म्हाका जाल्यार म्हाका लागून. थारलें हां. काकी, थंय वचूंक आमकां कशें समजतलें?'

'सांग्यार सावन टॅम्पो-ट्रॅक्स नाजाल्यार टाटा सुमो वतात. जात्रा सारकी केन्ना पडटा ती चवकशी करतां आनी तुमकां कळयतां. तुमचो फोन नंबर आसतलो न्हय विनायका कडेन?'

'हय, हय संजीवालो आसतलो. नाजाल्यार हें म्हजे कार्ड दवर. कोण एकल्याक कळयल्यार पुरो.' प्रेमानंदान आपलें *व्हिसिटिंग कार्ड* तिचे कडेन दिलें.

इतलें म्हणल्यार विनायक बाजारांतल्यान सामान घेवन आयलो.

'हो मोगांत पडून लग्न जालो म्हूण, नाजाल्यार हाकाय थंयसावनूच कोण तरी हाडटलीं आसलीं.' विनायकाले आवयन मस्करी केली. विनायक मुमुरखो हांसलो.

'जण एकल्याच्या नशिबाची गजाल ही मम्मी.' तो भितर गेलो. थोड्या वेळान जेवण जालें आनी तांचो निरोप घेवन ते भायर सरले. विनायकाक साळावली धरणा कडेन सोडलो. परतूचे आदीं, विनायकाक

लागून तांकां गाडी घेवन सरळ धरणा कडेन वचूंक मेळ्ळें.

सुमार आठ दिसांनी विनायकाचे आवयचो फोन आयलो. तांच्या वाठारांतल्या जायत्या लोकांची तयारी सुरू जाल्ली जात्रेक वचपाची. विनायकाले आवयन जात्रेविशीं विस्तारान म्हायती दिली. संजीवान तांचे खातीर दोन सिटां राखून दवरूंक सांगलें. थोड्या वेळान तिणें परत फोन करून संजीवाक गाडयेचो नंबर दिवन सांग्यार बस स्टॅण्डार सावन दनपारच्या दोन वरांचेर गाडयेर चडूंक सांगलें.

सांगिल्ल्या वेळार संजीव आनी प्रेमानंद सांग्यार पावले. ते बसीन आयिल्ले. गाडयेचो नंबर हातांत आशिल्ल्यान गाडी म्हणल्यार टॅम्पो ट्रॅक्स सोदूंक तांकां वेळ लागलो ना. गाडी ज्युस्त दोन वरांचेर सुटली. गाडयेंत आनीक स जाण आसले. रस्तो बरोच खडबडीत आसलो. कांय कडेन रस्त्याचें दुरुस्ती काम चलतालें. ते मिनाचे ट्रक बरेच त्रास करताले. तरी आसतना सांज म्हणल्यार ते गोवळा गांवांत पावले.

'आमी फाल्यां दनपारां जेवण जातकच परत वचपाक भायर सरतले. गाडी हांगाच आसतली. रातभर मौज मस्ती करात आनी वेळ मेळटा तशें देवीचें दर्शन घेयात. सगळेच जाण फाल्यां रावल्यार उशीर जातलो. वेळ वगडायनासतना जेवण जातकच येयात. एक- एक दीस रानांतल्यान परततना सांजे वेळार त्रास जातात. मिनाचे ट्रक चड आसल्यार खुबूच वेळ वता.' गाडी चलोवप्यान एकाच बराबर सुचोवणी आनी शिटकावणी दिली.

हेर लोकां बराबर चलत ते मुखार गेले. गोंयांत आसा तसलो देवळाचो वाठार नासलो पूण लोकांची बरीच गर्दी दिसताली. देवळाक लायटी घाल्ल्यान देवूळ चकचकतालें. खाजीं, काडयो बडयो आसल्यो. चणेकार आसले. भुरग्यांक पिशे करपाक खेळणीं घेवन पेन्नेकारां आसलीं. फुगेवाले आसले. कितलीशीच हेर फेरी भरिल्ली आसली. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार सुंदर सुंदर चलयांचें पयसुल्ल्यान दर्शन जातालें. जात्रा एक निमीत आसलें, ते चलयांक पळोवंक आयिल्ले. तांची नदर चलयांक पळोवंक गुल्ल आसतना पयस सावन संजीवाच्या कानार एक

वेगळोच आवज सादलो. ताणें वळून पळयलें.

'एक चलयेची किंळांच कशी कानार पडली तुज्या?' संजीवान प्रेमानंदाक विचारलें.

'एके चलयेची किंळांच? हांगा तर ह्या पेन्नेकारांचोच बोवाळ चलता. ते वटेन फेरीवाल्यांचो आवाज. मदींच चलयेची किंळांच खंयची आयली?' तो ताका पळोवंकूच उरलो.

'यो, मातसो म्हजे बराबर यो.' तो ताका फाटीं घेवन गेलो. काळोख जावपाक लागिल्लो. प्रेमानंदान मोबायलाची लायट पेटयली. अनवळखी वाठार. त्या उजवाडान ते मुखार वचूंक लागले. हय, खऱ्यांनीच एक चली आदाराक उलो करताली. ते धांवत मुखार गेले. ते चलयेचो आवाज चडूच लागीं जावपाक लागलो.

'कोण थंय?' संजीवान आवाज दिलो. वाठार नवो देखून एके वटेन भिरांत दिसताली. ते आनीक मातशे मुखार गेले.

'म्हाका पावात, म्हाका आदार करात...' ते चलयेन परत बोवाळ मारलो. इतलें म्हणल्यार तेवूय थंय पावले. काळखांत कोण तरी धांवत गेल्ल्याचो तांकां आवाज आयलो.

एक चली अस्थव्यस्थ स्थितींत जमनीर बसून आसलें. तें सगळेंच धापेतालें. संजीवानूच ताका हात दिलो आनी उबें केलें.

'तुमकां देव बरें करूं. तुमी येनासले जाल्यार तो म्हजेर...' तांकां पळोवन ताच्या जिवांत जीव आयलो.

'कोण तो तुजेर आगळीक करूंक सोदतालो?' संजीवान ताका विचारलें.

'तो आमच्या भाटकारालो चलो.'

'तुजो खंयचो भाटकार?' संजीवानूच विचारलें.

'हांव म्हज्या आवय-बापाय सांगाताक जोयडा सावन जात्रेक आयिल्लें. तो आमचे फुड्यांत आयलो आनी ताणें आवय-बापायचे परवानगेन ताणें म्हाका फेरयेंत भोंवपाक व्हेलें. जात्रेच्यो गजाली सांगत आमी खंय पावलीं तें म्हाका कळ्ळेंच ना. ताणें म्हाका हे वटेन काळखांत हाडलें

आनी म्हजेर तो...' ते चलयेन भियेत भियेत सांगलें.

'तूं कांयच भियेनाका. आतां गेलो तो. चल आमी तुका तुज्या आवय-बापाय कडेन पावयतात. खंय आसात तीं?' संजीवान ताचे सांत्वन करतना ताका घटाय दीयत विचारलें.

'थंयच देवळा कडेन आसात तीं.'

वतासतना तें सांगूंक लागलें. 'म्हजी आई म्हाका लग्न करूंक सोदता. ह्या रानांत आमकां कोण बरे चले मेळटले? आमच्या गांवांतल्या अडाण्याक म्हाका ती दिवंक सोदिना. गांवांतले भुरगे आपूण वयर सरनात आनी आपल्या कुटुंबाकूय वयर काडिनात. तिका जाय कोण तरी बरो भुरगो म्हज्या जिवितांत येवन हांव एका बऱ्या घराण्यांत गेल्लें. चवथी मेरेन शिकलां हांव. मुखार शिकपाची उमेद आसली. पूण आमच्या गांवांत मुखार शिकपाची शाळा ना. खूब पयस वचचें पडटा म्हूण घरांतलेंच काम करतां. कोणूय चल्याचे नदरेंत वचूंक जाय म्हूण तिणें म्हाका हांगा दाखोवंक हाडिल्लें.'

'हो भाटकारालो चलो तुका लागून जोयडा सावन हांगा आयलो?' प्रेमानंदान विचारलें

'खरें सांगपाचें म्हणल्यार तो म्हाका वळखता. म्हजी आई केन्नाय भाटकाराल्या घरांत नाल्ल वा पणस पाड्याक वता. तिचे बराबर हांवूय वतां. एक दीस पणसाचो पाडो आसलो. हांव तांगेर गेल्लें आसतना पणस दवरूंक म्हूण आईन म्हाका भितर धाडलें. तो भितर आसलो. ताणें म्हाका कितें सांगता म्हूण आपणा म्हऱ्यांत आपयलें. हांव गेलें.

'तूं कितलें सुंदर दिसता गो?' म्हाका वयर सकयल नियाळीत तो म्हज्या फुड्यांत उबो जालो.

'देवान म्हाका ही देणगी दिल्या, तूं कित्याक तोखेता?' हांवें सहज म्हळें.

'तुजे हात कितले मोव, आनी ही कांकणां तुका कितलीं सोबीत दिसतात गो?' म्हजो हात आपल्या हातांत घेत ताणें म्हणलें. 'तुजे पोले सामके गुलाबाचे कळे कशे.' म्हणीत ताणें म्हज्या पोल्याक हात

लायलो. इतल्यान म्हजे आईन म्हाका उलो मारलो. हांव धांवत भायर गेलें. तेन्ना सावन तो म्हजीं फकांडां करतालो. ताका खबर आसलें आमी जात्रेक वचपाचीं आसात म्हूण. जात्रेक वचूंक आईन भाटकारा कडल्यान पयशे मागून हाडिल्ले. म्हाका दिसता आमचे फाटोफाट तोय जात्रेक आयलो. आमी देवळा कडेन बसून आसलीं. तो केन्ना आमच्या फुड्यांत आयलो तें म्हाकाच खबर ना. म्हजे आई कडेन दोन गजाली केल्यो आनी फेरयेंत भोंवडावन हाडटा म्हूण ताणें म्हाका आपले बराबर व्हेलें. म्हाका खंय खबर तो म्हाका वांकडे नदरेन पळयता म्हूण?' थोड्या वेळा मदीं ते चलयेक हे दोगूय आपलेशेच दिसले.

'खरेंच गो तूं इतलें सुंदर दिसता?' संजीवाच्या तोंडांतल्यान आपूणच उतरां भायर सरलीं.

तीं देवळा कडल्या उजवाडा कडेन पावलीं. एके लायटीचो सरळ उजवाड तांचेर पडपाक लागलो. संजीवान ताका नियाळ्ळें. '*ओ माय गॉड*' खरेंच तूं एक पाताळांतली सुंदरी कशी मुगो!' संजीव उदगारलो.

'ही पळय म्हजी आई, थंय आसा.' तें तांकां घेवन आपले आई म्हऱ्यांत गेलें.

'जाणा मगे आई, त्या भाटकाराल्या दळदिऱ्यान त्या झाडांनी व्हरून म्हज्या आंगार हात घालो न्हय गे. हे भुरगे वेळार पावूंक नाशिल्ले जाल्यार ही देवीच जाणा मुखार कितें जातलें आसलें तें.' आपले धुवेचें उलोवप आयकून ती काचाबूल जाली तिणें बेगीबेगीन ताका आपले वेंगेंत घेतलें आनी त्या भुरग्यांची चवकशी केली.

'आमी गोंयचे. हांगा आयिल्ले आसतना कोणाची तरी किंळांच कानार पडली म्हूण आदाराक धांवले.' संजीवान स्पश्टीकरण दिलें.

'देव बरें करूं बाबा तुमकां. कसलें गाराणें बी घाल्लें गोवळा देवीक?' चलयेचे आवयन विचारलें.

'ना, तशें कांयच ना. कोणे तरी सांगलें हांगा सुंदर चलयो येतात आनी तांची पिराय लग्नाची आसता. ह्या आमच्या हिरोक कोण तरी बरीशी एक चली मेळत काय म्हूण पळोवंक आयिल्ले. हांव प्रेमानंद

आनी हो म्हजो इश्ट संजीव. तो एमए मेरेन शिकला आनी सरकारी शाळेंत शिकोवपाची नोकरी करता. तो लग्ना पसून पयस पयस वता म्हूण हांगा देवीचे कृपेन तरी एक सुंदर चली फारवलें जाल्यार पळोवंक ताका हाडिल्लो.' प्रेमानंदान तांचो हेतू स्पश्ट केलो.

'बेश्टोच म्हाका मदीं हाडिनाका प्रेमानंद. आपलो विचार म्हूण सांग तांका.' संजीवान तांच्या उलोवण्यांतल्यान आंग काडून दुसरे वटेन पळोवंक लागलो.

'मागीर कोणूय चली नदरेक गेल्या तुमच्या?' आवयन विचारलें

'चली नदरेक वचूंक आमकां वेळ खंय मेळ्ळा? हांगा पावलेच नात, तुजे धुवेन आमकां आपले कडेन ओडून व्हेले. पयस थावन कांय जाण नदरेक आयिल्ल्यो. फकत तुजे धुवेक मात आमी बरे भशेन पळयलां.' प्रेमानंदान सांगलें.

'आई, हांव दिवज पेटोवन येतां,' म्हणीत ती चली देवळा वटेन गेली. मागीर तांचे मदीं बरोच वेळ हांगा थंयच्यो गजाली जाल्यो. गोंयां विशीं सांगलें, गोंयची लोकजीण आनी आदरभावनेच्यो गजाली केल्यो. तिणें आपल्या रानांतल्या जिविता विशीं सांगलें. संजीवा विशीं तिणें जायतें कितें जाणून घेतलें. तितलें म्हणल्यार ती चली दिवज पेटोवन परत आयली.

'जेवणाचो वेळ जालो, कितें हाडलां तुमी खावंक बी?' तिणें विशय बदलपाचो यत्न केलो.

'आतां आनीक जेवणाचो वेळ उरला? मध्यान सरून गेली. तुमी जेवन घेयात. आमी अशीच एक फेरयेंत पासय मारतात. तशेच खातले कितेंय.' प्रेमानंदान सांगलें आनी संजीवाच्या हाताक धरून चलपाक लागलो.

'आई, तांकां आमचे बराबर जेवंक आग्रो करपाचो न्हय आसलो? तांणींच तर म्हजी लज राखल्या. नाजाल्यार देवीकूच खबर हांव परतून तुमचे नदरेक पडटलें आसलें जाल्यार.' चलयेन आपले आवयक म्हणलें.

'ते गेले जाल्यार हांव कितें करूं?'

'आई,' तिणें आपले आवयचो हात धरीत म्हणलें 'तांणी एक गजाल स्पश्ट सांगली की चली पळोवंक आयल्यात म्हूण. फाटलें फुडलें कांयच येवजिनासतना, म्हजे विशीं तुवें उलोवपाचें न्हय आसलें? हांव तांकां आवडलें जाल्यार... उलोवन पळय न्हय आई तांचे कडेन.' चलयेन आपले आवयक आग्रो केलो.

'बरें बाय, तुजीच खुशी करतां हांव.' तिणें आपले चलयेक धीर दिलो. 'रावात रे पोरांनो.' तिणें मुखार वचून तांकां उलो मारलो. ते दोगूय लागीं आयले.

'तुमकां एकूच प्रस्न करतां, संजीवबाब, तुका पसंत आसा म्हजी धूव?' अचकीत विचारिल्ल्या प्रस्नान संजीव लजलो.

'नांव तरी विचार मरे ताचें.' संजीवान मान पोंदाकघालीत प्रेमानंदाक म्हणलें.

'म्हजें नांव संजना.' तिणेंच सांगलें.

'येयात रे बेगीन. धांवून येयात, देवी साडी न्हेसूंक लागलीशी दिसता.' कोणे तरी व्हडल्यान बोवाळ मारलो आनी सगळे लोक देवळा भितर गर्दी करूंक लागले. प्रेमानंद आनी संजनाची आई लेगीत धांवलीं. बापूय आदींच थंय वचून आसलो. संजना मात थंयच रावलें.

मुखार गेल्लो संजीव फाटीं सरलो आनी ताणें संजनाच्या हाताक धरीत म्हणलें 'आमी वचचें न्हय तें दृश्य पळोवंक? हे सगळे लोक हेच खातीर आयल्यात न्हय?'

'इतले बेगीन कांयच जायना थंय. फाल्यां दनपार जातली. पूण म्हाका सांग, तूं कित्या खातीर आयिल्लो? हें दृश्य पळोवपाक काय एक चली पळोवपाक?' संजनान बिनधास्तपणान विचारलें.

संजीव संजनाक पळयत हांसलो.

'तुका आवडलें हांव? तूं म्हाका व्हरतलो?'

'अशें कित्याक दिसलें तुज्या मनांत?'

'फाटले फावट म्हजी बापूलभयण हांगा आयिल्ली. तिका असोच एक चलो मेळ्ळो आनी ती ताका पसंद पडली. बरो वेळ तिचे कडेन

उलयलो खंय, पूण निमाणें विसरलो आनी गेलो.'

'हांव तशें करीत दिसता तुका?'

'म्हज्यान कितें सांगूंक जाता? हांवें सगळो विस्वास देवीचेर दवरला. दिवजां वेळार तिका गाराणेंय घालां. तीच आमची राखण करता. इतली पयसुल्ली वाट चलून येतात आमी. तिच्याच आदारान आनी तिच्या भरवंशान. तिची खुशी तीच आमची खुशी.' संजनान आपली नदर देवळाचेर थीर केली.

'तुका उतर दिवंचे आदीं म्हज्या घरांत आवय-बापायक कळोवंक नाका? हांवें तुका पळयलें म्हण सगळे सोपस्कर पूर्ण जायनात न्हय? तपासुंया कोणाचें नशीब.....' संजीव उमेदीर आयलो.

संजनान एक नदर संजीवाचेर घाली आनी मुमुरकेच हांसलें. पयस रावन प्रेमानंद तांकां पळयतालो. ताणें संजनाचे आईक मुद्दाम मुखार व्हेल्ली.

अचकीत लायट गेली आनी काळोख जालो. सगळे लोक हे वटेन ते वटेन धांवपाक लागले. कितें घडटा तें कळचे पयलींच संजीवाच्या हातांत आशिल्लो संजनाचो हात अकस्मात सुटलो.

'संजना खंय गेलें?' संजीव असो-तसो पळोवंक लागलो. कळोख आशिल्ल्यान ताका कोणूच दिसूंक ना. 'हूं, हूं' इतलोच कोणाचो तरी आवाज पयस पयस जाता असो दिसलो. ताणें बेगीबेगीन मोबायल काडलो आनी मोबायलाची लायट पेटयली. संजनाक कोण तरी ओडीत व्हरतना ताणें पळयलें. तो ते दिकेन धांवपाक लागलो. पूण ताका मदींच कोणें तरी आडयलो. दोग तीग जाणांनी घट धरलो. तो मुखार वचूंक तडफडूंक लागलो.

'संजना!' ताणें व्हडल्यान बोवाळ मारलो. बोवाळ आयकून प्रेमानंद लागीं आयलो. मोबायलाचे लायटीक लागून ताणें ताका वळखलो. 'कोणें तरी संजनाक व्हेलें प्रेमानंद. म्हाका कोणें तरी धरला, म्हाका सोडय.'

आंगलटीन पेजाद आशिल्ल्या प्रेमानंदान एकूच हात शेवटीलो आनी

एकल्याक जमीनर मारलो. दुसऱ्याचेर खोंट घाली आनी तिसऱ्याक ओडून काडलो.

'मोबायलाच्या उजवाडार तूं धांव ताचे फाटल्यान संजीव, हांव हांकां पळयतां.' संजीव प्रेमानंदाच्या भरवंशार नेटान धांवलो. संजना बोवाळ मारतालें. इतल्यान एक व्हडल्यान आवाज जालो आनी संजना जमनीर शेवटलें. ओडीत व्हरपी, एका झाडाक आपटल्लो. संजीव लागीं पावलो आनी ताणें संजनाक हात दिलो. कडेक रावून जायते लोक पळयताले पूण आदाराचो हात कोणाचोच मुखार सरनासलो. संजना उठलें आनी रडपाक लागलें. संजीवान ताका थातारलें. आपले वेंगेंत धरलें. लायट पेटली.

पळयत जाल्यार तोच भाटकारालो चलो थंय जमनीर पडून आसलो आनी घडये देवीनूच ताका बुद्द शिकयल्ली. झाडाक आपटून ताचें माथें फुटिल्लें आनी रगत व्हांवतालें. संजीव ताच्या फुड्यांत गेलो. ताका उबारलो.

'संजीव, आमकां ताणें इतले त्रास केले आनी तूं ताका...' अजाप जावन लागीं येयत संजनान म्हणलें.

'मनशान मनीसधर्म केन्नाच विसरूंक जायना. ताणें गाय मारली म्हूण हांवें पाडूक मारचें न्हय. हो घडये देवीचो चमत्कार आसतलो.' संजीवान शिक्षणीक धडो दिलो.

इतलें म्हणसर भाटकाराल्या चल्याची मान आडवी पडली. ताणें ताका सकयल दवरलो. तो उठलो आनी संजनाचेर नदर घाली. संजना कोणाचीच लज-भीड धरनासतना परत एक फावट ताचे वेंगेंत रिगलें. संजीवान ल्हवूच ताचे फाटी वेल्यान हात घुंवडायलो. थोड्या वेळान थंयचे गांवकार आयले, पुलीस आयले. पुलिसांनी सगळो आडावो घेतलो. भाटकारालो चलो आपलेच चुकीन मेला हें सगळ्यांक विचारतकच तांकां पटलें. मागीर तांणी भाटकाराल्या चल्याचें मडें उबारून व्हेलें. प्रेमानंद आनी संजनाची आई आपल्या उक्त्या दोळ्यांनी हें पळयत आसलीं.

'ही गोवळा देवीची कृपा. इतलीं वर्सां म्हजो इश्ट चलयांक लागीं येवंक तयार नासलो, तांचे कडेन उलोवपाक तयार नासलो. आनी आयज संजनाक ताणें आपले वेंगेत घेतलें.' मनांतल्या मनांत देवीक आर्गां दीयत प्रेमानंदान आपले हात जोडले.

दुसऱ्या दिसा गोवळा देवीचें दर्शन घेवन संजीव आनी प्रेमानंद घरा परतले, खुशाल आनी आनंदीत. देवी कापड न्हेसता म्हणपाचो देखावो तांकां पळोवंक मेळूंक ना, पूण जात्रे निमतान एका नव्या जोशान संजीवाचे जीणेक कोमरी फुटली.



'पळय लिनो, म्हज्या
घरा कडेन खबर ना हांव तुज्या
मोगांत आसा म्हणून. तीं आतां म्हाका
काजार करूंक सोदतात. तूं येता मरे म्हज्या घरा
म्हजो हात मागूंक?' सामके गंभीरतायेन पास्किनान
मानशेवयल्या उदकांत पांय खेळयत विचारलें.
सांजचो वेळ आसलो आनी सांज धारेर आसली.
मळबांत चांदणे रुप घेवंक लागिल्लें आनी
लिकलिकीत नखेत्रां झळ्कूंक लागिल्लीं.
'ह्या चांदण्याचो आनी ह्या नकेत्रांचो सोपूत
घेवन हांव तुका सांगतां, हांव तुजो काळजा
सावन मोग करतां. हांव तुका केन्नाच
फटोवचो ना.' लिनोन कविता
केली.'

# उमेद

नातालांचे पुर्वसांजेर लोटले रावपी लिनो एकदम खुशाल आसलो. ते खुशालकायेंत तो कामा वयल्यान बेगिनूच घरा आयलो. आपली मारुती रित्झ गाडी घेवन आपल्या बायल-भुरग्यां वांगडा मडगांव बाजारांत गेलो. दोन तीन दुकानांचेर भोंवून पसून आपल्या भुरग्यांखातीर ताका बरेशे कपडे मेळूंक नात, म्हूण तो पोरण्या बाजारांतल्या ईगल मॉलांत भितर सरलो. थंय मात ताका जायते तरेचे कपडे वेंचपाक मेळ्ळे. व्हडल्या चेडवाक नॉयमीक एक विस्तीद घेतलो आनी दाखल्या चेड्याक ऑस्वाल्डाक लांब हाताचो बुश्कोट आनी लांब पँट घेतली. घरकान्नीनूय कितें तरी घेवंक तो येवजितालो. एक बरीशी साडी ताच्या मनांत गेल्ली. पूण तिणेंच नाका म्हणलें. ईगल मॉलाच्या मालकान सूट दिवन पासून दोगांय भुरग्यांच्या कपड्यांचेर बरोच खर्च जाल्लो. भुरगीं मात खुशाल जालीं. घडये आयज पयले फावट ताणें हात सदळ करून खर्च केल्लो.

'नॉयमी, ऑस्वालड, आयज आमी नातालांचें दबाजीक मीस मडगांवां ग्रेस चर्चींत आयकुया, समजलें?' गाडयेंत बसता बसता

लिनोन आपल्या भुरग्यांक सांगलें.

'मडगांवां? एकदम बरें जालें.' ऑस्वाल्डान खुशालकाय उक्तायली. गाडी लोटली येवपाक भायर सरली.

'मीस सोंपले म्हणटकच आमी खंय वतलीं ऑस्वाल्ड? लिनोन परतून प्रस्न केलो.

'कोलवा प्रायेचेर.' ऑस्वाल्डान सांगचें पयलीं नॉयमीन सांगलें.

'सारकें सांगलें तुवें. थंयसर एक पासय मारया आनी येवया.'

'रातचो दर्या हांवें केन्नाच पळोवंक ना.' नॉयमीन उत्सुकताय दाखयली.

'आयज रातचो पळोवया न्हय?' लिनोची उतरां आयकून भुरगीं खुशाल जालीं.

'फाटल्या वर्सा अशीच मांडणी केल्ली पूण घरा कडेन सोयरीं आयिल्ल्यान लोटले मिसाक वचून परत येवचें पडिल्लें. हे फावटी तशेंच करशी हां लिनो.' ताचे घरकान्नीन ताका शिटकायलो.

'पास्किना, हे फावटी आमची मांडणी पक्की. कांयच बदल जावचो ना. पूण तुवें मात एक काम करचें पडटलें. रातच्या इकरांक तरी मिसाक वचूंक घरांतल्यान भायर सरूंक सगळ्यांक तयार करचीं पडटलीं. आनी ताचे पयलीं एक वर भर पूण न्हिदूंक जाय.' लिनोन आपले घरकान्नीक सांगलें.

'हय तर! तूं मागीर न्हिदता थंय आनी सगळो लोक तुकाच पळयता.' पास्किनान म्हणलें.

'मागीर डॅडीच मीस सांगता दिसता न्हय मम्मी?' नॉयमीन थोमणो मारलो.

'देखून हे फावटी म्हाका मन लावन मीस आयकूंक जाय. फा. कॉसेसांव येवपाचो आसा खंय.'

'कोणें आडायला तर तुका? फाल्यां मंत्र्याच्या हातांतल्यान इनाम घेवंक जाय म्हणटालो.' पास्किनान याद करून दिली.

'बरी याद करून दिली तुवें. फाल्यां वता आसतना घरा कडलें गुलाबाचें एक फूल घेवंक विसरनाका. तें म्हाका मंत्र्याक दिवंक जाय.

म्हजें म्हूण, म्हज्या हातांनी.'

'बरें बरें. आतां बेगिनूच घरा पावूंक जाय आमकां. मागीर बेगीन जेव आनी न्हीद. आमकां जायतीं हेर कामां आसात करपाचीं.' पास्किनान गाडी मातशी नेटान चलोवंक विनंती केली.

घरा कडेन पावल्या उपरांत लिनोन नातालांची सगळी तयारी केली. घरा मुखावयल्यान पीक-पीक लायटी घाल्यो. बाजारांतल्यान हाडिल्लें नखेत्र लावन दवरलें. तातूंत लायट घाली. नॉयमी आनी ऑस्वाल्डान ताका आदार केलो.

राती कडेन लिनो बेगिनूच जेवलो आनी न्हिदूंक गेलो.

'तसो उठपाचो हांव यत्न करतां पूण चडूच न्हीद लागल्यार सारको इकरा वरांचेर म्हाका उठय पास्किना.' लिनोन पास्किनाक आनीक एक फावट याद करून दिली.

'बाबा ऑस्वाल्ड, नॉयमी, तुमीय मातशे न्हिदल्यार बरीं. हांव तुमकां वेळार उठयतां.' पास्किनान आपल्या भुरग्यांचे हांतरूण सारकें करीत सांगलें.

'बरें मम्मी.' तीं दोगांय न्हिदूंक गेलीं.

घरचीं सगळीं सालांत नेवऱ्यो करपाक गुल्ल आसलीं. शेजारचीं दोग जाण चेडवां पास्किनाच्या आदाराक आयिल्लीं. धोदोल आनी बिबिंक पास्किनान दनपारचें करून दवरिल्लें. शेवयो काडपाचो विचार ताच्या मनांत आसलो.

लोटली रासयच्या एका शिपयार्डांत लिनो वेल्डर म्हूण नोकरी करतालो. तो एक हुशार मनीस. आपल्या कामा कडेन तो बरोच शिटूक आसलो. तो इतलो हिकमतीन वेल्डींग मारतालो की रंग काडपाक येतात ते अजाप जाताले. ताच्या वेल्डिंगा फुडयांत घांसपा खातीर आनीक एक मनीस इबाडचो पडनासलो. इतलें निवळ काम पळोवन मालक ताचे सदांच गूण गायतालो आनी ताका लागीं धरतालो. खूब वसां जालीं ताका थंय आसल्यार. मालकाचो ताचेर खूब विस्वास.

हरशीं तो केरळाचो. ल्हान आसतना पोटाचे भुकेन ताका कोंकण

रेल्वे वरवीं गोंयांत हाडिल्लो. मेळत तें काम करता करता व्हडलो जालो आनी एक दीस ह्या शिपयार्डांत हेल्पर म्हूण नोकरेक रावलो. थंय ताची हुशारकाय पळोवन एका जाण्टया वेल्डींग मेस्त्रीन ताका वेल्डिंगाचें काम शिकयलें. वेल्डिंगाचें तंत्र शिकयलें. शिकतना वेल्डिंगाचे गूण-अवगूण सांगले. आपल्या फाटल्यान कोण तरी एक हुशार मनीस ह्या शिपयार्डांत आसचो ह्या हेतून त्या जाण्टया वेल्डरान लिनोक तयार केल्लो. आज सहजा ह्या जाण्टया वेल्डरा सारके मनीस पळोवंक मेळनात. पूण ताणें आपलें उदार मन दाखोवन लिनोक वेवसायीक वॅल्डर केल्लो. वेल्डींग करपाक जी कला लागता ती ताणें भेस बरी आत्मसात केल्ली. शिपयार्डाचो मालक आपल्या सगळ्या कामदारांक सदांच आदरान वागयतालो. ताका लागून कामदारांकूय मोगान काम करीन दिसतालें. लिनोन आपल्या काळजा सावन शिपयार्डाक सेवा दिल्ली. ह्याच उदेत्या विचारांक लागून लिनो एक खांपो वेल्डर म्हूण ताका वळखूंक लागिल्ले आनी ताका लागपी एकूय वेल्डर त्या शिपयार्डांत नासलो.

ह्या शिपयार्डांत कामाक आसतनाच लोटली मानशेवयल्या पास्किना कडेन ताचो मोग जाल्लो. तीं लिपचोरयां मेळूंक मेळटालीं. एक दीस पास्किनान ताचे कडेन गंभीर भासाभास केली.

'पळय लिनो, म्हज्या घरा कडेन खबर ना हांव तुज्या मोगांत आसा म्हणून. तीं आतां म्हाका काजार करूंक सोदतात. तूं येता मरे म्हज्या घरा म्हजो हात मागूंक?' सामके गंभीरतायेन पास्किनान मानशेवयल्या उदकांत पांय खेळयत विचारलें. सांजचो वेळ आसलो आनी सांज धारेर आसली. मळबांत चांदणे रुप घेवंक लागिल्लें आनी लिकलिकीत नकेत्रां झळकूंक लागिल्लीं.

'ह्या चांदण्याचो आनी ह्या नखेत्रांचो सोपूत घेवन हांव तुका सांगतां, हांव तुजो काळजा सावन मोग करतां. हांव तुका केन्नाच फटोवचो ना.' लिनोन कविता केली. तो ताचे कुशीकूच बसून आसलो.

'आरे हांव तुका सोपूत घेवंक सांगिना, म्हज्या पायक मेळूंक सांगतां.' रागान ताणें पांय उदकांत मारलो आनी सगळें उदक वयर उसळ्ळें. लिनो

मातसो भिजलो.

'चल पास्किना, हांव आतांच तुजे बराबर येतां. पूण तूं अशें बेजार जावं नाका'. ताणें ताच्या हाताक धरीत सांगलें.

'खरेंच लिनो?' ताणें ताचेर एक नदर घाली आनी ल्हवूच गालाचेर कीस दीत उठलें. 'हांव रावतां घरा कडेन.' तें धांवत आपल्या घरा वटेन गेलें. लिनो पास्किनाच्या किसान पिसो जालो. ताणें आपलो गाल पोशेलो. ताका हांसूंक आयलें. पयलेच फावट जाल्लो हो नाजूक स्पर्श आसलो. कितलो तेंप मेरेन तीं मोगांत आसलीं, पूण असो शरिरीक स्पर्श करपाचें तांणी केन्नाच येवजूंक नासलें.

'हांव पास्किनाचो मोग करतां आनी ताचे कडेन काजार जावंक सोदतां.' लिनोन पास्किनाच्या घरा वचून सरळ भाशेंत प्रामाणीकपणान पास्किनाचो हात मागलो.

'आमी गोंयां भायल्यां कडेन आमचे धुवेक काजार करूंक तयार नात.' पास्किनाचे आवयन आडखळ हाडली. 'आमी ताका लोटलेच्या मोंतेराल्या चल्याक दिवंक केलां. तो बरो बोटीचेर नोकरी करता.' तिणें मुखार सांगलें.

'पळय आं मांय, हांवें लिनो विशीं आदींच तुमकां सांगलां. आनी हांव तुमच्या मोंतेर-फोंतेरा कडेन काजार जावपाचें ना. हांव काजार जाल्यार फकत लिनो कडेन जातलें. ना जाल्यार...' तें तोंड वांकडे करून आवयक पळोवंक लागलें.

'तूं आमकां धमकी दिता गो? तुज्या बऱ्याकूच आमी सांगतात.' पास्किनाच्या बापायन ताका समजावपाचो यत्न केलो.

'नाका, नाका. म्हजे बरे वायट सगळे लिनोक जोडिल्लें आसां. आमी मोगांत आसात म्हूण सगळो लोक जाणा. मागीर हांव लजेक पडूं? हांव लिनो कडेनूच काजार जातलें.' तें हट्टाक पेटलें. मागीर कितलोसोच वेळ तांचे मदीं भासाभास जाली आनी निमाणें मांय-पायक मान बागोवची पडली.

'पळय लिनो. आमकां दोगूच भुरगीं. एकलें पास्किना आनी ताचो

भाव क्लावडसन. तें आमचें सामकें मोगाचें. देखून तें आमकां आमच्या फुड्यांतूच आशिल्लें जाय. तूं लेगीत हांगा एकलोच आसा. म्हाका दिसता केरळाचे घर पसून तुका उगडास आसचें ना. हांगाय जाल्यार तूं भाड्याच्या घरांत रावता. म्हणटकच तूं आमचो घर जांवय जालो जाल्यार तुकाय बरें आनी आमकांय बरें. कितें म्हणटां तूं?' पास्किनाच्या बापायन एक मांडणी काडली.

'कितें करूं पास्किना?' लिनोन उमळशिकेन पास्किनाचेर नदर घाली.

'फोडटलें धरून.' तें ताच्या फुड्यांत आयलें. 'आनीक कितें सांगूंक सोदतां तूं? हय म्हण मरे.' ताच्या कानाक धरीत पास्किनान म्हणलें. पास्किनाची आवय आनी बापूय तांच्या ह्या मोगाक पळोवन हासूंक लागलीं. घडये ह्याच खिणाक तांच्या एकवटांत आपूण चुकनात अशी तांकां खात्री जाली.

'पळय, कानाचो सोड.' लिनोन आपलो कान सोडोवन घेतलो आनी कान चोळीत तयार आसा म्हूण सांगलें.

सगळी तयारी नेटान जाली. लिनोचो कोणूच नासलो म्हणटकच कितें घडटालें तें पास्किनाल्याच घरा कडल्यान. धांवपळ, बोवाळ करून एक दीस तांचे काजार जालें. दोगांय एकदम खुशाल जालीं.

काजारा उपरांत लिनोन खुशाल जिविताक सुरवात केली. देवान रोखडेंच तांकां पयलें बाय नॉयमी दिलें आनी उपरांत दोन वर्सांनी बाबा ऑस्वाल्ड दिलो. एक खुशाल घराबो कसो तीं जियेतालीं. पास्किनाच्या आवय बापायचो सगळो आदार तांकां आसलो. तो बिगर गोंयकार म्हूण ताका तांणी केन्नाच उणो लेखूंक ना. त्याच मापान तोवूय तांकां मान दितालो. ताच्या कामाची सुवात लागींच आशिल्ली. जायते फावटी तो मदल्या वेळार पेज जेवंक जाल्यार सांजेर च्या पियेवंक घरा येवन वतालो. देखून तांचे मदलो मोग गांवभर फामाद आसलो.

त्या शिपयार्डान एक बार्ज बांदूंक घेतिल्ली. लिनोचें प्रामाणीकपण आनी हुशारकाय पळोवन ताच्या मालकान हे बार्जीर ताका सुपरवायझर

केल्लो. तशें बार्जीचें काम पुरायपणान कालूच सोंपिल्लें. फाटले कितलेशेच दीस सगळ्या कामदारांचो हातूंत मोलाचो वांटो आसलो. तांणी नेटान काम करून मालका कडल्यान शाबासकी मेळयिल्ली. फाल्यां दीस थारयल्लो गोंयच्या एका मंत्र्याच्या हातांतल्यान बार्जीचे उक्तावण करपाक. तयारी निमण्या पांवड्यार आसली. फाल्यां नातालां आसून पसून सगळे कामगार येवंक तयार जाल्ले, कारण तांकां *बोनस* मेळपाचो आसलो. *बोनस* मेळोवपाकूय तांकां बरेच त्रास पडिल्ले.

तेन्ना दिवाळी लागीं आशिल्ली. तीन वर्सां फाटीं शिपयार्डाचे कामदार आपणाक *बोनस़* मागताले. हें तें निमीत सांगून मालक तांकां टाळटालो. तरी तांणीं उमेद सोडली ना. ह्याय वर्साक तांचे कामदार फुडारी मालका म्हऱ्यांत गेल्ले.

'सर, ह्या वर्साक जर तूं आमकां बोनस दिना जाल्यार आमी तुजे बार्जीचें काम वेळार पुराय करचे नात.' कामदार फुडाऱ्यान मातशे गंभीरतायेन एक भशेन धमकीच दिली. ताचेर बरोच वेळ भासाभास जाली. खरें म्हणल्यार काम घेतिल्लें तेन्नाच बार्ज बांदपाच्या कच्च्या मालाची दर चड आसली आनी खरें काम सुरू करूंक घेतलें तेन्ना ती दर देंविल्ली. देखून मालकाक बरोच फायदो जाल्लो. ही संद घेवन आपल्या कामदारांकूय खुशाल करूंक ताणें तांकां *बोनस* दिवपाचें चिंतलें. आपूणय खूश आनी आपले कामदारूय खूश.

'बरें आसां. हांवें हिशेब केला ते प्रमाण तुमचें बार्जीचें काम आनीक दोन म्हयन्या भितर सोंपूंक जाय. पूण थोड्यांनी *ओव्हरटायम* केलो जाल्यार तेंच काम एका म्हयन्या भितर सोंपूंक शकता. जर तुमी एका म्हयन्या भितर हें काम सोंपोवन नातालांचे आदीं बार्ज तयार करतात जाल्यार हांव तुमकां दोन पगार *बोनस* दिवंक तयार आसा.' मालकाचीं उतरां आयकून एका खिणाक कामदारांनी एकामेकांच्या तोंडाक पळयलें. सगळ्यांच्या तोंडार हांसो उदेलो.

'बरें सर, केलें!' तांणी मालकाक एकाच आवाजान सांगलें. खुशाल जावन मालकाक सगळ्यांनी हात दिलो आनी ते भायर सरले. कोणाचेंच

लुकसाण नासलें.

बार्जीच्या उक्तावणाच्या कामांत लिनोन बरोच फुडाकार घेतिल्लो. जें कितें हाडूंक जाय तें सगळें हाडून दवरिल्लें. लोटले रावपी एका भटमामाक पुजा करूंक जाल्यार लोटली इगर्जेच्या फादराक बोटीचेर आजमेंत मारून बेसांव घालूंक आपयिल्लो. खावपाक आनी पियेवपाक हाडपाची जबाबदारी 'पर्सनल ऑफिसर' समीराचेर आसली. तरूय हेर अधिकाऱ्यांनी तयारेची पुरायपणान पळोवणी केल्ली.

बार्ज सोबीत सुंदरतायेन न्हेसयिल्ली. नातालांचें निमीत दवरून फोली लावन आनी लायटी घालून पुराय शिपयार्डय न्हेसयिल्लें. फाल्यां उक्तावणा उपरांत बार्ज मुरगांव धोक्यार म्हाल भरून अरबी दर्यांत उबी आशिल्ल्या सुमोटो बोटीचेर ओतपाक सगळीं कागदपत्रां तयार आसलीं.

बार्जीच्या उक्तावणाच्या समारंभाक वचूंक लिनोची घरचीं्य उमेदीर आसलीं. तांणी लेगीत आपले तरेन तयारी केल्ली. गोंयच्या मंत्र्याक आनी नवे बार्जीक पळोवंक ताची भुरगीं आशेतालीं.

नातालांचे जाग्रणाचे रातीची सुरवात जाली. लोकांनी फुगेट्यो मारपाक सुरवात केली. नखेत्रां पेटयलीं. जायत्या जाणांनी आपल्या घरा भायर पीक-पीक लायटी घाल्ल्यो. पास्किनाच्या एकाच उल्यान नॉयमी आनी ऑस्वाल्ड उठलीं. लिनोन घाल्ल्यो लायटी ऑस्वाल्डान पेटयल्यो. घरा मुखार उजवाड जालो. नखेत्राची लायटूय पेटयली. ऑस्वाल्डान केल्ल्या ल्हानशा गोठ्यांत सगळ्यो वस्तू मांडून तो मेकळो जालो. फकत बाळक जेजू दवरपाचो उरिल्लो.

इकरा वरां जावन गेल्लीं. ऑस्वाल्ड आनी नॉयमी मिसाक वचपाची आपली तयारी करूंक लागलीं. लिनो अजून उठूंक ना म्हूण ऑस्वाल्ड ताका उठोवंक लागलो. लिनो कसोच उठना. ताणें आपले मम्मीक सांगलें. पास्किनान लिनोक मातसो हालयलो. पूण तो जागूच दिना तें पळोवन तें भियेलें. ताणें बेगीबेगीन आपल्या आवय बापायक उलो केलो. तीं धांवत आयलीं. लिनोक पळोवन तीं लेगीत भियेलीं. तांच्या शेजाराक दोतोर नॉर्मन रावतालो. बेगीबेगीन ताका आपोवन हाडलो.

ताणें ताका तपासलो आनी जाता तितले बेगीन गोंय वैजकी महाविद्यालयांत व्हरपाचो सल्लो दिलो.

पास्किनाच्या भावान गाडी भायर काडली. लिनोक गाडयेंत घालो. ताचे बराबर पास्किना आनी दोतोरूय बसलो. गाडी बांबोळी वचूंक भायर सरली. लिनोचें आंग थंड पडूंक लागलें, पूण स्वास चलतालो. मदींच ताणें दोळे उगडले. गाडी ताच्या शिपयार्डा कडेन पाविल्ली. तांची बार्ज व्हंकल कशी न्हेंसून तयार आसली. नातालां आनी बार्ज उक्तावण सुवाळ्या खातीर घाल्ल्या शिपयार्डांतले लायटीचो झगझग लिनोक कितें तरी सांगूंक सोदतालो. लिनोची नदर सहज बार्जी वटेन गेली. ती ताका आपल्या फुड्यांत आपयताली. कितल्या मोगान ताणें तिचें काम केल्लें. दोतोरा शिवाय आनीक कोणेंच हें अणभवलें ना. गाडी वचत आसली. शिपयार्डाचो वाठार काबार जातकच ताणें परतून दोळे बंद केले. दोतोर ताची अमुरपिकी उमेद नियाळीत आसलो. गाडी नेटान गोंय वैजकी हॉस्पिटला वटेनचो रस्तो माडयत आसली.



'जायते फावटी अशेंच जाता. म्हाकाय म्हज्या जिवितांत दिसतालें. आतां चूक उरली ती उरली, ती सुदारूंक वेळ खंय आसा? म्हज्या काजाराचेंच पळय. हांव व्हड उमेदीन काजार जालों. म्हजी घरकान्न जाणा आसली हांव एक संगीतकार आनी तियात्रांत न्हेसता म्हूण. दुबावा विरयत दुसऱ्या चेडवा-बायलां कडेन उलोवप, भोंवप येतलेंच न्हय? जिवितांत केन्नाच नोकरी करूंक ना. संगीत आनी तियात्रांतल्यान मेळटा ताचेर पयलीं जियेलों आनी मागीर फकत संगितांत रावन कारकिर्द घडोवपाचो यत्न केलो पूण घरकान्नीन घात मारलो. एक दीस घर सोडून गेली ती आयलीच ना. हांवूय तिका व्हरपाक गेलों ना.'

# पुरस्कार

पाकुश दी गोवा सूट बूट घालून न्हेंसून आसलो. ताका पर्वरी वचूंक जाय आसलें. देखून तो गाडयेची वाट पळयतालो. आयज ताका गोंयच्या मुख्यमंत्र्या हस्तुकीं राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार भेटोवपाचो सुवाळो आसलो. म्हणून तो चड खुशाल दिसतालो. येद्या व्हड पुरस्कारान तो भुल्लसून गेल्लो. सांजवेळा ज्युस्त पांच वरांचेर ताका पर्वरी पावपाक पत्र आयिल्लें. सुवाळो विधानसभा संकुलांतल्या सांस्कृतीक मंत्रालयाच्या व्हरांड्यातच सादेपणान जावपाचो आसलो. ते नदरेन आमंत्रणां चड दिवंक नासली असो मंत्रालयान खुलासो केल्लो. ताका फोनाचेर सांगतना वेळार पावपाची विनंती केल्ली.

गाडी दारांत लागतांच आपले कपडे आनीक एक फावट सारके करीत तो मुखार आयलो.

'मिलाग्रबाब, पांच जावंचे पयली पर्वरी विधानसभा संकुलांत आमकां पावूंक जाय. म्हजे खातीर थंय एक कार्यावळ आसा. तुजे परीं विचार कर आनी वेळार पाव.' ड्रायव्हर मिलाग्राक सांगतना तो गाडयेंत बसलो.

मिलाग्र तांचेच गांवचो आनी पाकुशाचें बरें मागपी आसलो.

'बरें पाकुशबाब.' मिलाग्रान म्हणलें. गाडी चलपाक लागली.

'कितलो खुशालकायेचो खीण हो?' तो आपले भितरूच मुमुरक्यां हांसलो. आपणें तियात्राच्या आनी संगिताच्या मळार जो वावर केला ताची गोंय सरकारान पावती दिल्या अशें मनांतल्या मनांत ताणें मानून घेतलें. 'खरें म्हणल्यार दर एक हुशार मनशाचो असो भोवमान जावंक जाय.' पाकुश बडबडलो.

'म्हाका कितें सांगतालो पाकुशबाब?' मिलाग्रान पाकुशाक विचारलें.

'ना, ना. तुका कांयच सांगूंक ना हांवें. पूण तूं जाणा गोंयचो केदो व्हड मनीस हांव जालां तो? आमच्या गांवांत तर ही व्हड अभिमानाची गजाल.' तो आपले भितरूच गर्वान भरून उलोवंक लागलो.

'तुवें सांगल्यार कळटलें न्हय?' तुजीं कांतारां केन्नाय आयकतात आमी. आदीं दोन चार फावटी तियात्रांतूय पळयिल्लो. खऱ्यांनीच देवान तुका बरो आवाज दिला.' मिलाग्रान ताची तुस्त केली.

'ह्याच ताळ्याची सरकारान दखल घेवन म्हाका राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार जाहीर केला आनी आयज तो म्हाका भेटयतले.'

'तुका आनिकूय असले जायते पुरस्कार मेळूं.'

नकळटाच पाकुशाचो हात पॅन्टीच्या बोल्सांत गेलो. बोल्सांत एक कागद आसलें. ताणें तें भायर काडलें आनी वाचूंक लागलो. पुरस्कारा खातीर ताणें धाडिल्ली ती ताची वळख आसली. पर्वरे पावपाक अजून वेळ आसलो.

'तुमच्या सारक्यांनी म्हाका खूब उमेद दिली म्हूण हांव इतले मुखार पावलों.' पाकुशान म्हणलें.

'असो पुरस्कार दिवंक तुजे कसले कसले गूण पळयलें तांणी?' मिलाग्राक उत्सुकताय जाली.

'आयक, ह्या पुरस्कारा खातीर म्हजें नांव ॲडव्होकेट व्हिएगशान सुचयल्लें. ताणें म्हजी वळख सरकाराक धाडिल्ली तीच तुका हांव सांगता.' तो सिटाक तेंकून बसलो आनी मिलाग्राक सांगूंक लागलो.

'पाकूश दी गोवा म्हणल्यार हांव, म्हजें मूळ नांव आंतोनियो फेर्नांडीस. म्हजो जल्म 18 जुलय 1945 वर्साक मडगांव जालो. आंतोनियो पेरेरा हें एक पोरणें नांव पुर्तुगेज काळावयलें, आवय-बापायन दवरिल्लें, तें म्हाका आवडलें ना. देखून हांवे म्हजें नांव पाकुश फेर्नांडीस अशें बदल्लें. घरची परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान ल्हान पिरायेचेर नोकरे निमतान हांव मुंबय गेलों. सांताक्रुझ इर्गजेच्या पाद्र विगाराच्या आदारान, थंय मिसा वेळार वाजोवपी मेस्त्री कडल्यान हांवें संगीत शिकून घेतलें. तो जाण्टेलो मेस्त्री मेले उपरांत हांव इगर्जेंत वाजोवंक लागलों.'

'इतले ल्हान पिरायेर सावनूच बरो शिकलो मरे तूं वाजोवंक.'

'हय तर. ल्हानपणांतूच ही म्हजी कुशळटाय पळोवन लोकांक अजाप दिसतालें आनी ते म्हजी तुस्त करताले. एक दीस एका लग्नाच्या मिसाक उमेदीन संगीत दितना कोंकणी पालकाचेर न्हेंसपी फामाद कॉमीककार कुकूश मेळ्ळो.'

'पाकुश, तूं वाजयतना बरोच कॉमीक दिसता मरे! म्हाका तुजो हो भेस आनी सभाव खूब आवडलो.' मीस जाले उपरांत कुकूशान म्हाका वेगळेंच कितें तरी सांगलें.

'तेन्नाच तर हांव इतलो खुशाल आनी हांसतो उरतां. लग्न म्हणल्यार खुशाल खीण. लग्न कोणाचेंय जावं, ताचो आनंद घेता तो खुशाल उरता न्हय?'

'हो नवोच विचार आयकता मरे हांव. म्हज्या तियात्रांत भुमिका करतलो?'

'तुका दिसता तर एक भुमिका दिवन पळय.'

खऱ्यांनीच एक दीस ताणें म्हाका आपल्या तियात्रांत ल्हान भुमिका करपाक संद दिली. ते संदीचें हांवें भांगर केलें आनी म्हाका लोकांनी उखलून धरलो. हांव *क्लिक* जाले उपरांत हांवें जायत्या तियात्रांनी *सायड शो* भागांत भुमिका केली आनी स्वताचें नांव कोंकणी पालकाचेर कोरांतलें. म्हजी मागणी वाडत गेली. म्हाका गोंयचे मातयेचो खूब मोग आसलो. देखून हांवें कोंकणी पालका खातीर पाकुश दी गोवा हें नांव

आपणायलें आनी आयजवेर लोक म्हाका ह्याच नांवान वळखतात.'

'तूं वेवसायीक माचयेर केन्ना पावलो तर?'

'एका नव्याच दिग्दर्शकान कॉमेडेची मुखेल भुमिका घालून 'हांस, ना जाल्यार मरतलो!' हो तियात्र माचयेर हाडलो आनी मुखेल भुमिका म्हाका दिली. म्हजी भुमिका पळोवंक कांय खास तियात्रिशत आयिल्ले. म्हजी भुमिका पळोवन ते अजाप जाले. तातूंतल्या दोग जाणांनी म्हाका आप-आपल्या तियात्रांत भुमिका करूंक विनंती केली. थंयच म्हजी वेवसायीक स्थराचेर सुरवात जाली.

उपरांत गोंयच्या एका फामाद दिग्दर्शकान म्हाका आपल्या पंगडांत कायम स्वरूपांत घेतलो. सुमार 50 प्रयोग केले उपरांत म्हाका एक संद मेळ्ळी आफ्रिका देसांत वचपाची. म्हाका रेबेक आनी ऑर्गन बरें वाजोवंक येता. दोनूय संगीत वाद्यांचे प्रदर्शन करूंक म्हज्या सांगाताक एक पंगड घेवन हांव भोंवडेर गेलों आनी एक संगीतकार म्हूण हांवें नांव मेळयलें. तेच स्फुर्तीचेर हांवें 'पाकू पाकू म्युजीक' अशा एका संगीत पंगडाक जल्म दिलो. संगिताक चड मागणी आसा हें वळखून हांवें तियात्रांत भुमिका करपाचें उणें केलें आनी संगिताचेर चड भर दिलो.'

'मागीरूच तुज्यो कॅसेटी बी आयल्यो न्हय?'

'हांवें 'रांबा हो सांबा' ह्या नांवाची पयली कोंकणी कॅसेट बाजारांत हाडली आनी ते उपरांत हांवें फाटल्यान पळयलेंच ना. हांव फामाद जायत गेलों. कितल्योशयोच संगीत कॅसेटी काडल्यो. उपरांत म्हज्या कॅसेटीचें व्हिडियो कॅसेटींत रुपांतर जालें. थंय हांव आनीक फामाद जालों. हांवें कांय चलचित्रांनी भुमिका केली आनी हांव वेगळे तरेन पर्जळूंक लागलों. संगिताच्या मळार खूब वावर करून हांवें एके भशेन क्रांतीच घडयली. आतां म्हजी पिराय जाल्या म्हूण हांवें विसव घेतला पूण हांव '*रिटायर*' जावंक ना.

'हय, गांवच्या तरणाट्यांक तूं संगीत शिकयता ही एकदम बरी गजाल. इगर्जेंतलें संगीत तूं अजूनय विसरूंक ना. देखून तरणाट्यांनी इगर्जेंत संगीत वाजोवंक मुखार येवंक तुजें बरें मार्गदर्शन मेळटा. खरें

म्हणल्यार तुका संगीत मळार लेगीत पुरस्कार मेळूंक जाय आसले.' मिलाग्रान ताची पर्थून तुस्त केली.

'तुका एक सांगूं? आमचे क्रिस्तांव दुसऱ्याक मुखार सरूंक दिनात. मुखार सरतल्याक ते फाटीं काडटात. दुसऱ्याचें बरें जाल्लें तांच्यान पळोवंक जायना. एक फावट म्हजें नांव संगीत पुरस्कारा खातीर मुखार घाल्लें. पूण आमच्या एका क्रिस्ती भावानूच आपल्या कोणाचें तरी नांव दिलें आनी म्हजें नांव काडून उडयलें. तेन्ना सावन हांव पुरस्कारा फाटल्यान केन्नाच धांवलो ना. म्हजे फाटल्यान मेस्त्री जाल्ले राज्य पुरस्कार घेवन गेले. भोवमान घेवन गेले. हांव फाटींच उरलों. तो ॲडव्होकेट व्हिएगश बरो म्हूण आयज हांव ह्या पुरस्काराक वतां.'

'पूण पाकुशबाब, तुजें हें कार्य वर्सां प्रमाणें मांडिल्लें जाल्यार आयकतल्याक अदीक बरें दिसतलें आसलें अशें ताका दिसूंक ना?' पणजे बायपासा कडेन गाडी सवका करची पडली. मुखार अपघात जाल्लो. वाट काडीत गाडयो वताल्यो.

'वेळ जावंचो ना मरे आमकां?' पाकूशान विचारलें.

'त्या मुखा वेल्यान येवपी गाडयेन चुकयलें. मातसो कडेक गेल्लो जाल्यार अपघात जावंचो नासलो. ते कडेच्यान वचूंक मेळटा.' ड्रायव्हरान गाडी कडेच्यान घेतली.

'जायते फावटी अशेंच जाता. म्हाकाय म्हज्या जिवितांत दिसतालें. आतां चूक उरली ती उरली, ती सुदारूंक वेळ खंय आसा? म्हज्या काजाराचेंच पळय. हांव व्हड उमेदीन काजार जालों. म्हजी घरकान्न जाणा आसली हांव एक संगीतकार आनी तियात्रांत न्हेंसता म्हूण. दुबावा विरयत दुसऱ्या चेडवा-बायलां कडेन उलोवप, भोंवप येतलेच न्हय? जिवितांत केन्नाच नोकरी करूंक ना. संगीत आनी तियात्रांतल्यान मेळटा ताचेर पयली जियेलों आनी मागीर फकत संगितांत रावन कारकिर्द घडोवपाचो यत्न केलो पूण घरकान्नीन घात मारलो. एक दीस घर सोडून गेली ती आयलीच ना. हांवूय तिका व्हरपाक गेलो ना. अशे तरेन आमचे मदली वेर वाडत गेली आनी आयज कितलीं वर्सां जालीं आमी

एकामेका पसून वेगळीं आसात.'

'ती गेल्ली तेन्नाच तुवें तिका हाडिल्ली जाल्यार घडये येतली आसली.'

'ना. म्हजे कडेन तिचे खातीर इबाडूंक वेळ नासलो. म्हज्या संगिताक खूब मागणी आसली. हांव म्हज्या संगितांतूच बुडून रावलों. भुरगीं ना बाळ, जियेतां आतां एकलो एकसुरो.'

'विचारतां म्हूण रागार जायनाका, तूं दुसऱ्यांक खुशाल करपी मनीस, हातूंत तुजो संवसार खुशाल आसा?'

'खुशाल संवसार खंयचो? जिविताच्या निराशीपणांत हांव जियेतां. समाजाचो हुस्को म्हाका चाळोवंक लागला. आयचो दीस जरी म्हाका खोशयेचो आसलो तरी हांवूच नकळों हे खुशालकायेंत हांव एकलो कसो मुखार वतलों तो.'

'जायते फावटी मनशाचो अहंकार मनशाक आड घालता. मनशा कडेन जायतें आसता पूण पळोवंक गेल्यार कितेंच नासता.' मिलाग्रान ताका सैमाची गजाल सांगली.

'तसले डायलॉग आमी तियात्रांत वापरताले मरे.'

'तुजोच एक डायलॉग तो हांवें तुका याद करून दिला.' मिलाग्राची उतरां आयकून पाकुश हांसलो.

'पावले बाबा आमी.' पर्वरी विधानसभा संकुला कडेन पावतांच मिलाग्रान गाडी थांबयली. पाकूश गाडयेंतल्यान देंवलो.

'गाडी लागींच लाय आनी तूं लागीच राव. हांव घडये रोखडोच परत येतलों.' ताणें आपलो टाय सारको केलो. कपड्यांचेर एक धांवती नदर मारली. सूट फाटल्यान मात्सो ओडिल्ल्या सारको केलो आनी विधानसभा संकूल इमारती वाटेन चलूंक लागलो.

सुवाळो सांस्कृतीक मंत्र्याच्या व्हरांड्यांत जावपाचो आसलो. तो थंय पयलेच फावट गेल्लो. खरें म्हणल्यार हें संकुलच ताणें हे आदीं पळोवंक नासलें. गाडी चलोवपी मिलाग्राक खबर आसली म्हूण तो कसलीच चिंता नासतना पावलो. संकुलाचे सुंदरतायेचेर नदर मारीत तो भितर सरलो. ज्युस्त खंय वचपाचें तें खबर नाशिल्ल्यान विचारीत

विचारीत पाकुश सुवाळ्याच्या जाग्यार पावलो.

पांच वरां जावंक नासलीं, तरी लोकांची गर्दी दिसताली. हारशाच्या दारा कडेन उबो आशिल्ल्या मनशाक ताणें आपली चीट दाखयली. ताणें दार उगडलें आनी कडेक आशिल्ल्या सांस्कृतीक सचिवा कडेन बोट दाखयत ताका ताचे वटेन वचूंक सांगलें. सांस्कृतीक सचिवान पाकुशाक व्हरून तिसरे वळयेंतल्या दुसऱ्या कदेलार बसयलो. त्या मुखावेले जागे आदींच भरिल्ले आनी हीं कांय कदेलां पुरस्कार जैतवंतां खातीर राखून दवरिल्लीं आसलीं. वसरो मातसो ल्हान आसलो देखून सारको भरून दिसतालो.

गोंयच्या मुख्यमंत्र्यान प्रवेश केलो तेन्ना सगळे उबे रावले. ताचे कडेनूच कला आनी सांस्कृती खातें आसलें. कला आनी सांस्कृती खात्याचो संचालक आनी कला अकादमीचो अध्यक्ष तांचे बराबर आसले. सगळ्यांनी ताळयो पेटयल्यो आनी निवेदकान तांकां येवकार दियत सरळ वेदीचेर येवन बसपाचें आमंत्रण दिलें.

सगळ्यांचो उपचारीकपणान येवकार जाले उपरांत प्रस्तावीक जालें. कांय तरणाट्या चलयांनी वेदीर आशिल्ल्या मानेस्तांक फुलां दिवन मोग दाखयलो. सगळ्यांची नदर मुख्यमंत्र्याच्या भाशणाचेर आसली. तशी सामकीच निराशा जाली ना पूण ताणें गोंय संबंदीत मुद्दे मुखार हाडले. राजकी मळावेलीं कांय उदाहरणां दिवन राज्य घट जातलें जाल्यार कितें करूंक जाय तें सांगतना ताणें समाजांत वावुरतल्या मनशांनी आनी सामान्य मनशांनी सरकारा कडेन हात मेळोवन उदरगतीचीं पावलां मारूंक उलो मारलो.

धा जाणांक पुरस्कार मेळपाचे आसले. पुरस्कार म्हणल्यार कितें दितले हाची पाकुशाक उमळशीक लागिल्ली. ताणें पुरस्कारा विशीं जायतें आयकल्लें पूण प्रत्यक्ष पळोवंक नासलें. ताची नदर वेदीचे हे कडेक जाल्यार ते कडेक वताली. ताका कांयच दिसनासलें. इतलो वेळ पुरस्कारा बगर ताचे तकलेंत कांयच नासलें. कोणाचेंच भाशण ताणें लक्ष दिवन आयकलें ना. तशें पळोवंक गेल्यार तियात्रिशत दुसऱ्याचे

भाशण केन्नाच आयकनात. फातोड्डेच्या एका सामाजीक वावुरप्याक लागून व्हिएगशान ताचें नांव सुचोवन तें मानून घेतलें म्हूण जेन्ना पाकुशाक समजलें तेन्ना तो एकदम खुशाल जाल्लो आनी त्याच दिसा वचून ताणें तांचे उपकार आठयल्ले. त्या दिसा सावन तो आयच्या दिसाच्या खिणाची वाट पळयत आसलो. हे आदीं जायत्या जाणांनी ताचे गूण गायिल्ले पूण कसलोच पुरस्कार दिवपाक केन्नाच मुखार काडूंक नासलो. हे जाण्टे पिरायेर राज्य पुरस्कार मेळटा म्हूण तो हिसपा भायर आनंदीत आसलो.

निमाणो तो खीण आयलो. निवेदकान सगळ्या धाय जाणांची वळेरी वाचून दाखयली. तेच बराबर सगळ्यांची थोडे भितर वळख दिली. पाकुशाचें नांव पांचवें आसलें. ताणें आपली मान मातशी नीट केली. निवेदकान पुरस्काराचें स्वरूप सांगलें. स्वरूप अशें आसलें - श्रीफळ, शाल, मानपत्र, मानचिन्न आनी पंचवीस हजार रुपयांचो चेक. पयल्या जैतवंताक जें दिले तें पळोवन पाकुशाच्या जिवाक एकदम बरें दिसलें. पाकुशान मातसो झेत केलो आनी नीट बसलो. इतलो व्हड पुरस्कार आनी ते भायर हें सगळें. मानचिन्न तर सामकें उगडास उरपा सारकें.

हें येवजिता आसतना उरिल्ल्या तीग जाणांक केन्ना पुरस्कार दिले तें पाकुशाक खबरूच ना. निवेदकान पाकुशाचें नांव घेतलें. दुसरे वटेन एक सुंदर चली येवन मानपत्राचेर आशिल्ली पाकुशाची पुराय वळख वाचूंक लागलें. वळख वाचतासतना पाकुशान वेदीचेर आपलो पुरस्कार घेवंक पावूंक जाय आसलें. सगळ्यो वस्तू हाडून मुख्यमंत्र्या मुखार दवरल्यो. ताची वळख वाचून सोंपली, तरी पाकुश वेदीचेर पावलो ना. ना म्हूण आपल्या जाग्या वेल्यान हाल्लो ना.

'मीस्टर पाकुश दी गोवा, वेदीचेर येवन तुवें आपलो पुरस्कार घेवचो म्हूण आमी तुमचे कडेन मागतात.' निवेदकान पाकुशाक परत एक फावट विनंती केली. पाकुश जाग्या वेल्यान हालपाचें नांव घेना तें पळोवन ताका हाडून बसयिल्लो सांस्कृतीक सचीव ताच्या फुड्यांत

धांवून गेलो. ताणें ताका हात लायलो. मातसो हालयलो. ताणें जागूच दाखयली ना. मुख्यामंत्री अजूनय उबोच आसलो. सगळ्यांची नदर पाकुशाचेर थिरावली. एका खिणाक सगळो आवाज ठप्प जालो.

'*कॉल द पुलीस ॲण्ड ॲम्ब्युलन्स*' सांस्कृतीक सचिवान व्हडल्यान आवाज दिलो.

■■■

# बरोवप्याची वळख

**नांव**: विन्सी क्वाड्रूस
**नामो**: 'स्नोज कृपा', आर्लेंम, राय, सालसेत गोंय - 403720
**जल्माची सुवात**: राय, सालसेत गोंय
**फोन**: (0832) 2740245 (घ) 2746025 (क)
**मोबायल**: 9822587498
**ईमेल**: vincyquadros@gmail.com,
vincyatpepsi@rediffmail.com
**शिक्षण**: एम.ए. (समाजशास्त्र) पदवी
पत्रकारिता डिप्लोमा
सचीवपद डिप्लोमा
पवित्र पुस्तक अभ्यास डिप्लोमा

## साहित्य मळार -

* कोंकणी कार्यकर्तो आनी वावुरपी.
* संपादक - 'जिवीत' म्हयनाळें सप्टेंबर 06 ते एप्रील 09.
* संपादक - 'कामगारवाणी' कामगारां खातीर नेमाळें.
* संपादक - कोंकणी भाशा मंडळाचो नाताळ अंक 2007.
* संपादक - आवाज 2007, राय इगर्जेचो वर्सुकी अंक.
* संपादक - गोंयचो आवाज 2010.
* संपादक - बालांकूर 2010.
* संपादक मंडळ वांगडी - डिव्हायन वॉयस, केरळ.
* संपादक मंडळ वांगडी - पोरझोळ 2010-11.
* संपादक मंडळ वांगडी - दाल्गाद कोंकणी अकादमी
* कोंकणींत पुराय पवित्र पुस्तक हाचो एक अणकारपी.
* गोंयचो आवाज हाचो रिपोर्टर (राय-लोटली आनी सरभोंवतणचो वाठार).
* कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य विभाग संयोजक एका काळा खातीर.
* गोवा कोंकणी अकादमीचें पयलें बालसाहित्य संमेलन 2009

संकल्पना आनी संयोजन.

* गोवा कोंकणी अकादमीचें दुसरें बालसाहित्य संमेलन 2010 संयोजन.
* दाल्गाद कोंकणी अकादमीची दोन दिसांची राबित्याची कादंबरी कार्यशाळा 2010 संकल्पना आनी संयोजन.
* सुमार 15 तियात्र बरोवन माचयेर सादरीकरण आनी भुमिका.
* कांतारांची रचना आनी सादरीकरण.
* एक अंकी नाटकुलीं बरोवप, भुमिका आनी सादरीकरण.
* गोवा कोंकणी अकादमीन छापिल्ल्या एकांकी संग्रहांत एकांकीचो आसपाव.
* क्विनी प्रॉडक्शन ॲण्ड पब्लिकेशनान छापिल्ल्या वेंचीक कविता झेल्यांत कवितेचो आसपाव.
* क्विनी प्रॉडक्शन ॲण्ड पब्लिकेशनान छापिल्ल्या वेंचीक कथा झेल्यांत कथेचो आसपाव.
* दुसऱ्यांनीं बरयल्ल्या तियात्रांनी आनी एकांकी नाटकुल्यांनी भुमिका.
* कार्नावालाच्या जमनीवेल्या खेळांनी भुमिका.
* कविता बरोवप आनी सादरीकरण.
* फुलदाणी (1990), कुरपणो (2007), सूख आनी दूख (2007), घोंस (2008), तुरो (2010), पोरसूं (2010), मोलो (2011) आवाज-धन (2011) हे सगळे कथां झेले. 'आत्मीक विचारधारा' (2010) हे आत्मीक लेख ह्या शिवाय भुरग्यांची कादंबरी 'जादूचें पेटूल' (रोमी लिपी), 'जादूचें  पेटूल' (देवनागरी लिपी), कोंकणी चलचित्रां (देवनागरी लिपयांतर).
* मोटव्यो कथा बरोवप. तांची वेगवेगळ्या मासिकांतल्यान आनी आकाशवाणी वेल्यान उजवाडावणी.
* सुनापरान्त, राष्ट्रमत, नवें गोंय, वावराड्यांचो इश्ट, गोंयचो आवाज, गुलाब, गोंयकार, जिवीत, बिंब, रेनोवासांव, गोअन रिवीव्ह, कोंकण मेल, गोवावाणी, मोग, कुळागर, चित्रंगी,

कों.भा.मं. दिवाळी अंक, राखणदार, उजवाड, रायचे इगर्जेचो आवाज, शब्दाचो प्रकाश, डिव्हायन वॉयस (केरळ), कोंकण दिवो, पाकळ्यो, पोरझोळ, उमाळे, जाग, ल्हारां आनी हेर मासीकांतल्यान साहित्य उजवाडावणी.

* आकाशवाणीचेर कथा, कविता आनी नाटकुलीं सादरीकरण.
  हे शिवाय खूब फावट वेगवेगळ्या भासाभाशेंत वांटेकार.
* साबार राज्य आनी राष्ट्रीय पांवड्यार परिसंवादांत वांटेकार.
* साबार राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय माचयेर 'पेपर' सादरीकरण.
* कोंकणी बरोवपा आनी वाचपा खातीर उत्तेजन कार्यावळींचें आयोजन.
* राय वेल्फेअर असोसिएशन, राय स्पोर्टिंग क्लब, राय शेड्युल्ड ट्रायबस फोरम, स्नोज शेड्युल्ड ट्रायबस महिला मंडळ, स्नोज अकादमी, नुवें शेड्युल्ड ट्रायबस फोरम, स्नोज प्रकाशन, गोवा राज्य कामगार महासंघ, स्नोज लायब्ररी, मनोरा विकास केंद्र, राय ह्या संस्थांच्या संविदानाची रचना.
* दूरदर्शन आनी हेर टीव्ही चॅनलाचेर कार्यावळींनी वांटो
* तीन एकांकी नाटकुलीं सर्तीचें आयोजन.
* साबार कोंकणी साहित्य आनी संस्कृतीक मळाचेर परिक्षकाची भुमिका.
* दर वर्सा पयल्या कार्नावालाक व्हडा प्रमाणांत 'घुमट' कार्यावळ (फाटलीं आठ वर्सां).
* वाचक चळवळ मुखार व्हरपाचे नदरेन कार्यावळी आनी सर्तींचें आयोजन.
* कार्यावळी घडोवन हाडप आनी सुत्रसंचालन करप आवडीचे विशय.

## पुरस्तकां आनी हेर संकलनां -

* फुलदाणी (1990) (मोटव्यो कथा)
* कुरपणो (2007) (मोटव्यो कथा)
* सूख आनी दूख (2007) (मोटव्यो कथा)

* कोंकणी (नाताळ अंक 2007)
* आवाज (खास अंक 2007)
* घोंस (2008) (मोटव्यो कथा)
* आत्मीक विचारधारा (2010) (आत्मीक निबंध)
* तुरो (2010) (मोटव्यो कथा)
* पोरसूं (2010) (मोटव्यो कथा)
* बालांकूर (2010) (भुरग्यांचें साहित्य)
* गोंयचो आवाज (खास अंक 2010)
* मळो (2011) (मोटव्यो कथा)
* आवाज-धन (2011) (मोटव्यो कथा)
* कोंकणी चलचित्रां (देवनागरी लिपयांतर)
* जादूचें पेटूल (रोमी लिपी, भुरग्यांची कादंबरी)
* जादूचें पेटूल (देवनागरी लिपी, भुरग्यांची कादंबरी)
* कणसां (2011) (मोटव्यो कथा)

## पुरस्कार आनी भोवमान -

* 'फुलदाणी' पुस्तकाक कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार.
* कोंकणी भाशा मंडळ, गोंयच्या बाकीबाब काव्योत्सवात कविता खातीर खास पुरस्कार.
* दाल्गाद कोंकणी अकादमीन घडोवन हाडिल्ल्या 'अखिल गोंय निबंध सर्तींत' गांधीजी विशयाचेर दुसरो पुरस्कार.
* म्हयन्याचो बरोवपी, म्हयन्याचो कवी म्हूण नवें गोंय, ह्या रोमी लिपी दिसाळ्यांत जायते फावट पुरस्कार.
* 'दाम' खेळांत चाम्पीयन पुरस्कार.
* फुटबॉल खेळांत साबार पुरस्कार.
* उत्कृश्ठ कांतार घडोवपी पुरस्कार.
* भोवमान - आर्च बिशप फा. फिलीप नेरी फेरांव हांचे हस्तुकीं पवित्र पुरस्कार अणकारा खातीर.
* भोवमान - युवा साहित्य संमेलन, पिलार.
* भोवमान - भारतीय मजदूर संघ, दिल्ली.

* भोवमान - गोअन कम्युनिटी ऑफ ओमान, मस्कट 2009 (मस्कट हांगा).
* भोवमान - सर्व पंत समादार मंच, अहमदाबाद.
* भोवमान - दुसरें कोंकणी (रोमी लिपी) साहित्य आनी संस्कृती संमेलन 2010.
* भोवमान - राय वेल्फेअर असोसिएशन 2010.
* क्विनी प्रॉडक्शन आनी पब्लिकेशनाचो उत्कृश्ठ कविता रचपी पुरस्कार 2010.
* भोवमान - गोअर कल्चरल सेंटर, कुवेट 2010 (कुवेट हांगा).
* भोवमान - ओरिजीनल गोअन्स शेड्युल्ड ट्रायब्स असोसिएशन 2010, मुख्यमंत्री श्री. दिगंबर कामत हांचें हस्तुकीं.
* टी.एस.के.के. चो पयलो कोंकणी मार्तीर फ्लोरियान वाझ साहित्य पुरस्कार 2010.
* दाल्गाद कोंकणी अकादमीचो फा. फ्रेडी डिकॉस्टा पत्रकारिता पुरस्कार 2010.
* दाल्गाद कोंकणी अकादमीचो कादंबरी पुरस्कार 2010 (दुसरें इनाम).

## हेर मळार -

* उपाध्यक्ष - गोवा कोंकणी अकादमी 2009-2012.
* कोंकणी भाशा मंडळाचो सचीव म्हूण दोन वर्सां जाल्यार जोडसचीव म्हूण दोन वर्सां.
* आठवें कोंकणी युवा साहित्य संमेलन 2007 च्या संमेलनाचो अध्यक्ष.
* पयलें कोंकणी (रोमी लिपी) साहित्य आनी संस्कृती संमेलन 2008 हाचो वावुरपी अध्यक्ष.
* स्नोज अकादमी, राय ह्या समाजीक संस्थेचो संस्थापक अध्यक्ष.
* स्नोज लायब्ररीचो संस्थापक.
* स्नोज प्रकाशन संस्थापक.

* गोंय सरकारच्या फिल्म मोलावणी समितीचो वांगडी.
* रायचे नेवीस सायबिणीचे इगर्जेंत ज्येश्ठ संदेशकार.
* जेजूस, ह्या संदेशकारांचे संघटनेचो सचीव. (2010-11)
* साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली हाचो (कोंकणी) सल्लागार समिती वांगडी (2002-07).
* दाल्गाद कोंकणी अकादमीचो उपाध्यक्ष एका काळा खातीर आनी संस्थापक वांगडी.
* राय वेल्फेअर असोसिएशनचो सचीव एका काळा खातीर आनी संस्थापक वांगडी.
* राय शेड्युल्ड ट्रायब्स फोरमचो सचीव आनी संस्थापक वांगडी.
* राय स्पोर्टिंग क्लब रायचो सचीव म्हूण चार वर्सां कारभार. ताचे आदीं चार वर्सां वावुरपी समिती वांगडी. राय स्पोर्टिंग क्लब गोवा फुटबॉल असोसिएशनाचे वेवसायीक लिगेंत पावंक म्हत्वाची भुमिका.
* राय राशोल सर्व्हिस कॉ.ऑप. सोसायटी लि. चो उपाध्यक्ष.
* मनोरा विकास केंद्र (एनजीओ) चो सचीव.
* सर्व पंत समादर मंच, नवी दिल्ली हाचो गोंयचो अध्यक्ष.
* भारतीय मजदूर संघ, नवी दिल्लीच्या गोंय प्रदेशाचो वावुरपी अध्यक्ष (2003-08).
* गोवा राज्य कामगार महासंघ हाचो वावुरपी अध्यक्ष आनी संस्थापक वांगडी.
* डिस्ट्रिक्ट रूरल डेव्हलोपमेंट एजन्सी दक्षिण गोवा (गोंय सरकार) गव्हर्निंग बोर्ड वांगडी.
* सर्व शिक्षा अभियान व्हिलेज एज्युकेशन कमिटी, राय हाचो वांगडी.
* फुटबॉल खेळां सर्तीचो आयोजक.
* मूळ गोंयकारांची संघटना हाचो म्हणयारो.
* एटॉर्नी - रायचे नेवीस सायबिणीची इगर्ज कॉँफ्राद.
* घुमट गाजोता, ह्या संस्कृतीक कार्यावळीचो संकल्पक आनी संयोजन 2004-11.





## विन्सी क्वाड्रूस

''बाब विन्सी क्वाड्रूस तरेकवार मनशांच्या जात्रेंत पांय तुटसर भोंवलो आनी ताणें जोडले साबार तरेचे अणभव. मनशां विशींची बारीकसाण इतली आसा तो तांकां मनाकाळजा सावन, कुडी बोडा सावन वळखता. हेंच ताच्या साहित्याचें व्हडपण. तो मनशां पारखिता. मनशां वळखता आनी तांचेच वरवीं काणयो घडोवन हाडटा.

वास्तववाद म्हणल्यार साहित्यांतलें प्रामाणीकपण. तेंच जिविताचें सत आनी सोबीतकाय. विन्सी कथेंतल्यान सदांच वास्तवीक पांवड्यार रावंक सोदता आनी आमकां सतसत सांगता.

विन्सी आपले कथेंतल्यान एक सुरमेळ सादता, ताच्या चडशा कथांतल्यान क्रिस्तांव आनी हिन्दू दोनूय धर्मांचीं पात्रां येतात. पूण अजाप म्हणल्यार हिन्दू पात्रांय ताच्या अणभवा भायलीं अशीं दिसनात. तीं काणयांतल्यान सहज वावुरतात, एकरुप जातात. शेवटा खंयचोय मनीस मनीस म्हूण एक सारखोच आसता. ताणें हांगा एक बरी समजिकायेची कळाशी सादल्या आनी तो तातूंत सफलय जाला. ही ताची सेक्युलर नदर भोव मोलाची. साहित्यिकांनी अश्योच वंयो मोडच्यो आसतात. सर्वांमदीं भोंवचें आसता. ना तर ताच्या साहित्याकच मर्यादा पडटात.''

* नामणेचो कादंबरीकार महाबळेश्वर सैल